

# वेळे वयल्यो घुलो

(दिसपटी)

बरोवपी:
रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन

जाग प्रकाशन क्र. ४





पयली उजवाडावणी: १९७१

दुसरी उजवाडावणी: २००७

उजवाडावपी:

डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

२०१ - बी, सालदॅल अपार्टमॅन्ट्स

रूअ द साउदादिश,

पाजीफोंड-मडगांव, गोंय-४०३ ६०१



अक्षर जुळणी/मांडणी :

जाग प्रकाशन

चित्रां:

मिलन खानोलकार

छापपी:

मौज प्रिंटिंग ब्यूरो

खटाववाडी, गिरगांव, मुंबय - ४०० ००४

मोल: ८० रुपया

ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'साहित्य प्रभा' येवजणे खाला अनुदान लाबलां.



डॉ. दत्तारामबाब सुखठणकारांक



# दोन उतरां

हे दिसपटयेंतले सुरवातीचे कांय वांटे 'वासरिका' ह्या माथाळ्या खाला *'राष्ट्रमतां'*तल्यान २९-११-१९७० थावन २१-२-१९७१ मेरेनच्या काळांत आयतारा आयतारा उजवाडा आयिल्ले. ते पुस्तका रुपान छापचे अशें येवजिलें तेन्ना म्हाका तातूंत कांय बदल करचे-शे दिसले. कांय वांटे म्हाकाच मानूंक नाशिल्ले. ते भायर उडयले. कांय वांटे वाचून कांय जाण दुखावल्ले. ते गाळ्ळे. कांय वांटे अदीक बरोवन जाल्ले. तांतले कांय वेंचून ते भरीक घाले आनी पुस्तक छापूंक दिवचे पयलीं पुराय बरप पर्थून एक फावट निवळावन काडलें.

इतलेय हे बदल केले उपरांत पुस्तकाक 'वासरिका' हेंच नांव कित्याक दवरतलों? तेंय बदल्लें.

कोंकणी बरपावळींत हे दिसपटयेक लागून थोडी भोव भर पडूंक पावली जाल्यार म्हाका खूब खोस भोगतली, आनी, ही दिसपटी वाचून कोणांतलेय originalityक जाग येवंक पावली जाल्यार, म्हाका ताच्याकूय चड खोस भोगतली. मुरवत कुशीक दवरून सांगचें जाल्यार हांव म्हणीन –

ही दिसपटी बरोवन म्हजे हस्तुकीं कोंकणी बरपावळीची बऱ्यांतली बरी सेवा घडल्या. ती बरयल्ल्यान खासा म्हाका धादोसकाय भोगल्या.



प्रियोळ, २५-५-१९७१

**रवीन्द्र केळेकार**

# दुसरे उजवाडावणेच्या निमित्त्यान

१९७० तली खबर. अवचीत एक दीस म्हाका दिसपटी बरोवची अशें खोलायेन दिसपाक लागलें. अशें कितेंय दिसपाक लागता तेन्ना हांव कळाव लायना. रोखडोच बरोवपाक बसतां. पुणून हे खेपे मातसो घुटमळपाक लागलों. म्हळें, कितें न्हय कितें सदां बरयत आसतां. तातूंत आनीक वेगळी अशी दिसपटी कित्याक बरोवंक जाय? 'ना, बरोवंकूच जाय', काळजाच्या खोल तळांतल्यान एक आवाज वयर सरलो- 'खासा तुकाच विचारून पळे मरे! तुज्या हातांत, धरुंया, गाजिल्ली एक नवलकथा पडली; नवलकथे वांगडाच, धरुंया, त्याच बरोवप्याचें उगडासांचें एक पुस्तक आनी ताची दिसपटी मेळ्ळी जाल्यार खंयचें पुस्तक तूं वाचपाक पयलें घेतलो? दिसपटयेचेंच मरे? दिसपटयेची रूच आगळी वेगळीच आसता. साहित्याचे जे कितलेशे फॉर्म आसात तांचे मदलो दिसपटयेचो फॉर्म सगळ्यांत चड प्रांजळ, सगळ्यांत चड ओडलायणो, तसो सगळ्यांत चड कठीण. बरोवप्याचें खरेलें 'रूप' दिसपटयेंतूच पळोवंक मेळटा. यत्न तरी करून पळे मरे!'



त्याच दिसा हांवें दिसपटी बरोवपाक सुरवात केली. कांय दिसांनी चंद्रकांत केणी आमगेर पावलो. म्हणपाक लागलो, '*राष्ट्रमता*च्या आयतारच्या आंकाचीं दोन पानां तरी कोंकणींत दितलों अशें थारायल्लें. पुणून... मॅटरूच येना. येता ती छापपा सारकी नासता. कांय कथा बरोवन धाड...'

'कथा?... हांव कथा, कविता, नाटकां बरोवपा

खातीर जल्माक येवंक ना... *जेनुं काम तेनाथी थाय, बीजो करे तो गोथा खाय* ही गुजराती म्हणणी तुका खबर ना?'

'आसा, आनी कथा कविता तुजें माध्यम न्हय हेंवूय खबर आसा... पुणून तूं कथा कविता वाचता. पुर्तुगेज वा गुजरातींतल्यो कांय कथा वेंचून काड. तांचे अणकार करून दी, वा त्यो रुपांतरीत तरी करून धाड.'

हांवें दोन चार कथा रुपांतरीत करून धाडून दिल्यो. त्यो दुसऱ्या खंयच्या तरी एका नांवान छापुनूय आयल्यो. पुणून म्हज्या स्वधर्मांत हें काम बसना अशें-शें कितें दिसपाक लागलें आनी हांवें चंद्रकांताक सांगून धाडलें, 'म्हजे कडल्यान हें काम जावपाचें ना. पुणून म्हयनो भर जालो, हांव एक दिसपटी बरयतां. ती धाडूं?'

बुभुक्षीत संपादक. 'धाड' म्हूण ताचो रकाद आयलो. आनी हांव 'वासरिका' ह्या नांवान म्हजे दिसपटयेचीं कांय पानां नेमान *राष्ट्रमता*क धाडपाक लागलों. पांच सात खिस्ती आयल्यात जातल्यो, एक दीस चंद्रकांताक राम पटवर्धनाची (बंद पडिल्ल्या मराठी *'मौज'* साप्ताहिकाच्या संपादकाची) चीट आयली. 'वासरिके'ची तोखणाय करून, आनी *'मौज'* चलना हाचे आपणाक पडिल्ले चिटमिटे उकतावन. *राष्ट्रमतां*त ही चीट छापून आयली. परिणाम – म्हजी बरपां रुचीन वाचपी लोक 'वासरिका' वाचतालेच, आतां 'एँ, कोंकणींत कितें आसा?' अशें म्हणपीय कांय जाण जिज्ञासेन ती वाचपाक लागले. ते मेरेन म्हजें बरोवप सोंपिल्लें. २९-११-१९७० च्या आंकांत पयली खिस्त आयिल्ली. २१-२-१९७१ च्या आंकांत निमाणी खिस्त दिवन 'वासरिका' हांवें बंद केली.



इतले म्हणसर म्हजो कर्तुत्वी आनी धाडशी सांगाती बाब सुमंत केळेकार मुखार सरलो. एक दीस येवन तो म्हणपाक लागलो, 'जाग' नांवाची एक प्रकाशन संस्था सुरू करूंक सोदतां. कोंकणींत पुस्तकां उजवाडावपी एकूय संस्था ना. एका एका बरोवप्याचें एक एक तरी पुस्तक छापतलों म्हणटां. कोंकणी चळवळीचें हें एक आंग दुबळें पडलां तें थोडें भोव पयस करपाक हातभार लायतलों म्हणटां...' हांवें विचारलें, 'पयशे रे?' तो म्हणपाक लागलो, 'म्हाका कोणाचेच पयशे नाकात. फंड बिंड एकठांय करपाचे भानगडींत पडपाचों ना. बरोवपी दुडू खर्चूंक तयार आसत जाल्यार ताचे कडल्यान छापणावळीचे अर्दे पयशे घेतलों आनी बदलाक ताका तिसऱ्या वांट्याच्यो प्रती (३३४) दितलों म्हणटां. हेर खर्च 'मौज' 'पोप्युलर' बी करतात तसो हांवूच करतलों म्हणटां. प्रायव्हेट लिमिटेड कंपनी ही'.

सुमंताच्या कर्तुत्वाचेर म्हजो आकांताचो भावार्त. 'सेंत्र येदुकादोर द प्रियोल' नांवाची एक संस्था गांवांत आशिल्ली. एक मराठी शाळा आनी एक वाचन मंदीर चलयनाल्ली. मोडकळेक आयिल्ली. ती हातांत घेवन जिवी करून ताणें संस्थेचें 'शिक्षा सदन' नांवाचें एक हायस्कूल सुरू केल्लें. (उपरांत कुंडय, गावण्यां, केरी आनी पंचवाडे चार हायस्कुलां सुरू केल्यांत.) कितंय आंगार घेवं, वाग कसो फाटल्यान लागपाचे ताचे कर्तुत्व-शक्तीची म्हाका जाणवीक आशिल्ली. हांवें 'कर सुरू काम' म्हळें. 'तुजीं पुस्तकां जाग प्रकाशनाकूच तूं दितलो अशें उतर दी.' 'दिलें', हांवें म्हळें. ताणें तीन पुस्तकां छापलीं. चवथें पुस्तक म्हूण 'वासरिका' छापचें अशें थारायलें. 'वासरिके'ची कात्रणां दवरिल्लीं तीं काडून हांव निवळावपाक बसलों. कांय वांटे बदल्ले, कांय काडून उडयले, कांय आटयले.



तांतले थोडे भरीक घाले आनी पुस्तक तयार करून ताच्या हातांत दिलें. 'वासरिका' ह्या नांवानूच तें येवचें अशें म्हाका दिसतालें. *'वेळे वयल्यो घुलो'* म्हूण ताणें ताका एक नवें नांव दिलें आनी तें छापुनूय हाडलें.

ताचो प्रकाशन सुवाळो मडगांवां जाल्लो. पोरणे पिळगेंतले एक रसीक आनी व्यासंगी विद्‌वान नरशींवबाब सुकेरकार सुवाळ्याचे येजमान आशिल्ले. मराठीवादी पंगडांतले पुणून उदारमतवादी. Liberal. तांणी आपणाल्या उलोवपांत (म्हजे कडेन बोट दाखोवन) म्हळें, 'हो मनीस वर्ध्याच्या आश्रमांत पांच वर्सां रावन आयला. वर्ध्याचो आश्रम म्हळ्यार लोणच्याचें बुयांव. ह्या बुयांवांत आमली घाल, करमेतली. लिंबू घाल, करमेतलो. मिरसांग घाल, करमेतली. तसो वर्ध्याच्या आश्रमांत काकासायबां सारको एक प्रतिभावंत साहित्यकार वचून रावलो जाल्यार तोय करमेता. आनी धर्मानन्दां सारको एक प्रकांड बौद्‌ध पंडीत वचून रावलो जाल्यार तोय करमेता. सावरकरी भाशेंत, 'गांधाळटा'. तसो होय गांधाळून आयला असो म्हजो समज आशिल्लो. पुस्तक गांधीवादा वेलेंच आसतलें अशें दिशिल्लें. गांधीवाद पुस्तकांत ना अशें न्हय. आसा. पुणून हातूंत सॅक्सा विशींचे जे विचार आयल्यात ते गांधीवादी निखालूस न्हय. बर्ट्रांड रसेल, र. घों. कर्वे हांचे परंपरेंतले विचार हे. वर्ध्याच्या आश्रमांत रावनूय हे विचार हो धाडसान मांडटा जाल्यार म्हणूंक जाय – हाणें हे विचार आपणाल्या बुद्‌दीच्या वरकुलार घांसून घेतल्यात. आनी हे विचार ताणें बुद्‌दीच्या वरकुलार घांसून घेतल्यात जाल्यार गांधींचे जे विचार ताणें घेतल्यात तेवूय अशेच घेतल्यात जावंक जाय अशें म्हणचें पडटा. हो स्वतंत्र विचार करपी एक मनीस.



तागेलें हें पुस्तक आगळें वेगळेंच म्हणूंक जाय. असलें, विचार करूंक लावपी पुस्तक गोंयांत आयजवेर कोणेंच खंयचेच भाशेंत बरोवंक ना.'

म्हजी पिराय त्या वेळार पन्नासांचे लागसार पावि्ल्ली. तुस्त तोखणाय आयकून भुल्लुसून वचपाची पिराय न्हय ही. तरी आसतना, हें आयकून हांव त्या दिसा खोश्शी खोश्शी जाल्लों. नरशींवबाबाल्या तोंडांतल्यान असलें कितेंय आयकूंक मेळत अशें हांवें धरूंकूच नाशिल्लें.

१९७१त उजवाडा आयिल्लें *'वेळे वयल्यो घुलो'* स सात वर्सां भितर सोंपिल्लें. रोखडीच दुसरी उजवाडावणी काडूंक जाय आशिल्ली. काडपाचो धीर जालो ना. हे खबरेक आतां तीन दसकां जायत आयलीं. बाय माधवी सरदेसाय आतां 'जाग प्रकाशना'च्या वावरांत लक्ष घालूंक लागलां. म्हजें तशें सुमंतबाबाचें ते एके भाशेन वारस जालां. तें म्हणपाक लागलें, *'वेळे वयल्यो घुलो'* आतां मेळना. लोक विचारतात. जे पिळगेन तें वाचिल्लें ती आतां जाणटी जाल्या. कोंकणीच्या मळार आतां नवी पिळगी आयल्या. तिका तें वाचूंक मेळूंक जाय. एक नदर मारून दी.'

रोखडेंच घेवन बसलों. भाशेचे आनी व्याकरणाचे नदेंन थोडे बदल केल्यात. विचारांक हात लावंक ना. ते तशेंच दवरल्यात. ते मूळांतले विचार ते म्हजे. आयच्या म्हज्या विचारांत बदल जाल्लो आसलो तरूय तो पुस्तकांत करप समा दिसलें ना.

नवे पिळगेंतले वाचपी हे उजवाडावणेक आदले पिळगे वयलेच उर्बेभरान येवकार दितले अशी आस धरून ती तांच्या हातांत दवरतां.



रवीन्द्र केळेकार

# घुलो कानाक लायतकूच

आज तीन दीस जाले, रवीन्द्राच्याच घरांत बसून *'वेळे वयल्यो घुलो'* वाचतां. भायल्या वारांदार बसलां. रवीन्द्राचें घर एके दोंगुल्लेचेर आसा. भोंवतणीं दाट रुखावळ. मुखार एक नागमोडी डांबरी रस्तो, व्हॉल्त घेत पिरवळा गेला. हांगा बशिल्ल्या जाग्या वेल्यान लोक येतात-वेतात ते दिसतात. कांय म्हयन्यां पयलीं हो रस्तो तांबडो आशिल्लो. आतां तो काळो डांबरी जाला. रवीन्द्र म्हणटा, 'पयलीं कोण मनीस गेला तें मातयेंतल्या ताच्या पावलां वेल्यान कळटालें, आतां कळना.' ह्या यंत्रयुगांत धर्तरेचेर मनशाच्या उकत्या पावलांच्यो कुरवो पुसत चल्ल्यात!

पयसुल्ल्या आंब्याचेर कोगूळ गायता. मदींच कावळ्यांची कावकाव, कोंब्याचो साद आनी तरेकतरा सुकण्यांचो किलबिलाट आयकूंक येता. पानांतल्यान वारो सळसळटा, जसो मनांत विचार.

जे सुवातेर बसून *'वेळे वयल्यो घुलो'* ही दिसपटी तयार जाली तेच सुवातेर बसून हांव म्हजे दिसपटयेंतलें हें पान बरयतां. वाचपाक बरोवपाक हाचे इतली बरी सुवात सोदून मेळची ना.

रवीन्द्र हो चिंतपी. तो बरयतना चिंतता. उलयतना चिंतता. चलतना चिंतता. ताच्या सपनांक लेगीत चिंतनांचो रंग आसतलो. संवसार कसो घडलो हें पळोवपा परस, तो कित्याक घडलो हाचेरूच तो विचार करता-सो दिसता.



तो म्हाका विचारता, 'बरोवप कित्याक?'

हांव ताका Jean Paul Sartre चे Les Mots हे आत्मकथेंतल्यो कांय वळी वाचून दाखयतां:

J'écris toujours. Que faire d'autre?

**Nulla dies sine linea.**

C'est mon habitude et puis c'est mon métier. Longtemps J'ai pris ma plume pour une épée : a présent je connais notre impuissance. N'importe : je fais, je ferai des livres; il en faut; cela sert tout de même. La culture ne sauve rien ni personne. elle ne justifie pas. Mais c'est un produit de l'homme : il s'y projette, s'y reconnait; seul, ce miroir critique lui offre son image.

"हांव सदां बरयतां, आनी दुसरें कितें करतलों? *'दिसामाजी कांहीं तरी तें लिहावें'* ही म्हजी संवंय. ते भायर म्हजो तो धंदो. म्हजी लिखणी म्हळ्यार तरसाद अशें एका काळार म्हाका दिसतालें. आतां म्हाका आमचीं दुबळेपणां कळ्ळ्यांत. जावं. हांव पुस्तकां बरयतां. बरयत रावतलों. पुस्तकांची गरज आसा. तीं उपकारा पडटात. साहित्य कित्याकूच आनी कोणाकूच वाटायना. पूण साहित्य म्हळ्यार मनशाची एक कृती. तातूंत तो उकतो जाता. तातूंत ताचें पडबिंब पडटा. ह्या चिकित्सक हारशांतूच ताका आपलें रूप दिश्टी पडटा..."



ह्या *'वेळे वयल्या घुलां'* लागीं खेळटना हांवूय चिंतूंक लागलों. चड चिंतप म्हाका मानना. जिविता विशीं चड चिंतपाचे भानगडींत हांव पडना. म्हाका दिसता, चिंतून चिंतून मनीस जिविता पसून पयस वता. मंवसागराची सोबाय दोळ्यांनी भरून घेवप, जिविताचें संगीत कानांनी आयकून घेवप आनी तें उतरांनी कागदार उतरावप हो म्हजो धर्म. रवीन्द्राचो धर्म मातसो वेगळो. हांव उतरांत चड करून रंग सोदतां, ताल सोदतां. रवीन्द्र तातूंत गंध आनी अर्थ सोदता.

रवीन्द्राची ही दिसपटी Rousseau वा St. Augustine हांच्या Confessions सारकी न्हय. Somerset Maugham च्या A Writer's Notebook भाशेनूय न्हय. André Gide च्या Journal भाशेन वा André Malreaux च्या Anti-Mémoires भाशेन तर न्हयच न्हय. रवीन्द्र विचारांक गती दिता. पुणून तो नावाडग्यांक कुटले मारिना. दुश्टांक चिमटे काडिना. बायलांक कळवळायना. जाणट्यांक दुखयना. भुरग्यांक रडयना. ताचे हे दिसपटयेंत ताचें दिसपट्टें जिवीत दिसना. सगळे प्रसंग, सगळे अणभव दिसनात. ताणें कितें देखलां, कितें भोगलां, कितें सोंसलां तें कळना. कितें चिंतलां तेंच फकत कळटा. *राखावीं बहुतांची अंतरें* हें सूत्र मुखार दवरून ताणें हीं चिंतनां बरयल्यांत. ताचें जिवीत रासवळ मळार चड गेलां. पूण ह्या मळार आयिल्ले बरे-वायट, कोडू-गोड अणभव तो हातूंत चितारिना. रासवळ मळा वेल्यान पयस वचून आपल्या घरांतल्या उकत्या वारांदार बसून अंतर्मुख जावन ताणें हीं चिंतनां बरयल्यांत. हांगा विचार हेंच ताचें मळ जालां. विचार करपी मनीस होच ताचो इश्ट जाला. Victor Hugo भाशेन तो म्हणटा: La Pensée est mon pays, Je suis concitoyen de tout homme qui pense– "विचार होच म्हजो देस आनी जो विचार करता तोच म्हजो देसभाव."

तो म्हणटा, "म्हज्यांत कितलेशेच हांव आसात. म्हज्यांत एक साहित्यीक आसा. एक कवी आसा. एक सौंदर्यरसीक आसा. एक चिंतक आसा. एक समाजसेवक आसा. एक राजकर्णी आसा. एक शिक्षक आसा... म्हज्यांत हांव एकलों ना... म्हज्यांत कितलेशेच हांव आसात..." ह्या सगळ्या हांवांतल्यान



एक एकचार दिसून येता. रवीन्द्र ताका integrity म्हणटा. हांव ताका sincerity हें नांव दीन.

ही दिसपटी म्हळ्यार Confessions न्हय. Confessions बरोवपी एक तर Ceryl Chessman सारको बेडर आसचो पडटा वा St. Augustine जावं महात्मा गांधीं सारको संत आसचो पडटा. एकल्याक सगळें सांगपाक कोणा बापायचो भंय नासता. दुसऱ्या कडेन लिपोवपा सारकें कांय नासता. रवीन्द्र दोनूय न्हय.

पूण सत्याचो सोद लावपी हीं चिंतनां. चार म्हयन्यांचे फास्केंत बसयल्लीं. तातूंतल्यान रवीन्द्राच्या दिसपट्ट्या जिविताचें दर्शन जालेंना जाल्यारूय ताच्या मनाचें दर्शन जाता. देखून ही दिसपटी फकत चिंतनां न्हय, तर एक presence. ही दिसपटी वाचता आसतना रवीन्द्राचें मनूच न्हय, तर ताचें व्यक्तिपणूय तातूंत उकतें जायत वता.

तो ही दिसपटी बरयता कित्याक? तर "जे अणभव वा जे विचार उब्रून वतले आशिल्ले" ते दवरपाक. पूण तो सगळे विचार आनी सगळे अणभव बरयना. ज्या विचारांनी वाचपी शॉकाद जावचो वा जे अणभव चार-चौगांत सांगूंक येनात, सांगूंक जायनात, ते तो कागदार उतरायना. तो कांय जाणांचीं नांवांय सांगिना. तांच्या बदला तो फुलयो घालता. जांकां फुलयो घालिनासतना आत्मकथा बरोवंची आसा तांणी कादंबरी बरोवंची. रवीन्द्र हो विचारवंत. विचारवंताच्या जिवितांत विचार होच व्हडांत व्हड अणभव. रवीन्द्राक जें दिसला, तो जें भोगता तातूंतल्यान तो जिवीत पोसपी, नवो समाज घडोवपी अशे नवे विचार काडीत आसा. ताचे कांय विचार पुस्तकांच्या वाचपांतल्यान, कांय विचार कांय प्रसंगांतल्यान रुपाक आयल्यात. ताचे कांय विचार मन हालयतात. कांय विचार खातकुतल्यो



करतात. संवसाराच्या चित्रां परस संवसारा कडेन पळोवपाची नदरूच हातूंत चड आसा. दोळे दिपोवपी रंगां परस जिणेची वाट उजळावपी विचारांचो उजवाडूच चड आसा.

रवीन्द्राचें बरोवप म्हळ्यार एक साधना. "आपूण कोण तें जाणा जावपाची. आपणाक सुदारपाची." दुसऱ्यांक बरी देख दिवपाची. तोच म्हणटा, "म्हजे म्हाकाच वळखुपाक ही दिसपटी म्हाका उपकारा पडल्या." Ripeness is all अशें Shakespeare म्हणटा. हें जाणटेपण, हें पिकेपण रवीन्द्राक तरणेपणांतूच आयलां.

दिसपटी म्हळ्यार एके तरेचें आप-बरोवप. आपल्याच जिविताचेर आपणेंच केल्ली एक धांवती commentary. आत्मचरित्र. आत्मचरित्रा परस ही सभाव बरो चितारता. दिसपटयेक कसलीं बंधनां नात. कसलो आकार ना. कसली मेर ना. नांटका भाशेन, ती बरोवपाक तंत्राचो अभ्यास करचो पडना. कविते भाशेन, तिका यमक, तालाचीं घटां सांबाळचीं पडनात. काणये भाशेन जावं नवलकाणये भाशेन, तिका कथानक रचचें पडना. घेतली लिखणी आनी आपले लागीं उलयत बसलो. दिसपटी बरोवप सामकें सोंपें. पुणून सोंपें देखुनूच कठीण. तिका अज्रंवर साहित्याचें मोल येवप भारी कठीण. पुणून जशी बरें उलोवप ही एक कला तशीच बरें बरोवप हीय एक कला. रंगांची संगती जाल्यार चित्र जावं येता. सुरांचो मेळ पडल्यार संगीत जाता. पुणून शब्दांचो मेळ पडलो म्हूण बरोवप जायना. शब्दां फाटल्यान अर्थ आसता. त्या अर्था फाटल्यान जिणेचो अणभव आसता. जातूंत शब्दां पलतडच्याचें दर्शन जाता तेंच खरें बरोवप. देखून हांव म्हणटां, गद्य बरोवप जितलें सोंपें तितलेंच तें कठीण. पद्याक नेम आसतात. लय-तालाचे आनी



उतरांचे संख्येन्चे. ते शिकतकूच कोणाकूय थोडें भोव काव्य करूंक येता. गद्याचे नेम थारायल्ले नात. वळ केदी लांब आसची; पूर्णविराम, स्वल्पविराम केन्ना घालचे, हाचें थारायल्लें गणीत ना. तरेकतरा मुद्रांचो अभ्यास करून पांय तालार मारून नाच करूं येता. पुणून बरें चलप कशें शिकतलो? चलपाचो ताल कसो शिकतलो? चलपांतलो ताल तसोच गद्यांतलो, भितल्लो ताल, आपशींच आयिल्लो आसता. नाचप मातशें अडेचें जालें तरूय तें दिसना. पद्य मातशें अडेचें जालें म्हण दिसना. पुणून अडेचें गद्य. अडेच्या चलपा भाशेन रोखडेंच दोळ्यांत भरता.

रवींन्द्राची भास सहज स्फुरिल्ली -निजाची. तातूंत अडेचें उतर सोदून मेळचें ना. विचारांचें तें आंगलें. विचारांच्या आंगाक फीट बसपी. भाशेचें हें सादेपण हेंच रवींन्द्राचें व्हडपण. ज्या बरपांतल्यान बरीं उतरां वेगळीं काडुंयेत तें बरप बरें न्हय. रवीन्द्राच्या बरपांतल्यान बरीं उतरां वेंचून वेगळीं काडूंक येनात. ताच्या बरपांतलें दर एकलें उतर जंय आसूंक जाय थंयच आसा. Anatole France म्हणटा, "शैली ही सूर्याच्या वोता भाशेन. तो दिसपाक रंग नाशिल्लो. पुणून तातूंत सातूय रंग आसतात."

रवींन्द्र म्हणटा, "म्हजो सभाव मातसो चिंतकाचो. कसल्लीय मातीं रुजाल्ल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता आनी चिंतनांच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता."

जो ही दिसपटी वाचता ताचीय अशीच गत जाता. हीं चिंतनां ताकाय "खोल खोल ओडून व्हरतात..."



मनशाची समाजीक नीत, Sexual morality, धर्माचें खरें स्वरूप, विद्यार्थ्यांचीं बंडां, हिप्पी आनी तांचें जिवीत-तत्व, बायलांची आवतिकाय, साहित्याचो आदर्श, ह्या आनी असल्या विशयांचेर

तो चिंतता आनी कांय मोटे प्रस्न मुखार दवरता. ह्या सगळ्या प्रस्नांतल्यान जसो एक खंतीचो सूर आयकूंक येता, तशी एक स्रद्धाय तो उकतावन दाखयता. जें चल्लां तें सगळें सारकें चलना. समाजांत बरे लोक आसात. पूण चडशे लोक दुबळे. ही ताची खंत. ते फाटल्याक दसून रावल्यात. ते मातसो विचार करतीत जाल्यार सगळें तांच्यांनी बदलूंक जातलें. ही ताची स्रद्धा. रवीन्द्राचीं उतरां violent न्हय. पुणून ताचे विचार क्रांतिकारी.

गोंयच्या हेर खंयच्याय साहित्यिका परस, खंयच्याय स्वातंत्र्य-झुजाऱ्या परस, खंयच्याय समाज-सेवका परस रवीन्द्रान चड चिंतलां आनी चड बरयलां. गोंयचे भाशेचो प्रस्न, गोंयच्या राजकी फुडाराचो प्रस्न, हिन्दू-क्रिस्तांवांच्या एकचाराचो प्रस्न, मनीस आनी सैम हांचो संबंद, ह्या आनी असल्या कितल्याश्याच प्रस्नांचेर फाटल्या पंदरा सोळा वर्सां सावन तो एकासारको बरयत आयला.

'मनीस जसो चिंतता तसो तो घडटा' अशें भगवान बुद्धान म्हळां. चिंतनाची ही शक्त, हें व्हडपण रवीन्द्रान पारखिलां. दोळ्यांक दिपोवप्यां परस, तेजिश्ट वावुरप्यां परस, थंडायेन विचार करपी आनी विचार करूंक लावपी मनशाचीच समाजाक चड गरज आसा. आंगांत तूतनायक आशिल्ले व्हडें ताणपी मनीस खूब आसात. आयच्या संवसाराक तकली थाऱ्यार आशिल्लो येरें धरपीच जाय. ना जाल्यार हें व्हडें खंयच्या वादळाक सांपडून तळपार आपटून ताचे कुडके कुडके जायत, सांगूं नज.



एकामेकांक संवाद नाशिल्लीं हीं तुटिल्लीं चिंतनां आसलीं तरूय तीं पावसाचे पांवळे भाशेन थेंब्या थेंब्यान पडपी आनी सतत व्हांवपी.

रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-

रुंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्रमंथन करून जिविताच्यो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो. जिविताचे दर्यावेळेर घुलो खूब पातळ्ळ्यात. पुणून त्यो पुंजावन घरा हाडपाची बुद्द थोड्यांकूच जाता. ह्यो घुलो, तरेकतरा आकारांच्यो. तरेकतरा रुपां-रंगांच्यो. घुलो कानाक लायल्यार खंय तातूंत दर्याचो आवाज आयकूंक येता. ह्योय घुलो कानाक लायल्यार तातूंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो.

दीस धारेर गेला. दर्या पयस आसा.

नंगर, प्रियोळ, १९-५-१९७१

**मनोहरराय सरदेसाय**





२—१०—१९७०

**१.** आयच्यान दिसपटी बरयतलों म्हणटां. गोदू विचारता, कित्या खातीर बरोवंक सोदता? आनी हांव जाप दितां, इतलीं वर्सां बरोवंक पावलों ना देखून. मागीर हांवूच म्हाका विचारतां, इतलेच खातीर बरोवंक सोदता? आनी जाप दितां, इतलेच खातीर न्हय. बरयन दिसता. देखून बरयतां. I sing because I must.

आमकां सगळ्यांक दिसपट्टे तरेतरेचे अणभव येतात. केन्ना केन्ना चित्रां-विचित्रांचे मनीस मेळटात. केन्ना नवे विचार आयकूंक वा वाचूंक मेळटात. केन्ना आमकां नवे विचार येवजतात. वयले वयल्यान पळेल्यार सामक्यो किरकोळ दिसपी गजालींय कांय कांय वेळार आमकां खोल खंय तरी ओडून व्हरतात आनी जिणे संबंदान खोलायेन येवजूंक लायतात.

पूण आमची जीण एकासारकी धांवत रावता, व्हांवत रावता आनी तातूंत नवे अणभव आनी नवे विचार आयले म्हणटकूच पोरणे अणभव, पोरणे विचार केन्ना केन्ना उबून वतात.

पयल्च्यान म्हाका दिसपाक लागलां, नेमान दिसपटी बरयत जाल्यार जे अणभव वा विचार उबून वतले आशिल्ले वा हांव विसरतलों आशिल्लों ते दिसपटयेंत तरी उरतले. ते भायर, दिसपटयेंत तांची नोंद करता आसतना तांचे कडेन अदीक बारकायेन पळोवचें पडटलें आनी हाका लागून घडये ते म्हज्या लक्षांतूय घट उरूंक पावतले. ह्या उबून वतल्या अणभवांक आनी विचारांक बांदून दवरपा खातीर हांव आयच्यान दिसपटी बरयतलों म्हणटां.

इतलेंच, सदां बरयतलों अशें मोपून घेना आनी अमकेंच बरयतलों असोय नेम करिना. बरयन दिसता ते मेरेन बरयतलों आनी जें कितें बरोवपा सारकें दिसता तेंच बरयतलों.

बरयतां बरयतां सदां बरोवपाची संवंय जाली जाल्यार वायट-शें जावचें ना!





३–१०–१९७०

**२.** मनशाक घडोवपी तत्त्वां खंयचीं? आवय-बापायचे संस्कार हें एक तत्व. ज्या समाजांत तो वावुरता ताचें वातावरण दुसरें तत्त्व.

ह्या दोन तत्त्वां भायर आनीक एक तत्त्व आसा. आनी, म्हज्या मत्तान, तें सगळ्यांत व्हडलें. ज्या देशांत तो जल्माक आयला त्या देशाची परिस्थिती.

ह्या तत्त्वा आड आमच्यांनी वचूं नज.

आयज एकल्यान म्हाका म्हळें, 'आमचें नशीब पाडें म्हूण आमी ह्या देशांत जल्मा आयले... येवरोपा सारकेल्यांत जल्मा आयिल्ले जाल्यार, कितलेशेच मुखार पावतले आशिल्ले. अशे उरचे नाशिल्ले.'

आयकून मातसो खंती जालों. म्हळें, 'आमचें नशीब पाडें' अशें आयच्या भुरग्यांक दिसचेंच कित्याक?

आनी हांवें ताका म्हळें, 'आमच्या देशाची परिस्थिती आमकां फुडें सरपाक व्हडलो-सो आधार दिना हें खरें. पुणून आमच्या वांट्याक असली परिस्थिती आयल्या हिका तूं पाडें नशीब म्हणटा? काय, हे परिस्थिती आड झुजपाक आमी उणे पडटात हाका पाडें नशीब लेखता?'

तो ओगी रावलो.

पुणून हे परिस्थिती आड झुजपाची तांक आपणांत ना अशें ताका दिसलें तशें (खरें सांगतां) म्हाकाय दिसलें. आनी अवचीत डॉ. लोहियांचो उगडास जालो. दिल्लीक तांकां हांव मेळूंक गेल्लों. देशाचे परिस्थिती संबंदान ते उलोवंक लागले. हांवें म्हळें, तान लागतकूच बांय खणपाक वचपी लोक आमी.

लोहियांनी म्हळें, तूं म्हणटा तशे आमी आशिल्ले जाल्यार, हांव आमकां दुशण दिवचों नाशिल्लों. पुणून तान लागले उपरांत लेगीत बांय खणपाची इत्सा आमकां जायना. इतले मुर्दाड लोक आमी!

अवचीत ते गंभीर जाले. आनी दांत ओंठ चाबून म्हणूंक लागले, 'देशाचें सत्त्व ना करून उडयलें आमच्या फुडाऱ्यांनी. तांकां सगळ्यांक उजो लावंक जाय आनी त्या उज्यांत (देश असो जाला म्हणपाची खबर आसून लेगीत कांय करूंक पावूंक नाशिल्ल्या) म्हजे सारकेल्यांचोच लासून गोबोर जावंक जाय.' लोहियांचो हो उद्‌वेग तांच्या आवाजा सयत म्हाका आयकूंक आयलो आनी पुराय दीस उचंबळीत उरलों.



३. गातीं गोंद्न सत्यवतीची खबर सांगली. लग्न जाल्यार खंय तिका आतां सा वरसां जालीं. घोव हांतुळणार आसा. दम्यान. लग्न जायत पसून खंय तो असोंच. सत्यवतीकूच वावर करून संवसार चलोवचो पडटा. तिका दोगां भुरगीं आसात, सभावान मातशी धनर. आमगेर ती केन्ना केन्ना वावराक येता. घरा भोंवतणीं मातिल्लें ताण कातरून तें गोरवांक घालपाचें काम तिका आयज दिल्लें.

वावराक आयली म्हणटकूच ती दनपारची आमगेर जेवणाकूय उरता. जेवता आसतना एके वेंटेन जेवप आनी दुसरे वेंटेन भरभरप असो दोट्टी वावर तिची जीब करता.

आयज तिची जीब फकत जेवपाच्यांच वावर करताली. ती उलय नाशिल्ली. घरच्या वांयलांक अजाप जालें, सत्यवती आयज उलयना कित्याक?

पळेत जाल्यार, ती रडटा!

'सत्यवती, कितें जालां गे तुका आयज?'

सत्यवती जाप दिना.

'आगे, रडटा-शी कित्याक गे?'

सत्यवतीन मान वयर केली आनी भळभळ दुकां व्हांवोवन जाप दिली, 'भुरग्यांचो उगडास येयलो. बापडीं घरा कडेन उपाशीं आसतलीं...'

आनी अर्देंच पान सोडून ती आंवंक गेली!





४–१०–१९७०

**४.** एका इंग्लीश नेमाळ्यांत सॉमरसेट मॉमचेर एक लेख आयला. ताणें खंय आपणाली आपजीण बरयल्या! हांवें ताचें Summing up वाचलां. पुणून ह्या पुस्तकांत ताचे बायलेची खबर वाचिल्ल्याचो उगडास जायना. Summing up हें ताचें बरपी ह्या नात्यान केल्ले साधनेचें पुस्तक. आपजिणेंत खंय ताणें आपणाले बायलेक दुशण लायलां. आदल्या प्रियकराचें भुरगें पोटांत आसतना फकत पयशांक लागून आपणा कडेन लग्न जाली म्हूण. म्हाका तागेली ही आपजीण खंय मेळटली? काय, Of Human Bondage ह्या पुस्तकांत ही खबर आयल्या? ही नवलकाणी ताणें आपणाले जिणेचेरूच बरयल्या!

तार्ची पुस्तकां परतीं वाचचीं पडलीं.

पुणून मॉम cynic कित्याक लागून जालो हें म्हाका आतां समजलें. जो 'फटवला' ताचो मनशाच्या मनीसपणा वेलो विस्वास उडुंकूच जाय. तो cynic निर्दुखी आनी अश्रद्ध जावंकूच जाय.

हालींच हांवें ताचें A Gentleman in the Parlour हें पुस्तक वाचिल्लें. दक्षीण-उदेंत एशियेंतल्या देशांनीं केल्ले ताचे भोंवडेचें पुस्तक हें. भोंवडेच्या पुस्तकांत आसूंक जाय तीं सैमाचीं, गांवांचीं, लोकांचीं, लोकांच्या चाली-रितींचीं बी वर्णनां हातूंत आसात. ते भायर, मेळूंक नाशिल्ल्या – फकत कल्पनेन निर्माण केल्ल्या – लोकांचींय वर्णनां तातूंत आसात. कसोय जाल्यार, कथाकारूच तो! मदीं मदीं कथा सांगले बगर ताका आपणें कितें सांगलें-शें दिसचेंच ना!

ह्या पुस्तकांत लेगीत ताचो cynicism दिश्टी पडटा. देखीक, ताका हे भोंवडेंत एकलो अख्खो संवसार पळेल्लो मनीस मेळटा. ताका तो विचारता, तूं अख्खो संवसार भोंवला न्हय? म्हाका सांग, मनीसजाती संबंदान तुका कितें दिसता?

आनी त्या मनशाच्या तोंडांत सॉमरसेट मॉमान आपलेंच मत्त घालां. तो म्हणटा, मनीसजाती संबंदान म्हाका कितें दिसता काय म्हूण विचारता? सांगतां. संवसारांतले सगळे लोक सभावान सारके. काळे, गोरे, हळडुवे - सगळ्यांचो सभाव एकेच तरेचो. तूं खंयूय वच, तुका ते बरो येवकार दितले. तुका आपूण परके कडेन पावलां हें ते भासूंक लेगीत दिवचे नात. तूं बरो ना जावन पडशीत

जाल्यार, तुजी तें आवय बरी सेवा करतले. तुका कितेंच उणें पडूंक दिवचे नात. पुणून तांकां तूं वाट विचार. तांकां आपल्या शारांतली लेगीत वाट सारकी सांगूंक येवपाची ना! मनासजाती संबंदान म्हजें मत्त विचारता? आयक. संवसारांतल्या सगळ्या लोकांचें काळीज जंय आसूंक जाय थंयच आसा. पुणून तांची तकली? ती कश्याय कशी चलता!

इतलेंय सांगून वयल्यान मॉम मात हाका cynicism म्हणूंक तयार ना! कोण झगडूंक बसतलो ताचे कडेन!



**५.** आयज ताचें तोंड सामकें पडिल्लें. 'कितें जालां रे?', हांवें विचारलें. पुणून कांयच सांगिना जालो. अखेरेक उलयतां उलयतां हांवें तें ताचे कडल्यान काडलें. ताचो आयज एकल्यान अवमान केल्लो!

हांवें ताका म्हळें, काकासायबांनी एके कडेन बरयलां, 'जाचेर म्हजो मान भोंमान आधारून ना ताच्या हातान म्हजो अवमान कसो जातलो?' एका गुजराती कवीन काकासायबांचें हें वाक्य धेवन एक सुंदर कविता बरयल्या—

*'मान तमारे हाथ न सोंप्युं*
*केम करी अपमानशो?'*

सगळें करून ताचो राग न्हिंबल्लो बरो दिसलो. आनी ताच्या तोंडार हांसो फुल्लो!

रातीं हांवें म्हाकाच विचारलें, जें वखद तूं दुसऱ्यांक सांगता तें तूंच कित्याक घेना? तुजो स्वयंय अवमान जाता तेन्ना तुका कितें जाता तें हांवें पळेलां.

आनी म्हजे भितल्ल्यान म्हाका जाप मेळ्ळी, स्वयंच्याय वैजाक आपलें वखद केन्ना पारलां व्हय?





५–१०–१९७०

**६.** कोळयाक कोंकणींत कितें म्हणप? 'कोळी'च? बाबा ताका 'वाणी' म्हणटालो. बाबान वाणी पळेल्ले ते दीवचे, आफ्रिकेंतल्या रानांनी वचून आपल्या पसऱ्यांचें जाळें विणून थंयच्च्या सादया भोळ्या खांपऱ्यांक नागोवन इश्टेट करपी. दाल्गाद काडून पळेलो. ताणेंय ताका वाणी म्हळा! म्हाका अजाप जालें! वाणया भायर दाल्गादान ताका आनीक दोन नांवां दिल्यांत, मावली आनी साळयो. म्हाका हीं नांवां खबर नाशिल्लीं. देखून हांवें ताका एक नवें नांव दिल्लें, जाळयो.

आतां, म्हळें, शान्तूक विचारून पळोवया. शान्तू आमगेली वावराडी. मराठीचो जावं दुसरे खंयचेच भाशेचो वास लागूंक ना तिका. तिणें सांगलें, आमी ताका पेटारो म्हणटात.

हांवें आमच्या राखण्याक, वसंताक, विचारलें. ताणें पाकळयो म्हणटात म्हूण सांगलें.

वाणी, मावली, साळयो, पेटारो, पाकळयो इतलीं नांवां ताका आसतना (घडये आनिकूय आसूं येतीत) आमी 'शिकिल्ले' लोक मात ताका म्हणटात, कोळी!

आमची अपर्बुद्द करची तितली थोडी!!!

सकाळीं उठना फुडें उश्या कडलें जनेल उकतें केलें तेन्ना भायर वारांदार साळयान विणिल्लें एक सुंदर जाळ दिश्टी पडलें. हांव तें पळेत रावलों आनी साळयांतल्या कलावंताची तोखणाय करूंक लागलों. हालीं animal behaviourचेर जायतीं पुस्तकां भायर सरल्यांत. तांतलें आयज एक घेवन येवचें आनी सैमाचें हें विस्मीत समजून घेवचें अशें येवजितालों.

इतल्यांत एक वेगळोच विचार तकलेंत घोळूंक लागलो.

हांवूय म्हज्या हावेसांचें, हे हावेस भागोवपा खातीर करतां त्या यत्नांचें, ह्या यत्नांक लागून पदरांत पडटात त्या येसां-अपेसांचें आनी हांकां लागून जावपी रागांचें, दुस्वासांचें, खोशयेचें, निर्शेणेचें – एक इतलेंच सुंदर जाळ म्हजे भोंवतणीं विणिना? आनी ह्या जाळांत हांव म्हाकाच घुसपावन घेना? ह्या जाळा भायर

एक वेगळी जांण आसा — न्हय, खरी जांण ह्या जाळा भायरूच उन्मुक्तपणान जियेता हाची जाणवीक म्हाका कितली-शी आसा? ह्या जाळांत म्हाका घुसपावन धवन हांव सामको अ-चेतन जावन पडटां म्हणपाचें म्हाका कितलें-शें कळ्ळां? ह्या जाळांतल्यान हांवें कशें सुटप? कसो मेकळो जावप?



**७.** आचार्य कृपालानींचें Gandhi, His Life and Thought आयज वाचून सोंपयलें. कृपालानींचें खंयचेंय बरप हांव रुचीन वाचपी. (राजाजींचें आनी लोहियांचें वाचपी, तशें.) पूणून ह्या पुस्तकान मातसो निर्शेलों म्हळ्यार जाता. हातूंत कृपालानींनी गांधीं विशींचे आपणाले उगडास दिल्यात जातले अशें दिशिल्लें. गांधीं विशींचो तांगेलो estimate तरी आसतलो अशें मानिल्लें. पळोवंक गेल्यार, हें गांधींचें चरित्र!

गांधींचीं चरित्रां हाच्याकूय बरीं दुसऱ्यांनी बरयल्यांत.

पुस्तक सोंपतां सोंपतां हांव खंतीं जालों. चड करून गांधींच्या जिवितांतल्या निमाण्या वरसांची खबर वाचतना. ह्या निमाण्या वरसांनी गांधी सामके एकले पडिल्ले. तांगेले लागशिले लोक लेगीत तांचे पसून पयस गेल्ले. कोणूच तांगेलें म्हणणें आयकून घेनाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर दिल्लींत तांगेली पतूय देंविल्ली. कृपालानींनी ह्या पुस्तकांत एक खबर दिल्या. एक फावट खंय गांधींनी सरदार पटेलाच्या सेक्रेटरीक एका कामा खातीर आपोवंक धाडलो. जाल्यार, ताणें आपणाक वेळ ना म्हूण सांगून धाडलें!

जे निमणींचो आधार धरून हे लोक वयर सरिल्ले ती निसणूच तांणी वयर सरना फुडें भायर उडयल्ली!

खरें म्हळ्यार, ते मुस्तींत एकल्याचीच तकली जाग्यार आशिल्ली, ती गांधींची. स्वराज्य लागीं पावपाक बाकीचे सगळे — कोण जाणा, कशें म्हूण! — कोणाच्या तरी हातांतलीं बावलीं जावन नाचताले!

गांधींचें व्हडपण तांगेले पुराय जिणेंत पळोवंक मेळटा. पूणून तांगेल्या व्हडपणाचो

कळस पळेतले जाल्यार, ते आपल्या आयुष्यांतल्या निमाण्या वर्सांनीं– ते एकसुरे पडिल्ले तेन्ना– कशे चलताले तें पळोवंक जाय. उडयांत खंय हनुमान-उडी सगळ्यांत व्हडली. गांधींनी आपल्या निमाण्या वर्सांनीं व्हडपणाची हनुमान-उडी मारिल्ली.

कृपालानींनी, खरें म्हळ्यार, आपणाले उगडासूच बरोवंक जाय आशिल्ले. कांय वर्सां पयलीं तांणी Gandhi the Statesman म्हूण एक ल्हान-शें पुस्तक बरयल्लें. तें तरी तांणी वाडोवंक जाय आशिल्लें आनी तातूंत गांधींच्या निमाण्या वर्सांचें वर्णन बारकायेन दिवंक जाय आशिल्लें.

ह्या निमाण्या वर्सांची खबर मौलाना आझादांच्या 'India Wins Freedom' ह्या पुस्तकांत एके तरेन मेळटा, जाल्यार, ह्या पुस्तकाचें परीक्षण करतां करतां बरोवन जाल्ल्या लोहियांच्या 'Guilty Men of India's Partition' ह्या पुस्तकांत दुसरे तरेन मेळटा. मौलानांक फटी मारपाची खोड आशिल्ली. जाल्यार, लोहियांक फटी सोदून काडपाची संवंय आशिल्ली. प्यारेलालजींच्या 'The Last Phase' ह्या पुस्तकांत मौलानांच्यो कांय फटी मेळटात आनी सुधीर घोषांच्या Gandhi's Emissary ह्या पुस्तकांतूय मेळटात. पुणून दोगांनीय मौलानांक सांबाळून घेवपाचो यत्न केला. मौलानांक आडवो-उबो चिरपाचो यत्न केला तो फकत लोहियांनीच. कृपालानींनीय आपणाल्या ह्या पुस्तकांत मौलानांच्यो फटी उकत्यो केल्यात आनी म्हळां, Maulana's account is a curious mixture of facts and fancies. It is not a question of correcting a passage here and there. It would require a volume, as big as he has written, to correct all his mis-statements and mis-conceptions.

तशें जाल्यार कृपालानी हो volume कित्याक बरयनात? इतिहास जाणा जावंक सोदतल्यांक कृपालानीं कडल्यान हो volume मेळूंक जाय...

पत्र बरोवन विचारचें पडलें.





६—१०—१९७०

८. आयज एकलो आयिल्लो. ताणें एक scandle सांगलो. एकली बायल-मनीस स्वंय लग्न जावन धा वसां उपरांत घोवाक सोडून दुसऱ्यागेर वचून रावली...

हांवें ताका म्हळें, तातूंत अजाप कसलें? असल्यो जायत्यो केसी हांवें पळेल्यात. जायत्या घोवांक आपणाले बायलेंतलें स्त्रीत्वूच जागोवंक येना. तें जागोवपी जेन्ना तिका दुसरो कोणूय मेळटा तेन्ना ती घोवाक सोडून ताची जावन रावपाक तयार जाता. ती आपल्या स्त्रीत्वाक जागून रावता म्हूण तूं तिका 'पातकी' लेखतलो व्हय?

हाचे उपरान्त sex चे नितीच्यो खबरी आयल्यो. हांवें म्हळें, एक सांकेतीक नीत (conventional morality) आसा. ती समाजाचे नेम, धर्माचे समज असल्या गजालींक धरून 'घडयल्ली' आसता. दुसरी sex ची सभावीक आनी सैमाची एक नीत आसता — intrinsic and essential morality. ती जिणेच्या नेमांक धरून चलता. हे sex चे सभावीक नितीचो नेम असो — संभोग हें मोगाचें रूप वा expression आसूंक जाय. ज्या संभोगांत मोग ना, जातूंत काळजां एक जायनात (फकत कुडीच एक जातात) तो संभोग निती-भायलो — immoral. मागीर तो 'आपले' बायले कडेन वा 'आपल्या' घोवा कडेन घेतिल्लो आसलो म्हूण कितें जालें? ह्या संभोगांत आनी वेश्ये कडेन घेतिल्ल्या संभोगांत फरक ना.

हाचे उरफाटो, मोगाचें रूप — expression — म्हूण घेतिल्लो संभोग. काळजां एक जातकूच कुडी एक करपी संभोग. हो moral. मागीर तो परस्त्री वा परपुरुषा कडेन घेतिल्लो आसलो म्हूण कितें जालें?

ताका दिसिल्लें, हांव 'पोरण्या' मनाचो आसतलों म्हूण. देखून म्हजें हें मत आयकून तो म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावलो. हांवें ताका म्हळें, आमच्या समाजांत जी सांकेतीक नीत परंपरेन चलत आयल्या ती हे मुखार चलपाची ना. ती मोडून तिचे सुवातेर आमी नवी नीत घडयलिना जाल्यार, ती आपशींच मोडटली आनी अराजक माततलें. Sex ची एक नवी नीत आमकां, आयज न्हय जाल्यार फाल्यां, घडोवचीच पडटली. ही नवी नीत घडयतना आमकां एक नवें समाजशास्त्रूय उबें करचें पडटलें. ह्या नव्या समाजशास्त्राच्या नेमांचो आनी

जिका हांव sex ची सभावीक आनी सैमाची नीत म्हणटां, तिच्या नेमांचो मेळ जुळोवन हाडचो पडटलो... Sex चे essential moralityक उणी लेखपी सांकेतीक नीत कितलीय पोरणी आसूं, हे मुखार चलपाची ना.



९. आमी sex संबंदान येवजितात तेन्ना बायलांचें मन – तांची psychology – समजुनूच घेनात. म्हाका जें कितें तांचें मन थोडें भोव समजलां ताचे वयल्यान म्हाका दिसता, बायलांक संभोगाचें व्हडलें-शें म्हत्त्व दिसना. संभोगा परस मोगाक तांचे नदरेन म्हत्त्व चड. खंयचेय बायलेक कोणाचीय बायल म्हूण रावपा परस ताची प्रेयसी म्हूण जियेवप चड मानवतलें. तिच्यांतल्या स्त्रीत्वाचेर जो मोग करता 'ताची' जावन रावप, ताकाच आपलें सर्वस्व ओंपप हें तिचें सैम. Nature. खंय वाचिल्लें, उगडास जायना, पुणून एकल्यान म्हळां, Man's sexuality is a biological function whereas woman's is mainly a psychological phenomenon. Man's is an action. Woman's is a state. दादल्यांची sexuality संभोगाक सर्वस्व लेखता. बायलांचें तशें न्हय. बायलेचें सर्वस्व, तिचें काळीज. तें जो जागयता आनी जिखता ताका ती मागीर आपणाली कुडूय दिता. तिची कूड तिच्या काळजा फाटल्यान चलपी. जो बायलेचें काळीज जिखूंक जाणा तोच खरो 'घोव'. लग्नाचे घोव सगळेच खरे घोव नासतात. कांय बायलो जाल्यार असल्या घोवांनी कश्याय कश्यो वापरिल्ल्यो आसतात. असल्या घोवां पसून तांकां जीं भुरगीं जातात तांकां, म्हज्या मत्तान, illegitimate भुरगींच म्हणूंक जाय. आनी असल्याच बायलांक 'पातकी' लेखूंक जाय. Because they live in sin.





७–१०–१९७०

**१०.** आयज एकल्या कडेन लग्नाची सगळ्यांत बरी रीत खंयची हाचेर खबरी जाल्यो. हांवें म्हळें, हिन्दूंच्यो ज्यो चाली-रिती आसात तांतली 'कन्यादाना'ची चाल सामकीच गलवटी जाल्ल्यान ती भायरूच उडोवंक जाय. चलयेच्या बापायन आपल्या जांवयाक सांगप, 'हिका आतां मेरेन हांवें पोसली; आतां ती तुजें घर चलयतली, हे मुखार तूं तिका पोस...' हातूंत चलयांचो जो अवमान जाता तो सोंसपाचो न्हय. कन्यादाना फाटल्यान, चली बापायचे मालकीची वस्त हो विचार आसा. ती मालकीची वस्त जाल्ल्यान आदल्या काळा वेले बापूय ती कोणाकूय काडून दितालो. ''*इनाजीचें टाणें उटलें*'' असल्या म्हाताऱ्यांक लेगीत, आनी, जाका आनीक बायलो आनी भुरगीं आसात तांकांय!

कन्यादानाची चाल सोडली जाल्यार लग्नाची दुसरी बरी चाल खंयची?

हांवें म्हळें, लग्न म्हळ्यार निखटो legal adjustment असो समज आसत जाल्यार civil marriageची चाल आसा. पुणून हांव लग्नाक एक धार्मीक 'संस्कार' मानतां. देखून लग्नाचो एक धार्मीक विधीच सोदतां. आमच्यो धार्मीक चाली-रिती चलन आयल्यात तश्योच चलत दवरपाची म्हजी इत्सा ना. तांचे भितर बदल घडोवन हाडूंक जाय. हे नदरेन येवजितां तेन्ना हिन्दू धर्मांतूच म्हाका कन्यादाना परस बरी एक चाल दिश्टी पडटा. ती म्हळ्यार, 'समाश्रया'ची. काकासायबांनी ती जायत्या फावटीं लोकां मुखार दवरल्या.

हे चाली प्रमाण, जाका लग्न जावपाचें आसा तो न्हवरो आपणाक जाय ती व्हंकल सोदून काडटा आनी चलयेक आपूण मानवलो म्हणपाचें कळटकूच तो तिच्या बापायक वचून सांगता, 'हांव धर्म, अर्थ आनी काम जोडपा खातीर तुमचे धुवेचो आधार घेवंक सोदतां...' चलयेचो बापूय मागीर वासपूस करता — चलो कसो? कितें करता? कितें शिकला? आनी मागीर (तो मानलो जाल्यार, धुवेचें मत घेवन) ताका सांगता, 'धर्म, अर्थ आनी काम भोगतना तूं हिका अंतर दिवचो ना अशें उतर दी.' आनी चलो आपणालो जापसालदारकी वळखून '*नातिचरामि, नातिचरामि, नातिचरामि*' असो तीन फावटीं सोपूत घेता. उपरांतूच चलयेचो बापूय तांकां लग्न जावपाक मान्यताय दिता.

म्हाका ही चाल बरी दिसता.

आमच्या देशांत समाज-निवळावणेचें काम चडशें मुखार वचूंक पावूंक ना हाचें कारण, म्हज्या मत्तान, एकूच — आतां मेरेनच्या असल्या खंयच्याच कामाक धर्माची बसका मेळूंक ना. आगरकरां सारकेल्या सुधारकांनी लेगीत हीच चूक केल्या. सगळ्यांनी निवळावणेचें काम धर्मा पसून अलिप्त दवरलां. परिणाम? 'सनातन' समाज तसोच उरला आनी 'सुधारकां'ची एक वेगळी जात जावन पडल्या. तिका पाळां-मुळांच नात. समाज-निवळावणेची प्रेरणा जांणी अस्तमते कडल्यान घेतली तांकां समाजाची खरी निवळावणी करूंक केन्ना आयलीच ना.

आडवाद फकत दोगांचो — एक, विवेकानंदांचो आनी दुसरो, गांधींचो. राजा राममोहन रॉयांकूय हांचेच पंगतीक बसोवं येता. हांणी निवळावणेचें काम धर्मा पसून आनी त्या कामाक धर्माची नवी बसका दिवन सुरू केल्लें. धर्माक तांणी कडेक दवरलो ना. धर्म निवळायले बगर समाज निवळचो ना हें फकत ह्या तिगांकूच समजल्लें. देशांत थोडी भोव जी सुधारणा दिश्टी पडटा ती हांच्याच यत्नांक लागून. बाकीचे 'भोव थोडी' सुधारणा करूंक पावल्यात.



८–१०–१९७०

**११.** सकाळीं कपिलेश्वरी आयिल्लो. रसाळ उलोवपी. मास्टर दीनानाथांचो एक भक्त. हांवें ताका विचारलें, दीनानाथांक सोऱ्याचें व्यसन कशें लागलें?

ताणें जाप दिली, 'हांवें एक फावट ताका ह्या संबंदान विचारिल्लें, तेन्ना ताणें म्हळ्ळें, 'आयुश्यांत खूब सोंसलें रे हांवें!... म्हज्यांतलें मनीसपण मारतलों म्हण पियेतां... पुणून तें मरना पाड पडिल्लें!...'

*'एकच प्याला'*त लेगीत असलें वाक्य मेळत काय कितें, दुबाव आसा!

**१२.** दामोदर मावजो आपल्यो कांय कथा घेवन आयिल्लो. ताच्या कथांचें एक पुस्तक उजवाडावपाचें आमी येवजिलां. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत कोंकणींत जे नवे कथाकार फुडें सरले तांच्यांतलो एक हो. ताचे दर एके कथेंत कितेंय तरी आगळें आसता. एके कथे सारकी दुसरी कथा न्हय. कांय कथांनीं जाल्यार, एके एके नवलकाणयेचें वीं दिश्टी पडटा. ताची साधना खंड पडनासतना चलत रावली जाल्यार, तो कोंकणींतलोच न्हय, तर कांय वसांनी, देशांतलो एक व्हड कथाकार जावंक पावतलो. (असली सूप्त तांक आनी एकल्यांत हांव पळेतां. शीला नायकांत.)

मावज्या कडेन खूब उलोवणीं जालीं. बारीक पळेत जाल्यार ताणें व्हडलें-शें कांय वाचूंक ना. बाल्झाक वाचूंक ना. दोस्तोयवस्की संबंदान आयकूंक ना. मार्सेल प्रुस्ताची खबर ना आनी तॉलस्तॉयूय वाचूंक ना. सामकोच 'स्वयंभू' कथाकार! ताणें पुराय वाचला म्हणटा तो हॅरल्ड रॉबिन्स. तो ताचो 'आवडटो' लेखक.

हांवें ताका म्हळें, रॉबिन्स हालींचो. कितलीं वरसां तिगून उरत, सांगूं नज. कांय बरपी मर्दी बरेच तरतरतात. आनी मागीर, जिवे आसतनाच ना जातात. जे मेले उपरांतूय जिवे उरतात असले बरपी खूब थोडे आसतात. बाल्झाक, दोस्तोयवस्की, प्रूस्त, तॉलस्तॉय हीं बरपी असले. ते मेल्यार कितलींशींच वसां

जालीं. तरूय अजून जिवे उरल्यात. तांचीं पुस्तकां आमी वाचूंक जाय. रसीक ह्या नात्यानूय, आनी कथाकार ह्या नात्यानूय बी.

आनी मागीर ताका हांवें तॉलस्तॉयाच्या War and Peace ची खबर सांगली. म्हळें, येदी व्हडली नवलकाणी संवसारांत अजून कोणेंच बरोवंक ना. इतल्या पानांची नवलकाणी बरोवपी कोणूय फुडें जल्मा येत. पुणून येद्या तोलाची बरोवपी कोणूय जल्मत अशें म्हाका दिसना. सामको 'व्यास' हो! खंयचेय नवलकाणयेंत कितलींय पात्रां आसलीं जाल्यारूय तिगां-चौगांच मुखेल पात्रां आसतात. तॉलस्तॉयाचे War and Peace नवलकाणयेंत पांचश्यां वयर पात्रां आसात. सगळीं आपापले सुवातेर थीर. खंयचेंच पात्र अडेचें-शें दिसना. गरज नाशिल्लें दिसना. येदो आंवाठ आसपावपाची तांक आशिल्लो, येदी grand sweep आशिल्लो दुसरो बरपी मेळचो ना. तॉलस्तॉय म्हळ्यार, प्रतिभावंतांत प्रतिभावंत.

कथा आपलें medium म्हूण वेंचून काडलां ताणें. असलीं पुस्तकां वाचूंक जाय. हांव जाणां, कलेच्या मळार 'अनुकरण म्हळ्यार मरणू'च. पुणून कोंकणींतल्या नव्या कथाकारां भितर जें 'बीं' म्हाका दिश्टी पडलां ताका पोसवण मेळची म्हूण तांकां असलीं पुस्तकां वाचूंक लावंक जाय अशें म्हाका सदांच दिसलां.

मावज्याक हांवें म्हजे कडेन आशिल्लीं कांय पुस्तकां काडून वाचूंक दिलीं.





९–१०–१९७०

**१३.** खंय वाचिल्लें हाचो उगडास जायना. पुणून फ्रांसांतले बरपी खंय आपणाला बरपां एकामेकांक वाचून दाखयतात. एकामेकांक सुचोवण्यो करतात. ह्या सुचोवण्यांचो लाव घेवन खंय ते केन्ना केन्ना आपलें पुराय बरप परतें बरोवन काडटात.

गुस्ताव फ्लॉबेरान एक खेपे आपणाली एक नवलकाणी रशियेंतल्या एका नामनेच्या बरप्याक – तुर्गेनेवाक – वाचून दाखयली. ताणें ती आयकून फ्लॉबेराक कांय सुचोवण्यो केल्यो. आनी फ्लॉबेरान ह्या सुचोवण्यांचो लाव घेवन पुराय नवलकाणी परती बरोवन काडिल्ली! आन्द्रे जीदचे वासरिकेंतूय वाचिल्लें. ताणेंय आपल्या इश्टाच्यो सुचोवण्यो मानून घेवन जायते फावटीं आपणालें बरप परतें निवळावन काडलां.

सिमॉन द बोवोआरचे आपजिणेंत म्हाका फ्रांसांतल्या बरप्यांच्या संवसाराचें आनीक एक चित्र पळोवंक मेळिल्लें. हे बरपी एकामेकां कडेन वाद घालतात, वादांत झगडीं करतात आनी हीं झगडीं केन्ना केन्ना रणखेत्रांचें रूप घेतात!

फ्रांसांतल्या बरप्यांचो हो संवसार पळोवन एका इंग्रज बरप्यान खंय एक खेपे म्हळ्ळें, there is something comic in taking literature so seriously.

इंग्रज लोकांक अशें दिसपाचेंच! कित्याक, तांणी literatureक केन्ना इतलें seriously घेतलें ना. इंग्लंडांतले व्हडले व्हडले बरपी लेगीत खंय एकामेकांचें बरप वाचिनात. एक खेपे एकलो अमेरिकन पत्रकार इंग्लंडाक पावलो आनी ताणें थंयच्या एका नांवाजल्या बरप्याची मुलाखत घेतली. पळेत जाल्यार ह्या नांवाजल्या बरप्यान इंग्लंडांतल्या दुसऱ्या एका नामनेच्या बरप्याचें – रुडियार्ड किप्लींगचें – एकूय पुस्तक वाचूंक नाशिल्लें!

कोंकणी बरपावळीची वाड जावची आसल्यार आमकां हांगा फ्रांसांतले सारकें 'वातावरण' उबें करचेंच पडटलें. बरप्यांनी एकामेकांचें बरप एकामेकांक वाचून दाखोवप, ताची 'टीका' करप, वाद उप्रासून काडप हीं सगळें सामकें गरजेचें जावन पडलां. कोंकणींतूच न्हय, अख्ख्या देशांत.





**१४.** तीन वरसां पयलीं हांवें *राष्ट्रमतां*तल्यान आयतारा आयतारा म्हजे हिमालयांतले भोंवडेचे उगडास कोंकणींत बरोवन उजवाडा हाडिल्ले. हरिद्वारा थावन गंगोत्री मेरेनचे भोंवडेची खबर सांगतां सांगतां बारा आयतार गेले. अजून केदार बद्री मेरेनचे वीस पंचवीस दिसांचे भोंवडेची खबर सांगपाची उरिल्ली. तीय सांगतलों आशिल्लों. पुणून अवचीत म्हजें जपानाक वचपाचें थरलें. हाका लागून गंगोत्री उपरांतचे भोंवडेची खबर बरोवपाची उरली.

सुमार वरसा-भरयान सोळा-सतरा वर्सांची एकली चली मेळ्ळी. मंगेशीं गिमांत आवय-बापाय वांगडा येवन राविल्ली. हांव अमको म्हणपाचें कळना फुडें तिणें म्हाका म्हळें, 'तुमी हिमालयांतले भोंवडेची खबर मदींच कित्याक बंद केली? हांव ती मोठे उमेदीन वाचतालें. हांवें तुमचे सगळे लेख कातरून दवरल्यात. म्हज्याय मनांत हिमालयाची भोंवडी करपाचें घोळटा.'

आतां, हे चलयेच्या मत्ताक मोल कितलें आसतलें! बाबडेन व्हडलें-शें कांय वाचूंक लेगीत ना जातलें. तरी आसतना तिचें मत्त आयकून, आनी म्हज्या लेखांनी तिच्यांत हिमालय पळोवन येवपाची उमेद जागयल्ली पळोवन म्हाका जी खोस जाल्या ती सुमाराची न्हय!

आयज म्हाका मुंबयंतल्या एका भुरग्याची चीट आयल्या. ताणें म्हजें *'जपान जसा दिसला'* हें मराठी पुस्तक वाचलें आनी ताकाय जपान पळोवन येवपाची इत्सा जाली! भुरगो कॉलेजांत शिकपी. वीस-एकवीस वर्सांचो आसुंये. पुणून ताची चीट वाचतकूच म्हाका *'पुंडलिका भेटी परब्रह्म'* आयिल्ल्याची खोस जाल्या!

बरप्याक वाचप्यांचें मत्त समजून घेवपाची केदी भूक आसता, पळेली? 'देवां'चोच गूण हो!!!





१०—१०—१९७०

**२५.** काल सांजचो भायल्या वारांदार सदचे भाशेन वॉल्तेरार बशिल्लों आनी मुखावेली रुखावळ नियाळटालों. दीस पडपाक अजून कळाव आशिल्लो. इतल्यांत मुखावेले रुखावळीर नारंगी उजवाडाचो शिंवर पातळ्ळो आनी जशी कितें धर्तरेचो ल्हंवेन ल्हंव फुलून आयिल्ले वरी दिसली.

असले देखाव दिसतकूच हांव वेगळ्याच एका संवसारांत पावतां.

हांव येवजूंक लागलों. ईश्वराचें आनंदरूप म्हणटात तें हेंच न्हय? गंधांचे आनी गितांचे सुंदरसायेन तें आमचे भोंवतणीं पातळ्ळेलें आसतना — तिनूय त्रिकाळ वेगळ्या वेगळ्या रुपांनीं नाचता आसतना — आमकां तें सपसप 'दिश्टी' कशें पडना? ईश्वराच्या ह्या आनंदरुपाक दोळे आसात काय? आसूंक जाय. तें आमकां पळेना जावंक जाय. आपणालें सुंदर रूप आमी तोखेनात म्हण 'पाड पळल्लें हांचें!... अरसिक खंयचे कडले!...' अशें तें आमकां म्हणटा काय?

ईश्वराक जे लोक 'सखा' म्हणटात तांचे मुखार, म्हाका दिसता, ताचें हेंच रूप आसता जावंक जाय. तांकां मळबाच्या निळ्या विस्तारांत, रुखावळीच्या पाचव्या आवाटांत आनी फुलांच्या जावं पिसोळ्यांच्या रंगांत 'ताचीं' पावलां अशींच दिश्टी पडटात जावंक जाय.

ही देखाव पळोवन आयज म्हजें हृदें खोशयेन फुलून आयलें आनी काळीज किरणांच्या तालार पावलां घालून नाचूंक लागलें.





**१६.** तॉलस्तॉयाचे जिणेंतली एक खबर हांव नकळच आशिल्लों. ताका खंय आडसठ वर्सां जाल्लीं. लग्न जावन चवतीस वर्सां जाल्लीं. भुरगीं सगळीं वयार आयिल्लीं. दुसरे धुवेचें लग्न  थारिल्लें, आनी –

ताची बायल, बावनाव्या वर्सा, तिचे परस पिरायेन कितलोसोच ल्हान अशा एका मनशाच्या मोगांत पडली! तॉलस्तॉयाक लज दिसली. तो खंती जालो आनी ताणें 'आपणाच्यान हें सोंसूं नज' म्हूण तिका चीट बरयली.  'काडून वचपाचो'य ताणें बेत केलो.

पुणून... कांयच जालें ना! तोय काडून गेलो ना आनी तिणेंय मोग सोडलो ना! दोगांयनी एकामेकांक जीण असह्य मात करून दवरली.

जाणटी बायल जेन्ना 'मोगांत पडटा' तेन्ना तिका 'धरबांद' उरना. तॉलस्तॉयाची बायल जाचो मोग करी तोच अखेर तिका वाजेलो. ताका तो मोग सोंसना जालो. तो तिका चुकोवंक लागलो. आनी निमाणें,आपलो अवमान जालो अशें दिसतकूच तिणें ताका सोडलो. 'दाट काती'चो मनीस म्हूण गाळ संवन!

म्हाका XXX चो उगडास जालो. दिल्लीक हांवें तिका पळेल्ली. तरणेपणांत ती सुंदर आशिल्ली जावंक जाय. आतांय, पन्नास भर जाल्लीं आसुनूय, ती सुंदर दिसताली. तिचें लग्न जावंक नाशिल्लें. लग्न जावन आपूण आपणाक बांदून घेवची ना असो तिणें सोपूत घेतिल्लो. ब्रह्मचर्याक पाळो दिवन रावली. राष्ट्र-सेवेचीं जायतीं कामां तिणें केल्लीं. चाळीस भर जालीं तेन्ना तिका दादल्याच्या सहवासाची भूक लागली. Sexचे नदरेन न्हय. तो तिणें केन्ना जागोच जावंक दिवंक नाशिल्लो. पुणून आपणाक घोव, ना जाल्यार भाव, ना जाल्यार पूत, कोणूय तरी आसूंक जाय अशें तिका खोलायेन दिसपाक लागलें आनी ती मेळत ताका 'धरूंक' लागली.

कितले तिका चुकयताले! तिचो मोग कोणाकूच सोंसनाशिल्लो. हरशीं भांगरा सारकी बायल. पुणून तिचे जिणेंत जें कितें रितें उरिल्लें तें भरून येनाशिल्लें!

तॉलस्तॉयाचे बायले कडेन हिची सर करूं नज. पुणून जाणटे बायलेच्या मोगाचो किंवाटो दोगांचोय सारको.

तॉलस्तॉयान आपल्यो डायऱ्यो बरयल्यात. ताचे बायलेनूय बरयल्यात. इतल्यो प्रांजळ डायऱ्यो खंय त्यो की 'चोरून' वाचपा सारक्यो. वाचच्यो पडल्यो.



११–१०–१९७०

**१७.** सकाळीं एकलो मेळिल्लो. म्हणूंक लागलो, 'आमच्या देशांतल्या विद्यार्थ्यांनी जो अच्छेव मांडला तो देशाक फोंडांत घालतलो. बऱ्याचीं चिन्नां न्हयत हीं. वचत थंय ते आतां दंगली करूंक लागल्यात.'

म्हाका कुर्गं जालें. हांवें ताका विचारलें, 'विद्यार्थ्यांनी दंगली करपाच्यो न्हय अशें तुजें म्हणणें? तशें जाल्यार मागीर तांणी कितें करपाचें तें सांग पळोवंया! तांकां जें आयज शिक्षण मेळटा ताचो उपयोग कितें? हें शिक्षण घेवन स्वतंत्र पद दीन तांकां चलूंक येना. स्वतंत्र धंदो करतले म्हळें जाल्यार, तेंय जमना. बरें, शिकले म्हूण बरी नोकरी तरी मेळपाची आस्त आसा व्हय? हरशीं, शिकिल्लो मनीस बेकार उरूंक जायनाशिल्लो. बेकार उरूंक जाय तो शिकूंक नाशिल्लो. पुणून आमच्या देशांत शिकूंक नाशिल्लो खंयच बेकार उरिल्लो दिश्टी पडना. बेकार उरता तो फकत शिकिल्लोच मनीस. न्हय, मनीस शिकलो म्हणटकूच तो बेकार पडूंकूच जाय असोच जसो कितें आमी नेम करून दवरला. आमचें पुराय शिक्षण unemployment oriented! हे परिस्थितींत विद्यार्थ्यांनी दंगली करपाच्यो न्हय जाल्यार, कितें करपाचें? तांचें रगत थंड पडूंक ना. ते दंगली करतात म्हूण हांव तांचेर शिणना. हांव शिणटां, तांणी जितल्यो दंगली करूंक जाय आशिल्ल्यो तितल्यो ते करिनात म्हृण.'

म्हाका वायट दिसता तें एकूच गजालीचें. विद्यार्थ्यांच्या असंतुश्टपणाक फावो ती दिशा दाखोवपी फुडारीच आमच्या देशांत आयज ना. तो आशिल्लो जाल्यार देशाचें रूप बदलतलो आशिल्लो.

अशा वेळार मागीर म्हाका गांधींचो उगडास येता.





**१८.** ताचेच कडेन हिन्दूंच्या सभावा संबंदान उलोवणीं सुरू जालीं. हांवें म्हळें, 'जिणेंत समजून-करून बदल घडोवन हाडपाक हिन्दू केन्नाच तयार नासता. परिस्थिती जे बदल घडोवन हाडटा ते तो निरुपायान मानून घेता आनी मागीर अभिमांनान तांकांच दसून रावता. हिन्दू सारको 'जडधर्मी' मनीस संवसारांत दुसरो आसचो ना.'

तो म्हणूंक लागलो, 'तूं रागार जावं नाका, हिन्दूंक दुशण दिवपा वेळार तुजी जीब बरी खरवते वरी चलता. क्रिस्तांवांचीं वा मुसलमानांचीं उणीं दाखोवचीं पडटात तेन्ना मात तुजी वाचा धरिल्ले वरी जाता. अशें कित्याक?'

हांवें जाप दिली, 'हो देश हिन्दूंचो. सावरकरी नदरेन न्हय, हिन्दूं भायर जितलेय लोक आसात त्या सगळ्यांक हांगा सुवात आसा. पुणून ह्या सगळ्यांचेर संस्कार पडल्यात ते हिन्दूंचे. हिन्दुस्तान संस्कारान हिन्दू. ताचें राजकर्ण हिन्दू. समाजकर्ण हिन्दू. खंयचीय चळवळ घे, तिचो संस्कार हिन्दूच आसतलो. हिन्दूंक घडये हाची जाणवीक लेगीत नासतली. हे परिस्थितींत कसलीय निवळावणी करतलो जाल्यार, पयलीं हिन्दूंचेरूच हात घालचो पडटा. हिन्दूधर्म बदल्ले बगर, हिन्दूंची नदर निवळ्ळे बगर ह्या देशांत कसलोच बदल घडून येवपाचो ना. लोकशाय तिगपाची ना, समाजवादूय येवपाचो ना. तें कित्याक, गरिबीय ना जावपाची ना... आमचे गरिबीचें– आस्पती मळा वेल्या दळडिराचें– आनी हिन्दू धर्माचें दाट नातें आसा...'

आनी ताका हांवें समजावन सांगलें, 'क्रिस्तांव, मुसलमान बी जमातीं भितर म्हाका उणीं दिश्टी पडनात अशें तूं समजूं नाका. पुणून तांकां सुधारपाक लेगीत पयलीं हिन्दू लोकांक सुधारूंक जाय. क्रिस्तांव, मुसलमान बी जमाती म्हळ्यार, आमचे हारशे. ह्या हारशांनी आमी आमचें तोंड पळेतात आनी तें विद्रूप दिसलें म्हणटकूच हारशाकूच गाळी संवंक लागतात! हें समा न्हय. क्रिस्तांव, मुसलमान बी बदलतले. हिन्दू बदल्ले उपरांतूच...'





**१९.** दुसरे चलता तसो हांव चलूंक लागलों जाल्यार म्हजे चलणुकेचें स्वतंत्र मूल्य खंय उरलें? दुसऱ्याचे बरे वा वायट चलणुकेचेर हांव म्हजे चलणुकेचे नेम थारावं? इतलो पराश्रयी हांव कित्याक जावं? म्हजी चाल म्हजे सुवादीन आसूंक जाय.

ख्रिस्ताक एक खेपे कोणें एकल्यान विचारलें, 'आमचेर अन्याय करतल्याक तूं क्षमा कर म्हणटा. हांवें एकल्याक सात खेपे क्षमा केली. तरी आसतना तो निवळना. आतां हांवें ताका कितले खेपे क्षमा करची?'

ख्रिस्तान जाप दिली, 'seventy times seven सातांक सत्तरांनी गूण. तितले फावटीं ताका क्षमा कर.'

'आनी तरी आसतना तो बदल्लो ना जाल्यार?'

'तूं तुजो धर्म सोडूं नाका. तो बदलसर क्षमा करीत राव.'

कित्याक? क्षमेचे निजाचे नेम आसात, त्या नेमांक धरून ती चलता, म्हूण!

'बऱ्याक बरें... वायटाक वायट' ह्या – जश्याक तश्या – नेमान आमी चलपाक लागले जाल्यार, आमी कशें चलचें हें आमच्या हातांत उरचें ना. तें दुसरे थारायतले. आमची चाल दुसऱ्यांनी थारावप आमकां सोबतलें व्हय?

हिन्दुस्तानाचो पांच हजार वर्सांचो इतिहास बारकायेन नियाळ्ळे उपरांत हांव एका निर्णयार पावलों. ह्या देशाक संवसारांतलो एक आगळो देश म्हण मुखार येवपाचें आसत जाल्यार, ताणें हिन्दू, क्रिस्तांव, मुसलमान, बौद्ध – सगळ्या नदरांचो समन्वय घडोवन हाडून एक नवी संस्कृताय घडोवपाचो वावर करचोच पडटलो. हिन्दुस्तानाक जर कसलेंय मिशन फुडें व्हरपाचें आसत जाल्यार, तें हेंच. हें 'मिशन' मुसलमानांक वा क्रिस्तांवांक समजना जाल्यार, तांकां हांव कितें करूं? हांव तें 'मिशन'च सोडून दिवं? आनी ते चलतात तसो हांवूय चलूं? तांकां म्हजे गुरू करूं? हांवें seventy times seven यत्न करूंक जाय.

पुणून ही इतली सादी गजाल आमच्या हिन्दुत्ववादी भावांक समजना. हिन्दू धर्म आनी हिन्दू संस्कृताय सभावानूच सर्वधर्मी. हो आपलो सभाव सांबाळपांतूच खरें 'हिन्दुत्व' आसा हें तांकां समजना.

केन्ना केन्ना 'मुसलमान तुमचें आयकुचे नात' म्हूण म्हजे कडेन वाद घालपी भावांक हांव तिडायतां आनी म्हणटां —

'तुमचो हिन्दू धर्म मुसलमानी. हिन्दू धर्माची 'मुसलमानी आवृत्ती' ती. तुमचे गुरू ते. तुमच्या धर्माक तुमी कसलें रूप दिवचें हें थारावपी ते. तुमच्या हातांत कांय ना. तुमची बुद्द तुमी तांचे कडेन घाण दवरल्या.'

असलें कितें‍य हांव उलयलों म्हणटकूच ते तिडटात. तिडुंदी. मातशे येवजूंक तरी लागतले...!





१२–१०–१९७०

**२०.** केन्ना केन्ना कितल्यो साद्या गजाली मनशाक 'साक्षात्कार' घडोवन दितात, पळे!

आयज म्हाका वेगीन जाग आयली. हांतुळणा वेलो उठून भायर गेलों तेन्ना काळखांचें पांगरूण अचळय कडेक काडून सूर्य उठठालो. जसो कितें ह्याच खिणाक संवसार घडला अशें म्हाका दिसलें. इतलो नवो-ताल्ल आयचो हो दीस म्हाका दिसलो आनी, हांव एका वेगळ्याच मुडांत पावलों.

येवजूंक लागलों. लाखांनी, कोट्यांनी वर्सां जालीं, दीस सदांच असो उदेता. तरी आमकां आयचो दीस नवो-ताल्ल कसो? मळबाच्या अंत-पार नाशिल्ल्या निळ्या विस्तारांत संवसाराच्या पोरणेपणाचें कसलेंय चित्र दिसता जाल्यार पळोवपाक हांवें चौंयवशांनी नदर भोंवडायली. भोंवतणच्या पाचव्याचार आंवाठांतूय संवसाराच्या जाणटेपणाचें चिन्न दिसता जाल्यार पळेलें. सगळे कडेन नव्या-ताल्लपणाची एक अमृताची झर व्हांवत आशिल्ली दिश्टी पडली. इतलेंच न्हय तर ही झर एका सारकी खंड पडनासतना युगान युगां व्हांवत आसा म्हणपाचीय एके तरेची जाणवीक जाली.

हे झरीचें मूळ खंय आसत?

पोरण्यांतलो पोरणो आसूनय संवसार अजूनय नवो करकरीत आसा आनी हांव मात जल्माक आयल्यार अजून पंचेचाळीस वरसां लेगीत भर जावंक नात तरूय इल्लें इल्लें करून 'जाणटो' जायत चल्लां...! हें अशें कशें?...

आनी अचकीत, हे अमृताचे झरेचो एक थेंब तरी चाखूंक मेळचो म्हण म्हजो जीव आंवडेवंक लागलो आनी म्हज्यांत कसलो तरी बदल घडूंक लागला म्हणपाचें खोलायेन दिसपाक लागलें.

हांवें सूर्या कडेन पळेलें.

ताच्या गळ्यांत स्पर्श-मणयाचो एक हार हमकळटालो.





**२१.** म्हाका केन्नाय कोणूय कुड्डो मनीस दिश्टी पडलो म्हणटकूच कितें-शेंच जाता. एके खणींत देवलां आनी अवचीत खण पुरवल्या अशें कितें-शें दिसूंक लागता आनी मागीर हांव आकूळ-पिकूळ जातां.

जांकां दोळे नात आनी देखून जांकां हे धर्तरे वेले रंग आनी सैमाचीं वेगळीं वेगळीं रुपां दिश्टी पडनात अशे कितले लोक ह्या संवसाराचे फाटीर चलतात, भोंवतात जातले? पन्नास कोटी? पुराय हिन्दुस्तान देशाची लोकसंख्या भरत इतलो लोक दोळे नासतना आसप? म्हाका हो आंकडोच आयकून थरथरो भरिल्ले भाशेन जाता.

कांय वर्सां पयलीं हेलन केलर दिल्लीक आयिल्ली. तिका पळोवपाक गचमुंडी जाल्ली. हांवूय ते गचमुंडींत आशिल्लों. बावडेचो संवसार कसो कितें आसतलो हें येवजून हांव कासावीस जाल्लों. काकासायबांक हांवें म्हजी ही व्यथा सांगली तेन्ना तांणी म्हाका हेलन केलरचे आपजिणेचीं दोन पुस्तकां वाचपाक दिलीं आनी म्हळें, 'ह्या पुस्तकां भितल्ल्या एका वांट्याच्या गुजराती अणकाराक हांवें प्रस्तावना बरयल्या तीय वाच.'

प्रस्तावनेक तांणी नांव दिल्लें, *'नेत्र विनानी नेत्री.'*

तिची ही आपजीण वाचून सोंपयली तेन्ना ती खरीच *'नेत्री'* आशिल्ली पळोवन अजापांत पडलों. हिका दोळे नात. कानूय नात. म्हळ्यार, हिका दिश्टीय पडना, आयकुंकूय येना! आनी तरी आसतना हिणें हाताचीं बोटां, पांयांचे तळवे हांचो आधार घेवन संवसाराचें जें निरीक्षण-परीक्षण केलां ताका सुमारूच ना. ही 'प्रज्ञाचक्षु' बायल! हांवें प्रज्ञाचक्षु कसो आनीक एक म्हा-पुरूस गुजरातेंत पळेला, जैन पंडित सुखलालजी. आनी, म्होंवां-मुसांची बारकायेन नियाळणी करून तांचेर मोटे मोटे ग्रंथ बरोवपी ज़िनिवांतल्या विज्ञानवीर हुबेराची खबर खंय तरी वाचल्या. धृतराष्ट्र आनी सूरदास हांकांय हांव विसरूंक ना.

काल म्हज्या हातांत जॉन विल्सनचें Travelling Blind हें पुस्तक आयलें. हांवें तें एके बसकेंत वाचून सोंपयलें. अख्ख्या संवसाराचे भोंवडेचें पुस्तक हें. ही भोंवडी करपी आनी तिची खबर रसाळ करून सांगपी जॉन विल्सन हो blind! दोळे नाशिल्लो! ताची प्रज्ञा, मेधा, कल्पना, विनोद बी सगळें पळोवन हांवें तोंडांत बोटां घालीं! दोळे नासतना हाणें हें इतलें कशें 'पळेलें'? काय, हाका दोळे नात म्हुण्णूच इतलेंय हें इतले बारकायेन ताका 'दिश्टी' पडलें?





१३—१०—१९७०

**२२.** आयज म्हाका कित्याक लागून कोण जाणा, XXXX XXचो उगडास आलो. कितलेशे दीस जाले, दिश्टी पडूंक ना! वासपूस केली. तो खंय आसा हें कोणूच सारकें सांगूंक नकळ.

XXXX XX एक विचित्र मनीस. भेस, भास, चाल सगळें जगा भायलें. इतलें विपारिताचें की वळखीचे सगळे ताका पिसो म्हूण वळखतात.

ताचीं जायतीं पिशेपणां आसात. तांतलें 'सोडप' हें व्हडलें पिशेपण. त्रिशतांव ब्रागांझ कुन्यांक पुर्तुगेजांनी धा वर्सांची बंदखण फरमायली तेन्ना हाणें खोमीस सोडलें, न्युटी मांडली. कांय म्हयन्यांनी गांधींची हत्या जाली. तेन्ना हाणें जोतें सोडलें. 'भायले' जातींतले चलये कडेन लग्न जालो म्हूण सोयरे शीः थूः करपाक लागले तेन्ना घर सोडलें. ताणें आयजवेर कितें कितें सोडलां जायत, हाचो हिशोब ना. सोडूंक नात तीं मात आपलीं पिशेपणां!

हरशीं, गोंयांत जायतें उद्योग आशिल्ले. पुणून हाका गोंयच्या मातयेचो मोग. हे मातयेंतल्यान रंग तयार करूंक येतात आनी ते डिस्टेंपरा परस बरे जातात असो हाणें सोद लायलो. पुणून धंदो करतलो जाल्यार भांडवल नाका? तें नाशिल्लें! अखेरेक एक दीस उबगून ताका गोंयूय सोडचें पडलें!

मुंबय गेलो. पुणून रावतलो खंय? करतलो कितें? गांठीक थोडे पयशे आशिल्ले. ते वाटायले आनी उपनगरांतले एके गरीब वसतींत एक ल्हानसो पसरो घालो. तो घरकान्नीक सुवादीन केलो. 'हांगा रांद आनी जेव' अशें तिका सांगून आपूण वडाळ्याक मठांत वचून रावलो.

दादरच्यान गिरगांवां येवचें जाल्यार, हाणें चलून येवचें. एक तर ट्राम बसी खातीर खर्चुंपाक पयशे नासताले आनी दुसरें म्हळ्यार, चलपाचें पिशें लागिल्लें. 'जो चलता ताचें भाग्यूय चलता' देखून '*चरैवेति चरैवेति*' हें तत्व पटिल्लें.

गिरगांवांत दुसरो एकलो पिसो आशिल्लो. ताका एक कोंकणीचें पिशें आनी, पिशयांक आपलें भोंवतणीं जमोवपाचें दुसरें पिशें. दोगांकूय बरें पडपाक लागलें.

गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना कोंकणींत शाळा सुरू जावंक जाय हें पिशें आमकां लागलें. पुस्तकां नाशिल्लीं. तीं तयार करून घेतलीं. पुणून तीं छापप कोणें? पयसो खंयच्यान हाडप? हांव मुंबय गेलों आनी कोंकणीचें पिशें जांकां लागलां असल्या मुंबयंतल्या गोंयकारांची एक बसका आफयली. थंय पयशांचो प्रस्न मांडलो. पांचशीं, सातशीं रुपये थंयच जमले. उरिल्ले 'पळोवंया' म्हूण कांय जाण

जमोवपाक मुखार सरले. म्हजो एक हुसको उणो जाल्लो.

बसका सोंपतकूच हांव गाडी धरून घरा वचपाक चर्नीरोड स्टेशनार वतालों. वाटेर म्हाका कोण उलो मारतालो तो हांवें आयकलो. हांवें फाटल्यान पळेलें, जाल्यार XXXX XX फाटल्यान तुरतुरीत येता!

म्हऱ्यांत पावतकूच म्हणूंक लागलो, 'म्हाका तुजे कडेन अस्वडीं उलोवपाचें आसा. तू जाणां, हांव जोडकार न्हय. म्हजे कडेन पयशे नात. पुणून पयश्यांक लागून कोंकणी शाळांचो वावर अडून उरूंक जायना. हांवें पय-पय एकठांय करून जें जमयलां तें म्हजें सगळें भांडवल तुका दिवन उडोवचें अशें येवजिलां.' आनी शंबर-शंबरांच्या नोटींचो एक ल्हानसो कवळो– सुमार हजारभर रुपये– ताणें म्हज्या हातांत दिलो!

म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळळ करून दुकां व्हांवलीं. कोंकणी आतां कशीच उबंत पडपाची ना हाची म्हाका आतां खातरी जाल्ली!

हांवें ताका म्हळें, 'जेन्ना अडून उरता-शें दिसतलें तेन्ना तुजे पयशे हांव मागून घेतां... ते मेरेन ते तुजेच कडेन आसूं दी...'

ताणें खूब आग्रो केलो. पुणून हांवें ते घेतले नात. मुखारूय ते मागपाचो प्रसंग आयलो ना. पुणून त्या दिसा म्हाका एके तरेचो साक्षात्कार जाल्लो.

म्हज्यांतली आस्तिकता घट करपी असल्या ह्या मनशाक हांव कसो विसरन? केन्ना केन्ना म्हाका ताचो उगडास येता.





**२३.** निरद चौधरी म्हळ्यार आमच्या देशांतलो एक विक्षिप्त मनीस. पुणून तो बरयता तें मात जाग हाडपा सारकें आसता. तो आपणाल्या बरपांत आमकां चिमटे काडटा, कुटल्यो मारता, खातकुतल्यो करता आनी केन्ना केन्ना सणकुटेर मणमणांत फुलयता. Continent of Circe ह्या पुस्तकांत ताणें हिन्दू आदर्शांच्यो ज्यो तिसत्यो-वादऱ्यो केल्यात त्यो वाचून बुद्द आशिल्लो मनीस अस्वस्थ जावंकूच जाय.

आयज पोरण्यो कात्रणां चाळटालों. तातूंत सट्ट करून म्हजी नदर ताच्या Pervasive Parasitism ह्या लेखाचेर पडली. थंयच बसून तो लेख हांवें वाचून सोंपयलो.

तो म्हणटा, 'ह्या देशांतल्या लोकांक वेगळ्या वेगळ्या वादांची सुमारा भायर ओड. राष्ट्रवाद म्हणूं नाका, समाजवाद म्हणूं नाका, जातीवाद म्हणूं नाका, सगळेंच वाद हांगा चलतले. वादांची इतली ओड संवसारांत आनीक खंयच दिश्टी पडना. पुणून ह्या सगळ्या 'वादां'त एकूच वाद सगळ्यांक बरो समजला. सगळ्यांक बरो पचला. तो म्हळ्यार, 'बेंदल्ल-वाद'. Parasitism. दुसऱ्याच्या खर्चार जियेवपाचो वाद. ह्या वादाचो सगळ्यांत व्हडलो प्रतिनिधी आमचो फुडारी. फुडार - लोकांचे जोडीचेर - आपलो हक सांगून जियेवपी. उपरांत येता उद्योगपती. फुडाऱ्यांच्या सोयऱ्यांक आपले कंपनींत कामाक लावपी आनी आपलीं कामां सादपी. उपरांत येता कामगार : उद्योगपतीचे जोडीचेर मत्सरी नदर लावन बसपी. ते भायर, व्हडलेंशे त्रास घेनासतना डिग्री वा डिप्लोमा घेवन व्हडल्या पगाराची सरकारी नोकरी जोडूंक वावुरपी आयचो विद्यार्थीय ह्या वादाचो एक प्रतिनिधी.

ह्या बेंदल्ल-वादाचीं पाळां-मुळां खंय राष्ट्राचे पुराय जिणेंत खोल मेरेन पातळ्ल्यात. ह्या वादाचें मूळ खंय आसा? निरद चौधरी जाप दिता: काम आनी श्रम चुकोवपाचे वृत्तींत. The fundamental urge in Indian life - which is avoidance of work and labour.

ह्या वादाचेर उपाय कितें? निरद चौधरी कडेन हाची जाप आसा-शी दिसना. तो जाप दिना. 'रेडिमेड' जाप दिवप हें घडये ताचें काम नासुंये. प्रस्न मांडलो

आनी त्या प्रस्नाचें मूळ खंय आसा हें दाखोवन दिलें म्हणटकूच ताचें काम सोंपलें.

प्रस्नाचें मूळ दाखोवन दिवप हीय उपाय सुचोवपाची एक वाट न्हय?

म्हाका गांधींचो उगडास जालो. टॉलस्टॉयाच्या What then we must do पुस्तकाचो उगडास जालो. थोरोचें Walden दोळ्यां मुखार उबें रावलें. विल्फ्रेड वॅलॉकचें Off the beaten track येवजलें.

शी:! आमचें सगळेंच चुकलां. न्हय, भयंकर चुकलां!





१४—१०—१९७०

**२४.** मोहन रानडेक हांवें म्हळ्ळें. 'तुज्या *सतीचे वाण* पुस्तकाचेर तुर्ताक जो वाद चल्ला तो बंद पडूंक दिवं नाका. तो तसोच चलत दवर. पुस्तक बरें खपतलें.'

बरीं पुस्तकां लेगीत खपोवपाक दुसरी वाट ना ह्या देशांत!

आयच एकलो मेळ्ळो. म्हणूंक लागलो, मोहन रानडे आपणाक मार व्हडलो समजता काय कितें! आत्मकथा बरोवप म्हळ्यार केदीं आपसुलादपणां!

हांवें विचारलें. 'तूवें वाचल्या व्हय ताची ही आत्मकथा?'

'ना' म्हण जाप मेळटकूच हांवें ताका सांगलें, 'हांवें वाचल्या. इतलेंच न्हय तर ती वाचून सोंपयली तेन्ना म्हज्या दोळ्यांनल्यान दोन दुकांय गळ्ळीं. खूब बरी बरयल्या ताणें ती.'

पुणून ताचो नास्तिक सभाव खंय वतलो? तो म्हणूंक लागलो, 'ताणें खंय बरयल्या ती? ताका XXXXन ती बरोवन दिल्या.'

म्हाका भिरभिरी मारली. हांवें म्हळें, 'अब्बा! जाणें ताका ती बरोवन दिल्या ताका म्हजी आत्मकथा बरोवन दी म्हूण सांग पळोवंया!'

अशें आसतना तो वाद घालूंक लागलो — 'आत्मकथा बरोवपा येदो व्हड मनीस काय कितें तो? ताचे परस अदीक सोंशिल्ले लोक आसात. तांणी कोणेंच आत्मकथा बरयल्यो नात मू?'

हांवें म्हळें, 'आत्मकथा बरोवपी मनीस व्हड आसूंक जाय म्हूण तुका कोणें सांगलें? खंयच्याच व्हड मनशान आत्मकथा बरोवंक ना. श्रीकृष्णान बरोवंक ना. बुद्धान बरोवंक ना. ख्रिस्तान बरोवंक ना. गांधीन बरयल्या. पूणून ती 'आत्मकथा न्हय' अशी मखल्लाशी केल्या. खरें म्हळ्यार, तांणीं बरोवंक जाय आशिल्ल्यो. बरयल्यो नात ती तांची चूक... हाचे उरफाटें, जांणी आत्मकथा बरयल्यात ते सगळेच व्हड मनीस आशिल्ले अशें हांव मानूंक तयार ना. कांय जाण आल्यार आमचे येदेच आशिल्ले. पूणून नांवाडेते जाल्ले. आमचे परस अदीक कामां केल्लीं तांणीं. पूणून जांकां आमी 'व्हड' मनीस म्हणटात तांतले ते नाशिल्ले.

मागीर म्हाका ताका एक लॅक्चरूच दिवचें पडलें! हांवें ताका विचारलें, 'कथा-काणयो वी वाचता मूं तूं? तातूंत कितें आसता? कोणाचेंय तरी जिवीत मूं? वा जिविताचें एक ल्हानशें आंग मूं? आनी, कथा-काणयांतलो हो 'कोण'

कोणूय आसूं येता! चोर आसूं येता. फटींग आसूं येता. व्यभिचारी आसूं येता. जाका दारांत लेगीत उबो करपाक आमी तयार आसचे नात असलो मनीस आसूं येता. हालींच्यो कथा-काणयो जाल्यार किरकोळांतल्या किरकोळ मनशाच्याच जिविताचेर आसतात. इतलेंच न्हय तर केन्ना केन्ना त्यो सामक्या abnormal मनशाचेर आसतात. आतां, 'कोणाय'च्या जिविताचेर बरयल्लें तूं रुचीन वाचता जाल्यार कोणेंय आपल्याच जिविताचेर बरयल्यार, ताका नांवां कित्याक दवरता? साहित्याचे नदरेन पळेशीत जाल्यार every life is unique. दर-एकल्या जिवितांत कितें न्हय कितें आगळें आसता, तेंच आमी साहित्यांत रंगयतात. मोहन रानडे तसो सामान्य मनीस आसत. पुणून ताचे हस्तुकीं सामान्या भायल्यो कांय करण्यो घडल्यात. सामान्य लोकांच्या नशिबांत येनात असल्या सामान्या भायल्या कश्टांचें आनी क्लेषांचें जिवीत ताका जियेवचें पडलां. असल्या मनशान आत्मकथा बरोवंकूच जाय. ताचो तो अधिकार, आनी ताचें तें कर्तव्यूय बी. दत्तात्रेय देशपांडेक हांव सदांच म्हणी, बरय म्हूण. बरय नासतनाच गेलो तो! ताणें खूब लुसकान केलें लोकांचें.'

अखेरेक म्हजे कडेन 'माणसुकी ना' अशें ताका दिसलें तेन्ना ताणें मातशीं फकाणां मारून म्हाका विचारलें, 'तूंय आत्मकथा बरयतलो काय कितें?'

म्हाका ताच्या फकाणांचो राग आयिल्लो. पुणून तो हांवें गिळ्ळो आनी ताका जाप दिली, 'हय तर... *हांवें पळेल्लें गोंय* म्हूण एक पुस्तक बरोवपाचो आसां. आत्मकथे सारकें...'

आनी मनांत म्हळें, १९४२ थावन हांव गोंयची रासवळ जीण पळेत आयलां. कोण खंय आशिल्लो, कितें करतालो, खंय पावलो, ताणें कश्यो लटपटी-खटपटी केल्यो, हें सगळें हांवें पळेलां, हें सगळें म्हाका ह्या पुस्तकांत दिवपाचें आसा. तुकाय हांव विसरपाचो ना!





**२५.** कोणूय वेश्येगेर वता म्हूण कळ्ळ्यार त्या मनशा विशींचें म्हजें मत उबाडटा. म्हाका ताची काकुळट दिसता आनी ताचो विट्टूय येता. आयज म्हाका एकल्यान XXXX ची खबर मांगली तेन्ना हांवें खंती जावन म्हळें, 'वेश्येगेर फकत तीन तरांचे लोक वतात – immature, insane आनी criminal. जो संभोगाची मुंदरसाय आपणा तो केन्ना वेश्येगेर वचचो ना. पयशे दिवन संभोग घेवप हो sex चो अपमान.'

तो म्हणूंक लागलो, 'कशेंय आसना, तातूंत आनंद मेळटा मू? Pleasure is the purpose of sex. तो मनशान ख्रंयूय घेतलो म्हूण कितें जालें?'

हांवें म्हळें, 'that is essentially an immoral notion - हो तुजो समजूच निती भायल्लो. हांव prostitution चे आड इतलेच खातीर because it lowers sexual act to a mere genital function.'





१५–१०–१९७०

**२६.** आयज खबरी चलिल्ल्यो. अमक्याली चली गुरवार, पुणून बांयटेराक कुळारा वचूंक ती तयार ना. कित्याक? तर खंय तिचे व्हडले भयणीचें अजून लग्न जावंक ना! लग्न जाल्ल्यो धाकट्यो भयणी बांयटेराक कुळारा आयल्यो म्हणटकूच खंय ती तकली तापोवन घेता.

'Hysteria आसतली', हांवें म्हळें.

आनी म्हजे तकलेंत नवलकाणयेचें एक कथानक उबें जालें. जांचीं लग्नां जावंक पावूंक नात असल्यो बऱ्योच वाडिल्ल्यो चलयो खूब घरांनी दिश्टी पडटात. तांच्या जिविताचेर एक नवलकाणी बरोवं येता. अजून कोणेंच ती बरोवंक ना!

योगायोग म्हळ्यार, जपानी नवलकाणयांकार तानिझाकीची Makioka Sisters नवलकाणी आजूच वाचून सोंपयल्ली. चौगी जपानी भयणींची कथा ही. दोगी लग्न जाल्ल्यो. मदली लग्ना बगर उरिल्ली. आनी हिचें लग्न जावंक ना म्हूण निमाणीय तशीच उरिल्ली. तानिझाकीन इतल्यो बारीक-सारीक खबरी बरयल्यात की पुस्तक वाचून सोंपयलें तेन्ना म्हाका, हांव जसो कितें जपानांत जल्मा आयलां आनी त्या समाजांत सामको रुळ्ळां, अशें दिसपाक लागलें. दुसऱ्या झुजा आदलें जपान बदलत बदलत आयचें जपान कशें घडलें, जपानी लोकांचे पोरणे आदर्श कशे बदलत गेले बी सगळें जशें कितें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेलां, अशें दिसपाक लागलें!

संवसारांतल्या वयल्या पांवड्याच्या नवलकाणयांकारां भितर तानिझाकीक सुवात दिवंक जाय. येदो व्हड मनीस हो. ताची The Key ही एक धाकटी नवलकाणी हाचे पयलीं वाचिल्ली. म्हाका ती व्हडलीशी मानूंक नाशिल्ली. आतां परती वाचची पडली.





**२७.** काकुळट वाटता बायलांची! कोणूच तांच्या संबंदान बरें उलयना! येदो व्हडलो बुद्ध! करुणेचो अवतार. पुणून ताका लेगीत बायलांची काकुळट दिसली ना. जेन्ना अख्खो संवसार ताचे कडल्यान दीक्षा घेतालो आनी तोय सगळ्यांक दीक्षा दिवंक आंवडेतालो तेन्ना ताची मावशी महा-प्रजापती हिणें आपणाकूय दीक्षा दी म्हूण ताचे कडेन मागलें. पुणून बुद्ध तिका दीक्षा दिवपाक तयार जालो ना. ताचें काळीज मात लेगीत विरगळ्ळें ना. अखेरेक ताचो शिष्य आनंद मदीं पडलो. आनी ताणें बुद्धाक विचारलें, 'म्हणटकूच कितें, तथागताच्या मतान बायलांक निर्वाणाचो अधिकार ना?' तेन्ना बुद्धान ताका जाप दिली, 'बाबा, तुजो आग्रो आसत जाल्यार हांव तांकां दीक्षा दितां. पुणून एक सांगून दवरतां, म्हजो धर्म अर एक हजार वर्सां तिगतलो आशिल्लो, बायलांक संघांत घेतले उपरांत तो पांचशींच वर्सां तिगतलो.'

मुसलमान, क्रिस्तांव वो धर्मांनीय बायलांक व्हडलीशी भौमानाची सुवात दिवंक ना. आनी हिन्दूंनी? हिन्दूंचें पुराण संस्कृत आनी संत साहित्य वाचीत गेल्यार, 'बायल म्हळ्यार नरकाचें दार' असल्याच 'गाळीं'नी भरलां!

अपवाद फकत दोगांचो – एक, श्रीकृष्णाचो आनी दुसरो, हालींचे मुस्तींत गांधीचो. बायलां कडेन पळोवपाची ह्या दोगांचीय नदर समा आशिल्ली.

कांय वर्सां पयलीं पुर्तुगेज कथाकार ज्यूलियु दान्तशची Julgamento da Eva म्हूण एक कथा वाचिल्ली:

एक फावट स्वंय देवान आपल्या एका दुताक आपोवंक धाडलो, आनी ताका सांगलें, 'वच... नरकाचें दार उकतें कर आनी थंय जे पापांचे, विशपांचे, संतांचे, राजांचे, तत्वागिन्यानी लोकांचे आनी हेर व्हडल्या व्हडल्या बुदवंतांचे आत्मे आसात (सगळे नरकांत आशिल्ले) तांकां हांगां आपयल्यात म्हूण सांग. तांकां हांव एक प्रस्न विचारूंक सोदतां. हालीं बायलां आड जायत्यो कागाळ्यो आयकूंक आयल्यात. त्यो आयकून आतां भर्नेर येवन बायलांची ही जातूच ना करची अशें दिसूंक लागलां. पुणून तें पयलीं ह्या सगळ्या बुदवंतांचें म्हणणें कितें, तें सारकें समजून घेवंक सोदतां...'

दूत वता आनी सगळ्या आत्म्यांक घेवन येता. आनी, आयचें 'सुधारिल्लें' संवसार जांणी घडयलां ते सगळे बुदवंत, येवरापांत जावन गेल्ले सगळे व्हड

मनीस, बायलो म्हणटात त्यो कितल्यो वायट... तांणी संवसाराची कशी वाट लावन उडयल्या म्हणपाचें देवाक समजावन सांगतात.

देव म्हणटा, 'त्यो इतल्यो वायट जाल्यार, तांकां आतां नाच करून उडोवच्यो पडल्यो...'

'पुणून आनीक एकल्याक तुवें विचारूंक जाय', दूत देवाक म्हणटा.

'कोणाक ?'

'तुज्या पुताक.'

देवाचो पूत (येशू) थंयच आशिल्लो. देवान ताचे कडेन पळेलें आनी विचारलें, 'आयकलें तुवें सगळ्यांचें म्हणणें?'

'हय.'

'मागीर, तुजें मत्त कितें?'

आनी येशू जाप दिता, 'हे सगळे आपणाक एक आवय आशिल्ली म्हणपाची गजाल साप्प विसरले.'

'आवय' ह्या एकाच उतरान खंय न्यायाचे तागडेंतलें बायलांचें दालें जड जालें आनी तेन्ना पसून ह्या संवसाराचे फाटीर दर एकली बायल-मनीस 'आवय'च्या रुपान देवाची सगळ्यांत सुंदर करणी म्हूण चलता भोंवता...



**२८.** बायल-मनशेक जी देवान (वा सैमान) आवयची पदवी दिली तिकाच लागून तिच्यांत कांय बऱ्यांतले बरे गूण उदेवंक पावले. सेवा-भाव, उदारता, आपणाक विसरपाची तांक, क्षमा हे सगळे सद्‌गुण तिच्यांत आसात. तेच बरोबर तिच्यांत लोभ, मत्सर, बी कांय दुर्गुणूय आसात. तेय तिका आवयची पदवी मेळिल्ल्यानूच तिच्यांत उदेवंक पावल्यात. हरशीं, बायल दादल्या परस खंयचेच नदरेन उणी न्हय. तिणें पळेलें, आपूण आवय जाल्ल्यान आपणाचेर कांय जापसालदारक्यो येवन पडल्यात. भुरग्याक जल्म दिलो म्हूण आवयची जापसालदारकी सोंपना. भुरग्याक निखटें दूद दिलें म्हुण्णूय भागना. भुरग्याची वाड सारकी जातली जाल्यार ताका आपणें कांय संस्कारूय दिवचे पडटले आनी

आपल्या संस्कारां भायर ताका ताच्या बापायचेय संस्कार मेळोवन दिवचे पडटले.

भुरग्याचें जिणेंत बापायक म्हत्व आसा हें पळेना फुडें तिणें दादल्याक घरांत मुखेल सुवात करून दिली आनी, आपणा खातीर दुसरी सकयल्या पांवड्याची सुवात घेतली. तेन्ना परून ती दादल्याची आश्रीत – subordinate partner – म्हण रावपाक लागली. एके नदरेन पळेल्यार, तिणें भुरग्याच्या मोगान हो 'त्यागू'च केलो म्हणूंक जाय.

बायलांत जे दुर्गुण उदेले ते ह्या आश्रितपणाक लागून. ती पराश्रयी जाली, परावलंबी जाली. गुलामा सारकी तिची अवस्ता जाली.

आतां विचारवंत म्हणूंक लागल्यात, तिणें दादल्यांचो हो आश्रय सोडूंक जाय. काय जाण म्हणटात, तिणें 'सौभाग्या'ची आकांक्षाच सोडूंक जाय. तेन्नाच खंय तिच्यांतले दुर्गुण ना जातले आनी तिच्यांत जे सद्गुण आसात ते तेजस्वितायेन फुडें येतलें.

पूण ते खातीर तिणें ब्रह्मचर्यान रावंक जाय व्हय? तशें जाल्यार मागीर तें तिच्या सैमा आड वतलें. सैमानूच तिका आवय घडयल्या. तिची कुडूच तशी. ती जेन्ना आवय जाता तेन्नाच तिच्यांतली खरी सुंदरकाय फुलून येता. जे बायलेक आवय जावपाची संद मेळना ती मनानूय बावता आनी कुडीनूय खंगता.

तिच्या आवयपणाच्या धर्माक बादा हाडी नासतना तिच्यांतलें आश्रितपण ना करूंक येवपाचें ना?

म्हाका जाय – दादलो आनी बायल हांचे मजगतीं एकामेकांक पोसवण दिवपी एकचार. निखटी समाननाय न्हय. पूणून खासा बायलूच मुखार सरून आपले उदरगती खातीर वावुरले बगर तिची उदरगत जावपाची ना.





१८—१०—१९७०

**२९.** दोन दीस दिसपटी बरोवंक पावलों ना. मदींच दुबाव आयलो: सदां उठून सगळींच मुक्ताफळां कितें बरयतलों? 'ताणें अशें म्हळें', आनी 'हांवें ताका अशें सांगलें' इतलेंच बरोवपा खातीर हांवें ही दिसपटी सुरू करूंक नाशिल्ली. ती बरोवपाक घेतिल्ली, एक exercise म्हूण. जे विचार, अणभव, प्रसंग नोंदून दवरूंक नाशिल्ले जाल्यार उबून वतले आशिल्ले तांकां बांदून दवरपाक. केन्नाय जाल्यार, तांचो बरो उपयोग करतलों, म्हूण.

पुणून सभाव मातसो-सो चिंतकाचो. कसलीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता आनी चिंतनाच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता. हाकाच मागीर 'ताणें म्हळें' आनी 'हांवें सांगलें' हें रूप येता. हे दिसपटयेक असलें रूप येवचें अशी म्हजी इत्सा नाशिल्ली. पुणून कितें करूं? असलें रूप येवनूय म्हजे विचार जर घांसून-पुसून निवळ जातात जाल्यार, तिका हें रूप मेळ्ळें म्हूण कितें इबाडटा?

पयर म्हज्या हातांत डाग हेम्मरशोल्डची Markings नांवाची दिसपटी पडली. हेम्मरशोल्ड राजकर्णी मनीस. तो कवी आसत अशें हांवें मानूंक नाशिल्लें. आनी राजकर्ण सोडून ताका आत्म्या-बित्म्याची ओड आसत अशें जाल्यार हांवें निखालूस मानूंक नाशिल्लें. पुणून हो मनीस राजकर्णांत जिवीत झरोवनूय राजकर्णा परस ऊंच जीण जियेवपाक आंवडेतालो. तातूंत जें कितें Mark करपा सारकें दिसता तें आपणाले दिसपटयेंत बरोवन दवरतालो. खंयचेंय बरें पुस्तक वाचता आसतना तातूंत कितेंय लक्ष ओडी सारकें दिश्टी पडलें म्हणटकूच आमी पेन्सिलीन तें mark करिनात? तशें! जिणेच्या पुस्तकांत जें कितें ताका मेळ्ळें तें ताणें हे भाशेन mark केलें आनी तें दिसपटयेंत बरोवन दवरलें.

हरशीं खंय ताणें ही दिसपटी *'स्वान्त: सुखाय'*च बरयल्ली. दुसरो कोण ती वाचतलो अशें ताणें सुरवातीक तरी येवजूंक नाशिल्लें. पुणून तो रासवळ मळार कर्तुत्वदशेक पावलो आनी लोक ताच्या संबंदान बरोवपाक लागले तेन्ना ताका आपली दिसपटी केन्नाय जाल्यार उजवाडा येवं येता अशें दिसूंक लागलें आनी मागीर ताणें ती आपणाल्या एका इश्टा सुवादीन केली. हेम्मरशोल्ड भायर पडले उपरांत इश्टान ती उजवाडायली.

म्हाका ताची ही दिसपटी बरीच मानवली. ती वाचतां वाचतां हांव येवजूंक

लागलों. जांणी 'स्वान्तः सुखाय' दिसपट्यो बरयल्यो तांणी लेगीत निमाणें त्यो 'जगतः हिताय' उजवाडा येवंक दिल्यो! हांवें कितें करचें?

म्हजी दिसपटी कांय सामकीच personal न्हय. तशी ती जाल्ली जाल्यार, मध्यें हांव फाटीं-फुडें मन्न आशिल्लों. पुणून हांव तातूंत चडशे विचारूच बरयतां. तेन्ना, ती उजवाडा हाडपाचें येवजिलें जाल्यार अनमनपाचें कारण ना. ज्या विचारांचो म्हाका उपयोग जाता तांचो दुसऱ्यांकूय जावं येता. मागीर हांव बेश्टी नमळाय कित्याक पांगरूं?

सारकी बरोवन जाली जाल्यार छापूंक दिनूय बी.

हालेंच की म्हज्या हेर बरपांत आनी दिसपटयेंतल्या बरपांत इल्लो फरक आसा. हेर बरप बरयतना म्हजे मुखार दुसरे लोक आसतात. दिसपटी बरयतना हांव म्हजेच कडेन उलयतां.

वाङ्मयाचे नदरेन हेय तरेच्या बरपाक मोल आसूंक जाय.





१९—१०—१९७०

**३०.** म्हजें *'जपान जसा दिसला'* पुस्तक वाचून जायत्या जाणांनी विचारलें, 'तुका जपानांत मातूय उणीं दिश्टी पडलीं नात रे?... सगळें बरें बरेंच-शें बरयलां?...'

हांवें तांकां जाप दिली, 'हांवें हें पुस्तक बरयलांच पयलीं दोनूय देशां मजगतीं इश्टागत वाडची म्हूण... म्हणटकूच थंय जें कितें बरें दिसलें तितलेंच हांवें बरयलें. थंयचीं उणीं सोदपाक हांव थंय वचूंक नाशिल्लों.'

आयजूय म्हाका एकल्यान तशेंच म्हळें.

म्हाका उगडास जालो. जपानचे म्हजे हे भोंवडेंत थंयच्या कांय नामनेच्या बरप्यांच्यो लेगीत भेटी घेवच्यो अशें म्हज्या मनांत आशिल्लें. ओसारागी जिरो कामाकुराक रावता. पुणून हांव कामाकुराक पावलों त्या दिसा तो थंय नाशिल्लो. कावाबाता तोक्योक रावपी. पुणून त्या दिसांनी तो दुसरे कडेन गेल्लो. युकिओ मिशिमाक मेळटलो जाल्यार पंदरा-वीस दीस आदीं वेळ थारावंक जाय म्हणपाचें कळ्ळें! मनांत म्हळें, 'सोड... दुसरे खेपे पावलों जाल्यार, सगळ्यांक मेळूं येत.'

इतल्यांत कोकी नागान म्हाका इशिदासान नांवाच्या एका जपानी 'सारस्वता'ची खबर सांगली. तो खंय हिन्दुस्तानांत दोन वर्सां रावन गेल्लो. घरा वतकूच ताणें आपले हिन्दुस्तानाचे भोंवडेचें एक पुस्तक बरयलें. हिन्दुस्तानाची खूब अखटाय करून. आनी पुस्तक खंय खूब खपलें... लाखांनी प्रती!

हांवें म्हळें, 'तशें जाल्यार, हाका मेळुंकूच जाय.' आनी मेळ्ळों!

ताका हांवें सांगलें, 'आतां दोन म्हयने जायत आयले, हांव तुमच्या देशांत भोंवतां. तुमचे फुडारी अमेरिकेचे दास जाल्यात; विरोधी पंगडांतले लोक चिनाचे बाबतींत आंधळे. आंतरराष्ट्रीय राजकर्णांत तुमची पत कितली ती फ्रान्साच्या द गोलान दाखयल्या.द गोलाक मेळपाक तुमचो प्रधानमंत्री सातो गेल्लो तेन्ना द गोलान बगलेक बशिल्ल्या एकल्याक म्हळें, 'राव आं, तो ट्रांझिस्टर विकपी आयला. ताचे कडेन पयलीं उलयतां.' तुमकां राजकी नदरेन व्हडलेंशें म्हत्त्व ना... तुमचो समाज विस्कळीत जाला. Night clubs नी जो अच्छेव मांडला तो कोणाकूय दिसता. तुमच्यो बायलो sex चे बाबतीत सामक्यो loose म्हूण आयकतां. आतां म्हाका सांग, म्हजे भोंवडेच्या पुस्तकांत असलें सगळें हांव बरयन जाल्यार कशें जायत?'

तो म्हणूंक लागलो, 'बरोवपाक कितें जालां? बरय तूं.'

हांवें म्हळें. 'हांव बरोवपाचों ना... हांव हांगा तुमची घाण उस्तुपाक येवंक ना. तुमचीं गटारां तपासपाक येवंक ना.'

इशिदासान ओगी रावलो.

खंयच्याय देशा संबंदान जावं समाजा संबंदान आमी बरयतात तेन्ना बरें तेंच बरोवंक जाय. घाण सगळेच कडेन आसता. मॅक्सिम गोर्की जेन्ना समाजाची घाण उस्तून काडटालो तेन्ना तॉल्स्तॉय ताका विचारी, 'कोंबयेचें काम कितें घेवन बसला? बरोवपा सारकें दुसरें कांय मेळना तुका?...'





२०–१०–१९७०

**३१.** काकासायबांचें *'युगानुकूल हिन्दू जीवन-दृष्टि'* पुस्तक वाराणसीच्यान भायर सरपाचें आसा. ताचे छापिल्ले फॉर्म आयिल्ले. चारशीं पानां आयल्यांत. अजून पन्नास साठ पानां येवपाचीं आसात. पुस्तक 'आकांता'चें जातलें. आकारानूय आनी विचारांनीय बी. ताचे हे फॉर्म वाचता आसतना काकासायबांक एक तेलेग्राम धाडचो-सो दिसलो, in the autumn of your life you are still announcing dawns म्हूण.

ह्या पुस्तकाची खबर आयज हांवें xxx क सांगली. तांतलो एक लेखूय ताका वाचून दाखयलो. तो म्हणूंक लागलो, 'कितल्या सादया उतरांनी तांणी केदो व्हडलो विशय समजावन सांगला न्हय?'

हांवें म्हळें, 'तांची style – शैली – तांच्या व्यक्तित्वा सारकीच.'

हाचे वेल्यान 'खंयची शैली बरी' हाचेर आमचीं उलोवणीं सुरू जालीं.

हांवें म्हळें, 'अळंकारी भास म्हाका मानना. खुबूच 'मेक-अप्' केल्ली चली जशी सुंदर दिसना तशी अळंकारांनी भरिल्ली भासूय म्हाका सुंदर दिसना. हांव भुरगो आसतना म्हाका रंगीत लुगटां आवडटालीं. मातसो जाणटो जायना फुडें म्हजी रूच बदल्ली. हांव मागीर भडक रंग सोडून पातळ रंग वेंचून काडूंक लागलों. आतां धव्या रंगा भायर दुसऱ्या रंगाचें लुगट म्हाका मानना. म्हाका दिसता, मनीस जसो जसो संस्कारी जायत वता तसो तसो तो सादोय जायत वता. भाशेकूय होच नेम लागू जाता. संस्कारी मनशाची भास ताच्या भेसा वरी सादी, निवळ आनी 'नदरेंत भरना असली' आसूंक जाय. भास मनशाक वेगळी केळोवची पडना. ती ताच्या व्यक्तित्वा वांगडाच केळत वता...'





२१–१०–१९७०

**३२.** दत्तात्रेय देशपांडे भायर पडत पसून मदीं मदीं म्हज्याय हड्ड्यांत केन्ना केन्ना कुच कुच जाता. वाय आसुंये. पुणून, म्हळें, दोतोरांक दाखोवन पळोवया. दोगांक दाखयलें. दोगांयनी म्हळें, 'लागींचो मनीस वतकूच सगळ्यांक अशेंच दिसता...'

हांवें म्हळें, 'पायच्यांनो, तपासून तरी पळेयात. सट्ट करून गेलों जाल्यार मागीर तुमकांच पच्छाताप जातलो.'

एकल्यान नाडी पळेली आनी म्हळें, 'कांय जावंक ना तुका. फॉर्त आसा.'

हांवें ताका विचारलें, 'काळजाचें जाता तेन्ना मनशाक कितें दिसता? कशें वळखप हें काळजाचें म्हूण?'

तो हांसूंक लागलो, 'तें सगळें तुका सांगीन जाल्यार फाल्यांच्च तूं आपणाक काळजाचें जालां म्हूण सांगपाक हांगा येतलो!'

जालें! हांव आनी कितें उलयतलों?

घरा येतना वाटेर म्हाका एकल्याचो उगडास जालो. मुंबय तो एका गुजरागेर आशिल्लो. रातचीं पेढी धांपपा वेळार तो सगळो हिशेब सारको लावन उपरांतूच उठतालो. हांवें एक दीस ताका विचारलें, 'आयचें काम फाल्यां करचें अशें तुका केन्नाच दिसलें ना रे?'

'केन्नाच दिसलें ना', ताणें जाप दिली. पेढये वेल्या कामा पुरतोच म्हजो हो नेम न्हय. हांव जीण लेगीत ह्याच नेमाक धरून जियेतां. आयचें काम आयज. कोणाक दिणें ना, घेणें ना! सट्ट करून यम आयलो जाल्यार, 'अरेरे! मातसो राव; म्हजें अमकें उरलां' अशें ताका सांगपाची प्रसंग म्हजेर येवंक जायना.'

हो मनीस 'शिक्षित' न्हय. पुणून जीण कशी जियेवची हे विशीं ताचे कांय नेम थारिल्ले, म्हाका दिसता. कांय कांय गजाली आमच्या अशिक्षित लोकांच्या रगतांतूच आसतात. अध्यात्म तांकां शिकोवचें पडना. जिणेची कला तांकां खबर आसता. आमी शिक्षित लोकांनीच असल्या साद्या, सरळ, निर्मळ अंतस्करणांच्या लोकां कडल्यान जिणेची कला शिकपाची.

ताचो उगडास जायना फुडें हांव तागेल्या तत्त्वगिन्यानाचेर येवजूंक लागलों. 'आयचें काम आयजूच करप' हें तत्त्वगिन्यान सारकें पचयतलों जाल्यार दोन तरांचे भावार्त जाय—

एक, 'देवान आमकां जियेवपाक चोविसूच वरां दिल्यांत' अशें समजून आमी चलूंक जाय आनी, ह्या चोवीस वरांत आपणाली पुराय शक्त खर्चून उडोवंक जाय. (कांय जाण म्हणटात, पुराय शक्त 'खर्चिली' ना जाल्यार जी उरता तीच मागीर 'विकारां'त बदलता.)

दुसरो, 'हो संवसार अनाथ न्हय' ही स्रद्धा घट करूंक जाय. 'संवसार चलोवपी कोणूय तरी आसा. आनी, तो संवसार बेस बरो चलयता. म्हाका लागून संवसाराचें कांयच अडपाचें ना...' हें मनशाक 'कळूंक' जाय...

म्हाका हें 'कळ्ळां!' पुणून...



**३३.** नान् आयज साने गुरुजीचें एक पुस्तक घेवन आयलें आनी तिळसांज मेरेन ताणें तें वाचून सोंपयलें. हांवें ताका विचारलें, 'कशें लागलें गो पुस्तक?'

'बरें न्हय... सगळीं मरतात.' ताणें जाप दिली.

कांय म्हयन्यां पयलीं हांवें ताका *'श्यामची आई'* पुस्तक हाडून दिल्लें. तें ताणें पुराय वाचलें काय ना हाची वासपूस करूंक हांव पावूंक नाशिल्लों. आयज विचारलें.

'अर्देंच वाचून सोडलें.' ताणें जाप दिली.

'कित्याक गो?'

'तेंय बरें पुस्तक न्हय. सगळी रडारड भरल्या तातूंत.' ताणें जाप दिली.





२२–१०–१९७०

**३४.** जेवन मडगांवां गेल्लों. म्हाइडोळा बस धरली. बसींत बसपाक सुवात नाशिल्ली. उबो रावचें पडलें.

मुखावेल्या बांकार, उजवे वशीन, एकली बायल-मनीस बशिल्ली. बाविशेक वर्सांचे पिरायेची. रंगान काळी-सांवळी, पुणून 'फॅशनेबल'. तांबसार रंगाचो 'स्लीवलॅस ब्लावझ' घाल्लो. त्याच रंगाची साडी. आंबाडो भरदार. ताचेर धव्या गोठलांची फांती. हातांत गोंट-पाटल्यो नव्यो करकरीत आनी गळ्यांत मणी. तोय पदरा वयर.

तिचे म्हऱ्यांत दोग जाण बशिल्ले ते तिचे कोण न्हय आशिल्ले. तांचीं तोंडां पळोवप्याक च मागृं येतालें, ते तिचे कोण न्हय म्हूण.

'म्हणटकूच... ही एकली आसा तर!' हांवें मनांत म्हळें.

हांवें उबे आशिल्ल्या हेरां कडेन पळेलें. थंयूय म्हाका तिचो कोण आसा-सो दिसलो ना.

एक मात गरबडेंच लक्षांत आयलें. बसींतले तिचे भोंवतणीं आशिल्ले सगळे मर्द मर्द तिचें आंग दोळ्यांनी मांम्पिताले. तिकेटी दिवपी बसीचो 'मास्तर' लेगीत.

ती मात कोणा कडेन पळेनाशिल्ली.

बस फोंड्यां पावली आनी तिचे म्हऱ्यांत बशिल्ले दोगूय जाण देंवपाक उठले. म्हजे म्हऱ्यांत जे कांय जाण उबे आशिल्ले तांतल्या दोगांनी रोखडीच ती रिकामी जाल्ली सुवात आडायली. एकलो जाल्यार 'आनी कोणेंय तिका तेंकचे परस आपणेंच तेंकिल्लें बरें' अशें येवजून बेगी-बेगीन थंय वचून बशिल्ले वरी दिसलो आनी भोंड मुर्वत कांय बाळगी नासतना तिका तेंकून बसलो. होय भुरगोच आशिल्लो. चोवीस-पंचवीस वर्सांचे पिरायेचो. पोल्यार गले. कपळार केंस. दोळ्यांर काळो चश्मो, नायलॉनचो बुशशर्ट, नळयांची पॅन्ट, उजव्या हाताक घडयाळ – सामको नट कसो, सिनेमांतलो.

फोंड्यान बस सुटली तेन्ना दोगांय एकामेकांक पळोवन मुमुरख्योंच हांसलीं. हांव दावे वशीनच्या एका सिटार आतां बशिल्लों. तिस्कार पावपाक बोरयेचे वाटेर वसोन व्हाल्ल घेतलें तेन्ना ती ताका बरीच घस्टून बसली. तिकेटी दिवपी मास्तरान त्या भुरग्या कडेन पळेलें आनी दोगूय हांसले. तीय मातशी हांसली.

हांवें मनांत अजापान म्हळें, 'अब्बा!... येदे बेगीन!...'

हांवें वाटेर वाचपाक पुस्तक व्हेल्लें. तें बंद केलें आनी तांचे खेळ पळेत रावलों. मर्दनगड दिसना फुडें ताणें तिच्या कानांत ल्हवूच कितें-शें सांगलें. तें आयकून ती परती मुमुरख्यांनी हांसली. मुखार निलगिरीचें नवें रान आयलें. ते बरोबर तिणें ताका कितें-शें सांगलें आनी दोगांय त्या राना कडेन पळोवन हांसलीं.

बस व्हॉल्त मारताली तेन्ना तेन्ना दोगांय जशीं कितें एकामेकांक तेंकपाक संदूच सोदतात अशें दिसतालें. तिकेटी दिवपी मास्तरूच तांगेलें 'गुपीत' वळखल्लो. तो एका सारको तांकां पळेतालो आनी गालांतल्या गालांत हांसतालो. तो आपणाक पळेता हें त्या दोगांकूय समजल्लें आनी तींय ताका पळोवन मदीं मदीं गालांतल्या गालांत हांसतालीं.

बोरयेचे सगळे वाटेर जशीं कितें हीं निकतींच 'मोगांत पडल्यांत' अशीं वागलीं.

म्हाका अजाप! 'गोंयांत आनी हें इतलें सोंपें जालां! म्हाका खबरूच नाशिल्ली', हांवें मनांतल्या मनांत म्हळें. हें 'मुक्त' वातावरण पळोवन मातशें बरेंय दिसलें!

'लग्न जाल्ले बायले कडेन लेगीत इतल्या सोंपेपणान असले चाळे करूं येतात तर!' हांवें परतेंय मनांत म्हळें.

पूल येना फुडें ती देंवली. तिचे फाटोफाट तोय देंवलो. देंवतना 'मास्तरा'न दोगांय कडेन पळेलें आनी दोगांयनी मास्तराक दोळ्यांनी 'बरें, येतां' म्हळें.

तीं देंवतकूच हांवें मास्तराक विचारलें, 'कोण रे तो?...'

'तो? शिरोडेचो अमको. पयरूच जालां दोगांयचें लग्न!' ताणें जाप दिली. आनी म्हज्या तोंडांतल्यान सट्ट करून उतर फुटलें –

'आरेच्या!...'





२३-१०-१९७०

**३५.** जीण सारकी जियेतलो जाल्यार मनशाक सुखूय मेळूंक जाय आनी दुःखूय जाय. निखटें सुखूच मेळत गेलें जाल्यार ताची जीण उथळ जायत म्हण भंय. आनी, एका सारकें दुःखूच मेळत गेलें जाल्यार जीण सामकीच नास्तिक जायत म्हण भंय. सुख मनशाक आनंद दिता. तें सुंदर आसता. भुलभुलायणें तर तें आसताच. पुणून तें खिणयाळेंय आसता आनी भ्रमांतूय उडोवपी आसता. दुःखाचें तशें न्हय. दुःख मनशाक जागयता. ताका 'खरें' कितें तें दाखयता. ताची जीण अणभवान खोल आनी गिरेस्त करता. तिका पारमार्थिक (serious वा गंभिरूय) करता.

सुख पांखतण दिवपी. जाल्यार, दुःख बांध दिवपी. सूख मनशाक जिणेच्या सागराच्या वयल्या भागार पेंवंक शिकयता.जाल्यार, दुःख ताका ह्या सागरांत खोल उडी मारून भितल्लीं 'तत्वां'चीं मोतयां हाडपाची कला शिकयता. काकासायबांनी सुख आनी दुःख हांच्या संबंदान हे तरेचे विचार जायते कडेन बरयल्यात.

आयज रवीन्द्रनाथांची एक कविता वाचली. ते म्हणटात, *'दुःख आमार घरेर जिनिस.'* म्हजो सगळ्यांत व्हडलो जोड हो. दुःखाचो. म्हजे कडेन आशिल्लें 'अस्सल रत्न' तें हें दुःखाचें. देवाक कितेंय ओंपचें पडलें जाल्यार 'म्हजें' म्हण म्हजे कडेन आसा तें हेंच. दुःख. तेंच ओंपपाचें. बाकी सगळें ताचें. ताचेंच काडून ताका कितें ओंपतलों?

दुःखाचें 'व्हडपण' इतले बरे तरेन सांगिल्लें हांवें आनीक खंयच वाचूंक नाशिल्लें.





**३६.** हांवें ताच्यो कथा वाचल्यो आनी ताका म्हळें, 'तूं तुज्या मुखेल पात्रां कडेन एकरूप जावन बरयता.'

तो म्हणूंक लागलो, 'हय. हांव म्हजे जिणेंतल्योच खबरी बरयतां.'

हांवें विचारलें, 'आपजीण बरयता व्हय तर तूं?'

'न्हय. कथाच. पुणून अणभवाचेर आधारिल्ल्यो.'

हांवें म्हळें, 'कथेक आधार म्हूण अणभव घेवचो. पुणून imagination क कथेंत सुवात आसुंकूच जाय.' आनी ताका सांगलें, 'ते भायर, जें कितें तूं बरयता तातूंत तूं दिश्टी पडूंक जायना.'

हाचे वयल्यान खबरी आयल्यो.

कांय वर्सां पयलीं गोंयांत एका पाखल्यान एकले चलयेचेर आगळीक केल्ली. ही घटना घेवन एकल्यान एक लेख बरयलो. म्हज्या एकल्या इश्टान तो वाचलो आनी म्हाका म्हळें, 'हाणें हो लेख पाखल्यांचो आमकां राग येवचो म्हूण बरयला. पुणून लेख वाचतकूच पाखल्यांचो राग येना. उफाट्टें, 'आरेरे! ताचे सुवातेर हांव आसूंक जाय आशिल्लों' अशें दिसूंक लागता. पाखल्यांचो मत्सर सो दिसता!'

हांवें तेन्ना म्हळें, 'हाका कारण आसा... हाका 'आपणाक कडेक काडून' बरोवंक येवंक ना...'

आल्बॅर्त मोरावियाची The Woman of Rome ही नवलकाणी परिस्थितीक लागून वेश्या जाल्ले एके चलयेची आपजीण. आतां, वेश्येचे जिणेंत कितें आसतलें? मोरावियान तें सगळें उगडें नागडें बरयलां. संभोगाचीं वर्णनां लेगीत ताणें सूचक उतरांनी न्हय, तर उगडीं नागडींच बरयल्यांत. तरी आसतना हांव ह्या पुस्तकाक pornographic म्हणपाक तयार ना. मोरावियाचीं हेर पुस्तकां वाचून 'हाका दुसरें कांय बरोवंक येना' अशें जाय जाल्यार म्हणचें. पुणून The Woman of Rome नवलकाणयेक मात नांव दवरूंक येवपाचें ना.

हांवें ही नवलकाणी वाचली (खूब वर्सां जालीं हे खबरेक) तेन्ना म्हाका ते वेश्ये संबंदान, आद्रियाना संबंदान, काकुळट दिसपाक लागली. इतली की त्या वेळार म्हाका ती खरीच खंयूय मेळिल्ली जाल्यार (नवलकाणयांतलीं मनशां

म्हाका सदां 'स्वर्गं'च दिसतात!) तिका हांव सांगतलों आशिल्लों, 'बाये, म्हगेर येवन आतां तूं रावं सुसेगाद. खूब सोंसलें तुवें ह्या जिवितांत...'

तेच मुस्तांत किशोरलाल मशरुवाला हांचो एक लेख वाचिल्लो. *'न वांचवा जेवा सारा पुस्तकां'* म्हण. 'बऱ्या हेतून बरयल्लीं, पुणून वाचूंक जायनात असलीं बरीं पुस्तकां' म्हूण. तातूंत कुप्रीनचें *'यामा'* हेंय पुस्तक आशिल्लें. हांवें *'यामा'* हाडून वाचलें. म्हजेंय मत्त जालें. कुप्रीनाक वेश्येचे जिणे विशीं आमच्या मनांत वीट निर्माण करप जमूंक ना म्हूण...

मोर्गावियाचें पुस्तक तसलें न्हय. ह्या पुस्तकांत आगळिकेचो एक प्रसंग आसा. तो वाचतां आसतना आगळीक करतल्याचो राग येता. वीट दिसता.

हाचें कारण, मोर्गावियान हें पुस्तक 'आपणाक कडेक काडून' बरयलां. आपूण शून्य जाला आनी बरयलां.

म्हाका स्तेफान त्स्वैगाचोय उगडास जालो. (मराठींत हो स्टीफन झ्वाइग जाला आनी हिन्दींत स्टीफन ज्वीग! पुर्तुगेज ताका इश्तेफन झ्वैग म्हणटात. ताच्या नांवाचो सारको उच्चार हांवें बरयला तसो स्तेफान त्स्वैग आसूंक जाय अशें दिसता.) ताच्या स्वयंच्याच पुस्तकांत तो दिश्टी पडना. आपणाले आपजिणेंत लेगीत- The World of Yesterday त लेगीत – तो स्वता ना.





**३७.** 'तुवें आयज मेरेन ज्यो नवलकाणयो वाचल्यो तातुंतले खंयचे नवलकाणयेंतली बायल तुका चडांत चड मानवली?', एकल्यान म्हाका विचारलें.

म्हजे जिबेर पयलें नांव आयलें तें शरदबाबूंचे *'शेषप्रश्न'* नवलकाणयेंतले कमलेचें. एका काळार ताचेच *'पथेरदाबी'*तले भारतीनूय म्हजें मन चोरिल्लें.

पुणून तॉलस्तॉयाचे War and Peace तले नाताशाक लागपी अजून म्हाका कोणूच मेळूंक ना. नवलकाणयेंतूय मेळूंक ना आनी जिव्या संवसारांतूय मेळूंक ना! खरें म्हळ्यार, नाताशा 'बायल' न्हय. 'चली' ती. पुणून इतली गोड की वाचपी तिच्या मोगांत पडुंकूच जाय.

म्हाका दिसना, संवसारांतल्या आनीक खंयच्याच कथाकाराक नाताशा सारकी चली चित्रावंक आयल्या जायत म्हूण. खासा तॉलस्तॉयाक लेगीत दुसरी नाताशा निर्माण करूंक येवंक ना!

आनी तॉलस्तॉय म्हळ्यार born writer!





२४-१०--१९७०

**३८.** तो घरा नाशिल्लो म्हूण ताका हांवें कांय पुस्तकां वाचपाक धाडून दिल्लीं. तातूंत एक जे. कृष्णमूर्तिचें Commentaries on Living पुस्तक आशिल्लें आनी दुसरें, काकासायबांचें *'परम-सखा मृत्यु'*.

काल तो पुस्तकां परतीं करपाक आयिल्लो. कृष्णमूर्तिचें पुस्तक वाचून आपूण सामकोच गोंदळांत पडलों अशें ताणें म्हळें तेन्ना हांवें ताका सांगलें, 'गोंदळांत पडपा सारकें खंयपणानशीं तातूंत कांयच ना. एके तरेचें शांकरमतूच तें. 'हांव मन न्हय, बुद्द न्हय, अहंकार न्हय, चित्त न्हय... हांव चिदानन्दरूप *शिवोऽहम...*' हें शंकराचार्याचें स्तोत्र तूं म्हणटा त्या वेळार गोंदळांत पडटा व्हय? ना मू? तशें जाल्यार मागीर कृष्णमूर्तिचें मत वाचून गोंदळांत कित्याक पडूंक जाय? एक खरें, कृष्णमूर्तीन आपलें मत शांकरमत म्हूण केन्ना सांगूंक ना. शांकरमत घडये ताणें वाचूंकूय ना आसतलें. देखूनच ताच्यांत एके तरेची freshness दिश्टी पडटा. पूण तूं तें संस्कृतांत वाचशीत जाल्यार शंकराचार्यांच्या नांवार खपोवंक येतलें.'

पुणून, हांवें म्हळें, 'कृष्णमूर्तिची सर हाचे ताचे कडेन करिनासतना ताचें म्हणणें सरळ समजून घेवंक जाय.'

आनी हांव जशी समजलां तशी ताका हांवें कृष्णमूर्ति समजावन सांगलो.

आनी मागीर विचारलें, *'परम-सखा मृत्यु'* कशें लागलें?

तो म्हणूंक लागलो, 'वेदान्त तो!...'

हांवें म्हळें, 'तशें न्हय. काकासायबांची मरणा कडेन पळोवपाची नदर सामकीच नवी. तशी नदर फकत रवीन्द्रनाथांकूच आशिल्ली.'

हालीं वयल्यान मरणाच्यो खबरो आयल्यो. हांवें म्हळें, 'अंद जुलयचे १८ वेर बाबा वचत मागून हांव मरणा संबंदान एको सारको येवजीत आसां. म्हज्या हया चिन्तनांत खंड पडचो न्हय म्हूण जाल्यार, कोणाक खबर! अवचीत देवान दत्तात्रेय देशपांडेकूय व्हेलो. म्हजे येदेच पिरायेचो आनी म्हजो परम भटमूट. म्हजो दाट इश्ट. जीण ही आळव्या पाना वेल्या उदका थेंब्या सारकी म्हणपाची गजाल म्हाका आतां 'कळ्ळ्या' म्हणूं येता. मरणा संबंदान, हे भाशेन, उत्कटतायेन येवजितां आसतना म्हाका काकासायबांच्या ह्या पुस्तकान खूब धीर दिला. आतां हांव

मरणाक 'वळखतां' अशें म्हाका दिसपाक लागलां.'

आनी हांवें ताका मरणा संबंदान म्हाका कितें कितें दिसता तें समजावन सांगलें. ताणें रोखडोच विशय बदल्लो!

घरा वचून ताणें कितें सांगलें, कोणाक खबर! आयज ताचो पूत आयिल्लो. म्हाका विचारूंक लागलो, 'तूं आतां कसो आसा? बाबान तुजी खबर घे म्हळ्ळी!'



**३९.** एकल्यान म्हाका आपल्या भावाची खबर सांगली. बोल्सांत ना खंय पानदुडू. पुणून वचत ताचे कडल्यान रिणां काडटा आनी कशाय कसो खर्चिता...

हांवें म्हळें, 'तुमकां दोगांकूय हांव वळखतां. तुमी दोगूय जाण एका घरांतले. पुणून समाजांत तुका भोवमान चड. ताका तितलो ना. तो आपली सर तुजे कडेन करता आनी आपुणूय कितें 'उणो न्हय' हें दाखोवपा खातीर पयशे उदका वरी खर्चिता. पयशांत एके भाशेन passing sense of Power आसता. जाचें मन न्यूनगंडान पोखरलां तो आपणाल्या अहंकाराक हे भाशेन पोसवण दिता.'





**४०.** पणजे थावन परततना एका बुक-स्टॉलांत भितर सरलों. नवीं पुस्तकां आयिल्लीं. तीं पळेतालों.

म्हजे वांगडा एकलो आशिल्लो. तो भायर उबो रावलो आनी म्हजें सोंपच ना-शें दिसतकूच वाजेवन म्हणूंक लागलो, 'चल... या रे... फाल्यां परतें येवं येत...'

हांवें हॉंचनगचें Papa Hemingway घेतलें आनी भायर सरलों.

वाटेर ताका हांवें विचारलें, 'तूं पुस्तकां बी वाचिना?'

'पुस्तकां? न्हीद पडना तेन्नाच घेतां हातांत.' ताणें जाप दिली.

'वाचपाक?'

'न्हय... न्हीद येवपाक...'

म्हाका हांसो आयलो. म्हळें, न्हिदिल्ल्यांक जागोवपाक लोकांनी पुस्तकां बरयल्लीं. युग बदल्लें. आतां लोक न्हिदपाक पुस्तकांचो उपयोग करपाक लागले!...'





२५—१०—१९७०

**४१.** आयज ताचो जल्मदीस आशिल्लो! म्हाका खबरूच नाशिल्ली! ताणेंच सांगलें तेन्ना हांवें ताचें गालिबाच्या उतरांनी अभिनंदन केलें: *'तुम जीयो हजार बरस... हर बरस के दिन हो पचास हजार...'*

बावड्याच्या बोल्सांत पयसो नाशिल्लो. म्हजे कडेनूय आयज कांय नाशिल्लें. कोणाय कडल्यान उश्णे घेवचे आनी ताच्या भुरग्यां खातीर ताका कितेंय घेवन दिवचें अशें मनांत आयलें. पुणून वळखीचो कोणूच मेळ्ळो ना!

अखेरेक आमी दोगूय शानभागांत वचून बसले. 'गुलाब जामून' मागयले आनी ते खायत खायत आमचेच जिणेचीं फकाणां मारपाक लागले!

तो म्हणूंक लागलो, 'तूंय म्हजे भाशेन अडचणींत जियेता आनी तरी आसतना जिणेचीं फकाणां मारपाची तुज्यांत तांक आसा.'

हांवें म्हळें: कांय वर्सां पयलीं हांवें लीन युतांगाचें Wisdom of China पुस्तक वाचिल्लें. तातूंत चिनी तत्वज्ञ कसो आसता तें ताणें दाखयल्लें. चिनी तत्त्वज्ञाचो एक दोळो खंय सारको उकतो आसता. त्या दोळ्यान तो जिणेचे वाटेंतलीं फोंडकुलां पळेता. ताचो दुसरो दोळो अर्दो धांपिल्लो आसता. ह्या दोळ्यान तो जिणेचीं सपनां रंगयता! म्हाका हें वाचना फुडें दिसलें, 'ज्या तत्त्वगिन्यानाच्या सोदांत हांव आशिल्लों तें म्हाका मेळ्ळें.' आनी तेन्ना पसून हांव ह्या नेमान जीण जियेत आयलां. एके तरेची सर्कस ही. पुणून ती तुज्यांतलो विनोद जिवो दवरता. म्हाका हें तत्त्वगिन्यान मेळूंक नाशिल्लें जाल्यार म्हज्या वांट्याक जीं अपेसां आनी दु:खां आयल्यांत तांकां लागून हांव केऽन्ना निर्शेवन ना जावन वतलों आशिल्लों. कांयच न्हय जाल्यार बावतलों तरी आशिल्लों...

ताकाय आयज एक नवी नदर मेळिल्ले वरी दिसली. आनी म्हाका बरें दिसलें.





**४२.** ताका सोडून घरा येवपाक प्रासार गेलों. थंय बसींत xxxx मेळ्ळो. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी जातकूच तो म्हणूंक लागलो, 'रागार जावं नाका, म्हजी तुका एक सुचोवणी आसा. तूं राजकर्ण सोड आनी निखटी साहित्याची सेवा कर. तूं राजकर्णांत बेश्टो वेळ होगडायता.'

हांवें म्हळें, 'जायत्या बरें-मागतल्यांनी म्हाका हें सांगलां. राजकर्णान जें रूप आयज घेतलां तातूंत येस जोडपा खातीर जे 'गूण' मनशांत आसूंक जाय ते म्हज्यांत नात हें हांव जाणां. म्हाका कशाय कश्यो फटी मारूंक येनात. इश्टांक bypass कशें करचें-- अचळय कडेक कशें उडोवचे-- हें म्हाका समजना. हांसत हांसत तांचे गळे कापूंक येना. जंय सुवार्थ सादूं येता थंय तकली बागोवंक येना. सुवार्थ सादून तो 'तत्त्वांनी' कसो पांगुरचो ही अक्कल म्हाका ना. तें कित्याक, हांवेंच निर्माण केल्ल्या संदींचोच लाव कसो घेवचो हें म्हाका समजना... असल्या मनशाक आयच्या राजकर्णांत येस कशें मेळटलें? आयचें राजकर्ण pragmatic! म्हळ्यार, वस्तुताय वळखुपी. हांव वस्तुताय पळेतां. तिका वळखूंक तयार आसां. पूण तिचे सुवादीन मात जावपाक तयार ना. हांवें पळेलां, जांणी राजकर्णांत pragmatic (वेव्हारी) जावन येस जोडलां तांची समाजांत तर पत उरूंकूच ना, खासा तांकांय खोस जावंक पावूंक ना. राजकर्णांत लौकीक येस म्हत्वाचें न्हय. लौकीक येसा परस चड मोलाचें आनीक कितें तरी आसता. तें हांवें जोडूंक ना अशें म्हणशात जाल्यार, म्हाका तें मान्य जावचें ना. गोंयांत आयजवेर जितल्योय चळवळी जाल्यात तातूंन सदां हांव आघाडेचेरूच रावलां. कांय कांय वेळार बरे लडे दिल्यात हांवें. ज्या तत्त्वांचो पाखो घेवन हांव, हेरां वांगडा झुजलां तीं तत्त्वां आयज आमचे आड आशिल्ल्यांनी लेगीत मान्य केल्यांत. हें येस न्हय जाल्यार, कितें?'

थावडो अंगो गावन आयकूंक लागलो. म्हाका मागीर ताका दुसरी एक गजाल सांगची पडली. म्हळें, 'कांय वर्सां पयलीं, आमचे आदले पिळगेंतल्या एकल्यान 'आयचे पिळगे मुखार ध्येय-बीय कांय ना' अशी निंदा केल्ली. हांवें ताका जाप दिल्ली, 'आयची पिळगी तुमचे कडेन -- आदले पिळगे कडेन -- पळेता. तुमी ध्येयां-बियां सगळीं घेतलीं आनी निमाणें पुरो जावन तीं सोडलीं मूं? ध्येयां-बियां घेतिल्ले लोक निमाणें 'वेव्हारी' जाले हें पळेतकूच आपणें

ध्येय-बीय घेवन बसचें अशें आमकां कशें दिसतलें? तुमचे precepts वेगळे. सांगणी एके तरेची आनी practice वेगळी. करणी वेगळे तरेची. आमकां तुमची practice – करणी – दिश्टी पडटा.' हांवें ही जाप ताका ओगी बसोवपा खातीर दिवंक नाशिल्ली... जांणी आयुश्याची सुरवात ध्येयाची घुडी हातांत घेवन केली, तांच्या हातांत ती घुडी अखेर मेरेन आसूंक जाय हें सांगपा खातीर दिल्ली. ही घुडी जड म्हूण तांणी ती सकल दवरली जाल्यार, फाटल्या सगळ्या वावराचेर तांकां उदक सोडचें पडटलें आनी फुडले पिळगेक नास्तिक केल्ल्याची जापसालदारकी आंगार घेवची पडटली. आयचें pragmatic – वेव्हारी – राजकर्ण एक दीस बदलतलें आनी खरें idealistic – ध्येयवादी – राजकर्ण सुरू जातलें, तेन्नाच आमच्या हातांतली घुडी आमी नवे पिळगेच्या हातांत दिवन राजकर्ण सोडटले. ते मेरेन आमच्या हातांत ध्येयवादी राजकर्णाची घुडी घट आसूंक जाय. मदीं मदीं विसंव घेवप वेगळें. सुटी घेवप वेगळें. 'संन्यास' घेवप वेगळें... आनी वेव्हारी जावप वेगळें...'





२६–१०–१९७०

**४३.** आयज परत्यो sex चे नितीच्यो खबरी आयल्यो. तो म्हाका विचारूंक लागलो, 'तुजे नवे नितींत संभोगाचें स्वातंत्र्य आसतलें काय कितें?'

हांवें म्हळें, 'संभोगाचें स्वातंत्र्य आसूंक जाय अशें बर्ट्रांड रसेला सारके बुद्धवंत म्हणटात. महाराष्ट्रांत र. धों. कर्वेय तशेंच म्हणी... म्हाका तांगेलें मत्त येवजुपा सारकें दिसता.

तो म्हणूंक लागलो, 'हें स्वातंत्र्य आमी मान्य केलें जाल्यार कुटुंबसंस्था मोडची ना?'

तांवें म्हळें, 'कुटुंबसंस्था इतली अदृढ आसत अशें म्हाका दिसना. दादलो स्वभावान polygamous आसलो जाल्यारूय 'स्वैराचारी' न्हय. आनी बायलांचो स्वभाव जाल्यार स्वैराचारी निखालूस न्हय. बायलांक sex त लेगीत एके तरेची finality जाय आसता. आनी दादल्याय हे finality क आवडेता. आपणाक एक घर आसचें, काम आसचें, धंदो आसचो आनी तातूंत सगळ्यांत एके तरेची permanency आसची अशें मनशाक दिसता तशी sex त लेगीत permanency आसची अशें दादलो आनी बायल दोगांकूय दिसता. कुटुंबसंस्थेचो आधार तो हो. दोन काळजां एक जाल्लीं आनी 'तूं म्हजो, हांव तुजो' हे भावनेंत दादलो आनी बायल एकठांय आयलीं म्हणटकूच दोगांय आपलो एक संवसार a world of their own उबो करतात आनी त्या संवसारांत रावन तीं पुराय जीण आपणायतात —they share the whole of life... जिणेंतलीं सुखां, दुःखां, संकश्टां, आव्हानां दोगांय वांटून घेवंक लागलीं म्हणटकूच तांचे मजगतीं complete union (पुराय एकचार) निर्माण जाता आनी तो तांच्या लग्नाक घट करता. ते उपरांतचें तांचें जिणेंत सदां उडून तेंच तें आयलें तरीय तें सदां नवेंच दिसता. इतलेंच न्हय तर तें more stimulating than novelty - नव्या परस अदीक प्रेरक आसता. हाचें वयल्यान एक गजाल निखळ बरी सांगूं येता ती अशी— कुटुंबसंस्थेचो आधार निखटो sex न्हय. Sex परस चड म्हत्व मोगाक आसा.

ताणें मदींच विचारलें, 'म्हणटकूच, तुजें म्हणणें किते? मनीस आपणाले बायलेचेर खूब मोग करून लेगीत दुसरेचेरूय तितलोच मोग करूंक शकता?'

हांवें विचारलें, 'द्रौपदीक पांच घोव नाशिल्ले? तीं त्या पांचांचेरूय मोग करी नाशिल्ली? परत, त्या पांचां भितल्ल्या कांय भावांक द्रौपदी भायर आनीक

बायलो नाशिल्ल्यो? आनी त्या बायलांचेर तांचो मोग नाशिल्लो? एके तरेचें संभोगाचें स्वातंत्र्य न्हय हें? ‘आमचे’ संस्कृतायेन आमकां दाखोवन दिलां, संभोगाचें स्वातंत्र्य आसलें जाल्यारूय मोगाक कसलीच बादा येना म्हूण. घोव-बायलेन एकामेकांक sex चे बाबतींत एकनिष्ठ आसूंक जाय असो समाजान नेम केलो तो भुरग्यांक लागून... पुणून आतां भुरग्यांचो प्रस्न कुटुंब नियोजना खातीर जे वेगळे वेगळे उपाय आयल्यात तातूंत सुटला. कुटुंब नियोजनाचो हेतू निखटो गुरवाचार आळावप आनी लोकसंख्या वाडूंक दिवप ना, इतलोच आयज आसत. पुणून हो हेतू इल्लो इल्लो करून sex ची पुराय नीत बदलूंक लायतलो – आयज न्हय जायत, पुणून फाल्यां – हातूंत इल्लोय दुबाव ना.’

म्हाका उगडास जालो. कांय म्हयन्यां फाटीं म्हाका लीना नांवाचें एकलें ‘हिप्पी’ चली मेळिल्लें. इंग्लंडांतलें. बऱ्योच खबरी केले उपरांत हांवें ताका विचारलें, ‘तुमी sex चे बाबतींत सामकीं सदळ म्हणटात तें खरें?’

ताणें जाप दिली, 'We are not as obsessed with sex as you are...' आनी मागीर म्हळें, 'sexual intercourse is as innocent as shaking hands.'

हांव ह्या थरार वचूंक तयार ना. म्हाका free sexतय एक ‘नीत’ जायच. हांव संभोगाचें स्वातंत्र्य मानतां. पुणून स्वैराचार म्हाका मानना. नीत म्हळ्यार taboo न्हय.





**४४.** मागीर एक खबर सांगली. दोग जाण खंय सामके ल्हानपणा सावन इश्ट आशिल्ले. दोगूय लग्न जाल्ले आनी शेजरा शेजरा रावताले. तांतलो एकलो खंय अपघातांत मेलो. कांय म्हयन्यांनी दुसऱ्याची खंय बायल मेली...

हांवें विचारलें, 'जल्यांत त्या दोगांची पिराय केदी?'

'दोगांय भुरगीं', ताणें जाप दिली.

हांवें म्हळें, 'दोगांनीय आतां एकामेकां कडेन लग्न जावचें.'

तो म्हणूंक लागलो, 'समाज कितें म्हणटलो?'

'आयचो समाज असल्या लग्नांक मान्यताय दिता. इतलेंच न्हय, तर, जावं, दोगांय बऱ्याक पावलीं, अशेंय म्हणटा.' हांवें जाप दिली.

आतां, तीं लग्न जातलीं काय ना, हांव नकळ. पुणून लग्न जालीं जाल्यार तांकां कोण काय म्हणचो ना, इतलें खरें. फाटल्या शंबर वर्सांत सुधारकांनी जो वावर केला ताका लागून इतलें मनीसपणाचें वातावरण ह्या देशांत तयार जालां. कोणूय एक फावट विधवा जाली म्हणटकूच तिणें पुराय जिवीत तशेंच सारचें अशें आयज कोणूच म्हणचो ना. ती तरणेपणांत विधवा जाल्ली आसत जाल्यार, तिणें परतें लग्न जावचें अशेंच सगळे जाण म्हणटले आनी ती लग्न जाली जाल्यार 'बरें जालें' म्हूण खोसूय परगटायतले.

पुणून म्हजे तकलेंत एक दुसरोच प्रस्न उबो जालो —

म्हळें, हीं आतां लग्न जालीं जाल्यार, हांच्या sex विशींच्या नव्या संबंदाक कोण कांय म्हणपाचो ना. पुणून समज, तो पयलींच आशिल्लो जाल्यार? तो येवपाक एकल्यान बायल मरसर आनी दुसऱ्यान घोव मरसर वाट कित्याक पळोवंक जाय आशिल्ली?

म्हजो हो प्रस्न हांवें उकतेपणान मांडलो तेन्ना म्हजो इश्ट म्हणूंक लागलो, 'शी बाबा... माणसुकी उरली ना तुजे कडेन!...'

हांवें म्हळें, 'नवो नीत घडोवंक मुखार सरला ताका इतलें खोलायेंत देंवन विचार करचोच पडटलो!'

ताका मागीर हांवें एक खबर सांगली–

कांय म्हयन्यां फाटीं 'मांडवी'त एकलो वळखीचो मनीस येवन राविल्लो. ताचें लग्न जाल्यार दोन-तिनूच वर्सां जाल्लीं. पुणून ताचे वांगडा पांच-सात

वर्सांच्यो दोगी धाकट्यो चलयो पळेतकूच म्हाका अजाप जालें आनी हांवें ताका विचारलें, 'ह्यो चलयो कोणाच्यो?'

ताचे बायलेन म्हाका जाप दिली, 'ह्यो म्हाका म्हज्या आदल्या घोवा पसून जाल्ल्यो!'

तिणें हें इतल्या सादेपणान म्हाका सांगलें की त्याच खिणाक म्हजे तकलेंत प्रस्न उबो जालो –

हालींचें हें सुधारिल्लें जग 'आदल्या घोवाचीं भुरगीं' म्हूण सांगतना मातूय आडखळना. फाल्यां एकाद्री बायल लग्न जायनासतना म्हाका हें भुरगें अमक्या पसून जाल्लें आनी हें दुसरें तमक्या पसून जाल्लें अशें सांगूंक धजत व्हय? जग इतलें 'सुधारत' व्हय?

म्हाका 'ना' म्हूण जाप मेळ्ळी ना. घडये पन्नास-साठ वर्सां भितरूच जग अशें जायत, सांगूं नज!

हांवें म्हज्या इश्टाचे बायलेक मागीर तितल्याच सादेपणान म्हळें, 'नवो घोव करतकूच तुवें तुजें आडनांव बदल्लें. बरें आसा! पुणून ह्या भुरग्यांचें कित्याक बदल्लें? आसना आशिल्लें तेंच आदलें आडनांव! ते भायर चलयो ह्यो. लग्न जातकूच आडनांवां बदलपाच्योच आसात.'





२७-१०-१९७०

**४५.** आयज खूब दिसांनी XXX दिश्टी पडली. आंग मातशें सुटलां. हांवें तिका म्हळें, 'तुवें आतां डायटींग बी करून आंग पयलीं भशेन रेखीव करूंक जाय....'

ती हांसली.

हांवें म्हळें, 'तुका म्हजें हें उलोवप मर्यादे भायलें घडये दिसत. पुणून तूं सुंदर. स्वंयचेच बायलेन आपलें सौंदर्य आपली मालमत्ता मानूंक जायना, देवाची देणगी ती अशें समजून ताचो जतनाय घेवंक जाय. तूं तुजें सौंदर्य होगडावंक लागली जाल्यार कशें जातलें?...'





**४६.** नाटकांचे बाबतींत गोंयकारांची taste सामकीच इबाडल्या! वायट बरें संभाशण चलिल्लें आसतना मदींच एकलो पदां म्हणटा, हातूंतलें कृत्रिमपण तांच्या लक्षांत कशें येना, कोणाक खबर!

आनी, असलीं हीं नाटकां ते धा धा, वीस वीस खेपे पळेतात! संगिता खातीर? तशें जाल्यार, निवळ संगीतिकाच करच्यो. नाटक सभावीक आसूंक जाय.

पुणून हें मळ म्हजें न्हय. म्हूण हांव ह्या संबंदान चड-सो कांय उलयना.

आयज पोरणो ट्रंक उस्तितां उस्तितां एका गुजराती मासिकाचें एक मेकळें पान हातांत पडलें. तातूंत एकल्यान बर्नार्ड शॉ विशींचे आपणाले उगडास बरयल्यात. बरोवपी कोण तो कळ्ळो ना. पुणून तो धर्मान जैन आसुंये. शॉ मुंबय पाविल्लो तेन्ना ताचे कडेन आपूण जैन धर्मा संबंदान उलयल्लों अशें तो बरयता. (आपूण मुंबय गेल्लों तेन्ना आपणालो धर्म जैन म्हणपाचें आपणाक कळ्ळें अशें शॉन खंय तरी बरयलां हाचो म्हाका उगडास जाता).

आनीक एक खबर ताणें सांगल्या –

शॉन खंय ताका विचारलें, 'तुमच्या देशांतल्या नाटकांचो दर्जो कितें?'

ते मुस्तींत मुंबयंत बाल-गंधर्वाचीं मराठी नाटकां गाजतालीं. आनी मराठी रंगभूंय बाल-गंधर्वाक लागून गुजराती हिन्दी परस खूब मुखार गेल्ली. देखून ह्या मनशान शॉक गंधर्वाचें नाटक दाखोवपाक व्हेलो.

पंदरा-वीस मिनटां शॉन नाटक पळेलें आनी मागीर –

'Stupid!' अशें सर्टिफिकेट दिवन खंय तो भायर सरलो!

मराठी नाटकां जीं गोंयकार करतात तांकां stupid म्हणपी हांव एकलोच ना तर! संवसारांतलो एक व्हड नाटककार म्हजे वांगडा आसा!!!





**४७.** हांवें सैमाचो सभाव थोडो-भोव नियाळून पळेला. सैमाच्या संवसारांत जितल्योय घडामोडी घडटात तांचे फाटल्यान एक plan, एक येवजण आसा अशें हांवें पळेलां आनी, हे येवजणे फाटल्यान 'बुद्द' आसा म्हणपाचेंय म्हाका जाणवलां.

भुरगें पोटांत येतकच आवयचे छातयेंत दूद कशें येता? गायो जावं म्हशी जिस्त पावस पडून सगळे कडेन पाचवेंचार जाता त्याच वेळार चड करून कश्यो वियेतात?

फाटीं ecologyचें फाटल्यान लागिल्लों. तेन्ना सैमाचे येवजणे फाटले 'बुद्दी'चीं बारीकसाण पळोवन चकासूर जाल्लों. इतलेंच न्हय तर ही बुद्द 'मंगल' तेंच करपी, 'बरें' तेंच करपी ह्याय निर्णयार पावलों आनी म्हजो सैमाच्या मांगल्या वेल्लो भावार्त वाडलो आनी घट्ट जालो.

जेन्ना सुकी-धाड येता, जावं ऋतू बदलता, त्या वेळार मरण चुकोवपा खातीर रुखावळीक कसले कसले उपाय सैम शिकयता, पळेलां?

कांय रुखांक कांटे कित्याक आसतात? कांय रुखांचीं मुळां जमनींत खोल वचपा बांट्याचीं वयलेवयर पयस मेरेन कित्याक पातळटात?

सैमाच्या plan फाटल्यान बुद्द ना? ही बुद्द मंगल तेंच करपी न्हय?

तशें जाल्यार मागीर —

मदीं मदीं पावसूच कित्याक पडना? मदीं मदीं भुंयकांप कित्याक जातात? मदींच मोड येवन सगळें मोडून कित्याक वता?

सैम मदीं मदीं अरिश्टां हाडटा वीं खुशेंच अरिश्टां, काय आनी कितें?

म्हाका ह्या प्रस्नाची जाप अजून मेळूंक ना.





२९—१०—१९७०

**४८.** कालच्यान नान्चो बोवाळ चल्ला: 'फाल्यां म्हाका फांतोडेर उठय आं!... आकास-दिवो पेटोवंक जाय... दिपरदनां लावंक जाय... नरकासूर पळोवंक वचूंक जाय!...'

दिवाळी आयल्या!

ताच्यो उमेदी पळोवन म्हाका म्हज्या भुरगेपणाचो उगडास जालो आनी रवीन्द्रनाथांचे *'गीतांजली'* तलें तत्त्वगिन्यान तकलेंत घोळूंक लागलें. नान् येदो आठ णव वर्सांचो आसतना म्हाकाय अश्योच उमेदी आशिल्ल्यो. जिविताची झर तेन्ना निकतीच फुटिल्ली! आनी ती कितली सुंदर आशिल्ली!!!

उपरांत, आठ-धा पावसाळे गेले आनी हे झरीचो व्हाळ जालो. आदल्या उमेदींची सुवात नव्या उमेदींनी घेतली. त्याय वेळार जीण अर्थान कितली उपाट भरिल्ली दिसताली!

आनीक कांय पावसाळे गेले आनी जितले दांत तितलीं वर्सां जालीं. जिणेच्या व्हाळाक आनीक व्हाळ येवन मेळ्ळे. तिची न्हंय जाली. आनी, नव्या उमेदींनी उचांबळून येवंक लागलों.

चाळीस भर जालीं तेन्ना उमेदींचें पात्र रुंद जालें आनी जिविताची झर जी व्हाळ जाल्ली आनी उपरांत न्हंय जाल्ली ती आतां दर्याचे दिकेन धांवंक लागल्या...

नव्यो उमेदी आतां वेगळे तरेन जिवीत गोड करतात.

इतलेंच न्हय, जिविताचो म्हयमा आतां पटूंक लागला.

आतां रवीन्द्रनाथां वरीच येवजितां—

जिविताचीं तीन-चार रुपां पळेलीं. सगळींच 'सुंदर' आशिल्लीं. अर्थान उपाट भरिल्लीं आशिल्लीं. दर एके अवस्तेंत कोणाचो तरी म्हाका सांगात एकासारको मेळत आयला. 'तो' म्हाका हाताक धरून चलयत चलयत हांगा मेरेन घेवन आयला. हांव चलत आसां आनी 'तो' म्हाका उलो मारीत आपयत आसा. भुरगेपणांत जो म्हजे वांगडा खेळटालो तोच आयज म्हजे म्हऱ्यांत रावन म्हज्या वावरांत वांटो घेत आसा आनी हांसत हांसत नव्या रुपान सांगात दीत आसा.

आयज म्हजे जिणेच्या 'आनंदा'नूय नवें रूप घेतलां...

जो हे भाशेन आयुश्य भर सांगात दीत आयलो तो आयुश्य सोंपपा वेळार सांगात सोडटलो? जो सदांच नव्या नव्या रुपान म्हजे वांगडा हांसत खेळत

आयला तो मरणा उपरांत म्हाका सोडटलो?

हांव नान् कडेन पळेतां आनी मनांत म्हणटां:

चाळीस आनी पांच पावसाळे खाल्ल्या ह्या रुखा मुखार निकतेंच वयर सरिल्लें तणाचें पातें तूं! पुणून ह्या रुखा इतलेंच 'सुंदर' आनी ह्या रुखा इतलेंच 'पूर्ण .'

आनी ताच्या उमेदींनां हांवूय उमेदीन वांटो घेतां.



**४९.** राजाजींची एक खबर वाचली:

ताकां कोण एकलो नाच दाखोवंक घेवन गेलो.

माचयेर एकली अर्दी-नागडी बायल आनी एकलो अर्दो-नागडो दादलो नाचतालीं...

नाच सोंपार येवपाक राजाजी उठले आनी घरा वचपाक हॉल सोडून भायर गेले. तांकां नाच दाखोवंक घेवन गेल्लो मनीस फाटल्यान धांवत आयलो आनी विचारूंक लागलो, 'राजाजी, कितें जालें? मदींच शें उठले?'

राजाजींनी जाप दिली, 'विकार उत्पन्न करपी नाच हो. अर्दें-नागडें बायलेक तुमी माचयेर हाडून नाचयतात?'

तो मनीस हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'राजाजी, शंकर-पार्वती अशींच अर्दीं-नागडीं नाचतालीं...'

'तीं स्वतः नाचतालीं... दुसरीं नाचतात तें पळोवंक वचनाशिल्लीं...' राजाजींनी जाप दिली.





३०—१०—१९७०

**५०.** बुद्धाचे जिणेंतल्यो तीन म्हत्त्वाच्यो गजाली झाडांचे सायेंत जाल्यो:
ताचो जल्म लुम्बिनीच्या शालवनांत एका झाडा मुळांत जालो.
गयेंत नेरंजरा न्हंयेच्या तिरा वेल्या एका पिंपळा पोंदा ताका 'गिन्यान' मेळ्ळें.
आनी, कुशीनगराक दोन शाल रुखांचे सायेंत ताका मरण आयलें.

ह्यो तिनूय म्हत्त्वाच्यो गजाली सैमाचे सायेंत, झाडाचे सावळेंत, उकत्यार जाल्यो!

एकल्या बौद्धान म्हळ्ळें, *'प्रासादों में रहकर बुद्धों का निर्माण नहीं हो सकता। उनके लिये खुली वायु चाहिए...।'*





१–११–१९७०

**५१.** आयज xxxगेर गेल्लों. दोगूय भाव मेळ्ळे. दोगूय म्हजे इश्ट. दोगांयनी एकामेकांनी असवडीं म्हाका एकामेकांच्यो कागाळी सांगल्यो.

म्हाका मराठी भाशेंतली एक म्हणणी येत्रजली - *'घरोघर मातीच्याच चुली.'*

Joint family त अशेंच जावपाचें. दोगूय भाव एकाच आवय-बापायचे पूत आसले जाल्यारूय तांगेल्यो बायलो वेगळ्या वेगळ्या आवय-बापांयल्यो धुवो आसतात. तांचे मजगतीं संस्कारांचो फरक आसता. कांयच न्हय जाल्यार एकामेकांचेर शिणप तांकां चुकोवंक येना.

हे शीण आनी तांकां लागून मनां पयस्सावपाच्यो ज्यो करण्यो तांचे हस्तुकीं घडटात त्यो चुकोवच्यो आसल्यार दोगूय भावांनी लग्न जायना फुडें वेगळीं वेगळीं बिराडां करून रावंक जाय. म्हाका उगडास जालो -

xxxxxनीं दिल्लींक रावपाचें थारायलें तेन्ना तांगेले दोगूय पूत दिल्लीक रावताले. दोगूय एक दीस बापाय सरीं आयले आनी म्हणूंक लागले, 'आतां आमी एक व्हडलें घर भाड्यान घेवंया आनी सगळे एकटांय रावंया.'

बापायन तांकां जाप दिली, 'म्हजीं राजाल मोडात. म्हजे जिणेची तरा आनी तुमची तरा हातूंत फरक आसा. तेन्ना तुमचे वांगडा रावप म्हाका समा जावपाचें ना. पुणून तुमकांय हांव सांगतां, तुमचे मजगतीं मोग उरचो अशें तुमकां दिसता जाल्यार, तुमीय एकटांय रावंक जायना. तुमीय दोन वेगळीं बिराडां करून रावंक जाय.'

बापूय आनी दोगूय पूत तीन वेगळ्या बिराडांनी रावंक लागले.

तेन्ना पसून हांव म्हणीत आयलां आनी, आतां joint family कश्यो चलतात तें बारकायेन पळेल्ले उपरांत सामको अश्या मतार पावलां की

भावां भावांनी अंतस्करणां तुटचे पयलींच वेगळे सरूंक जाय. इतलेंच न्हय, तर पूत वयार येना फुडें ताका लग्न केलां म्हणटकूच स्वामा बापायन पुताक वेगळें बिराड करून दिवंक जाय.

Joint familyची तुस्त कितलीय गायली म्हण, ती जें लुकसान करता ताचे कडेन दोळे धांपूंक जायनात!





२–११–१९७०

**५२.** म्हजे वळखीच्या गोंयकारां भितर प्रो. निकूबाब धुमा हांकां गोड उलोवपाची कला सादिल्ली. मदीं एकाद्रो चुटको सांग, चिमटो काड, ताळी मार, खातकुतल्यो कर,हें सगळें ते भोव बरें करताले.

भाई देसाय निकूबाबां परस चड बहुश्रुत. तांगेलें उलोवणें आयकतना केन्ना कोणाक वाज आयलो ना. एकल्यान वर्णन केलां : 'भाई उलोवंक लागले म्हणटकूच रडपी ल्हान भुरगें लेगीत रडपाचें विसरतालें...'

बाकीबाब बोरकारूय अशेच 'संभाशण-कलें'त ऊंच पांवडो जोडिल्ले. तांचे म्हऱ्यांत वरभर बसल्यार पुरो, वसंत-रुतू सुरू जावपाक कोगूळ गांवंक लागतकूच जशें प्रसन्न दिसता तसोच अणभव येता.

पुणून संभाशण-कलेंत खुबूच वयलो पांवडो जोडिल्ले दोग जाण हांवें पळेले ते गोंयां भायर – एक, काकासायब आनी दुसरे, लोहिया.

दोगूय खूब रसाळ उलोवपी, ते भायर, येवजूंक जाणा जाल्ल्याक 'अस्वस्थ' करपी.

सरदार पणिक्करूय खंय अशेच आशिल्ले. हांवें काकासायबांच्याच तोंडांतल्यान आयकलां, आपूण काहिराक गेलों आनी पणिक्करां कडेन उलयतां उलयतां पिरामीड्स पळोवपाक हांगा आयलां म्हणपाचें साप्प विसरलों म्हूण... तारा बेग हीय अशीच रसाळ उलोवपी.

भाशणां दिवप, लेख बरोवप हांचे इतलेंच बरें संभाशण करूंक येवप हाकाय म्हत्त्व आसा. तें कित्याक, हांचे परस चडूच म्हत्त्व आसा म्हळ्यार जाता. एक social art ती.

पुणून हेय कलेचे कांय नेम आसात –

तुका खबरी सांगूंक येवंक जाय. म्हायती दिवंक येवंक जाय. आपणाले अणभव, लागणुको, दुबाव, भंय, सगळें उकतावंक येवंक जाय. हांसोवंक येवंक जाय आनी, हें सगळें भोंवतणीं बशिल्ल्यांक वाज येना हे भाशेन करूंक येवंक जाय.

संभाशण-कला म्हळ्यार परनिंदा करप न्हय. दुसऱ्यांच्यो भगलो मारप न्हय. बास्कळपणां न्हय. सुको उपदेसूय न्हय आनी विदुशकपण तर निखालूस न्हय.





३—११—१९७०

**५३.** आयज सकाळीं उठना फुडें उर्बेक एक आंकरी फुटिल्ले वरी दिसली आनी –

मन फुरफुरूंक लागलें.

आतां खंयूय तरी भायर वचूंक जाय. हिन्दुस्ताना भायर वचून एक नवो देस पळोवन येवंक जाय अशें दिसपाक लागलें.

केन्ना केन्ना जाता म्हाका अशें.

आफ्रिकेक गेल्यार कशें? थंयचें सैम सुमारा भायर सुंदर कित्याक आनी, लोक सुमारा भायर काळे कित्याक?

काय चिलीक वचचें? भौन भौन जंय भुंयकांप जातात असल्या ह्या देशांतल्यो सगळ्योच बायलो अप्सरा कित्याक?

काय मोंगोलियाक वचचें?

तीन वर्सां पयलीं म्हाका अशेंच दिसिल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजांत काबार जाल्लें जपान परते वयर कशें सरलें हें पळोवन येवचें आनी 'सात खेपे पडलें जाल्यारूय आठवे खेपे उबें रावपाची' तांक ह्या देशांत कित्याक लागून आसा हें समजून घेवचें अशें दिसपाक लागलें. आनी हांव थंय वचून आयलों. दोन म्हयने थंय भोंवलों. दोळे आनी मन उकतें दवरून सगळें पळेलें. पयलेच खेपे हांव हिन्दुस्ताना भायर गेल्लों. परतलों तेन्ना अनुभवान हांव गिरेस्त जाल्लों. प्रवासांतल्यान परतले उपरांत you are never the same.

म्हाका त्या वेळार एकल्यान म्हळें – तोक्यो थावन मुंबय मेरेन वचपाची तिकेट तुजे कडेन आसा. रोमा थावन मुंबय मेरेनचे तिकेटीक तितलेंच पडटात. तुज्यान तो जाय जाल्यार तशी बदलून घेवं येता. हांगासून सरळ मुंबय वचपा बदला तूं हांगाच्यान रोमाक कित्याक वचना? आनी येवरोपूय कित्याक भोंवन पळेना?

म्हाका तें आयकून लालूच सुटिल्ली. पुणून जपानांत जें कितें हांवें पळेल्लें तें म्हाका बरें पचोवपाचें आशिल्लें. आंबो खाले उपरांत ताची रूच तोंडांत उरची म्हूण जशें आमी उदकाचो घोंट घेनात, तशें जपानाची रूच मनांत उरची म्हूण दुसरें काय पळोवचें न्हय अशें हांवें थारायलें.

म्हाका भोंवचें-शें दिसता तें सैमाची गिरेस्तकाय नियाळपा खातीर आनी, हे

धर्तरिचे फाटीर जे लोक चलतात भोंवतात तांचे प्रस्न समजून घेवपा खातीर.

हालीं म्हजे तकलेंत एकाच प्रस्नाचीं तीन रुपां समजून घेवपाची इत्सा उदेल्या—

आफ्रिकेंतल्या काळ्या लोकांचो आपले परंपरे आड, आपल्या सैमा आड, आनी आतां मेरेन तांकां चिड्डून दवरपी गोऱ्या लोकां आड जो संघर्ष चल्ला तो समजून घेवचो.

अमेरिकेंत जो काळ्या-गोऱ्यांचो संघर्ष चल्ला तोय समजून घेवचो.

आनी, ब्राझीलान जो काळ्या-गोऱ्यांचो समन्वय घडोवन हाडला तोय प्रयोग नियाळून पळोवचो.

पांय आतां 'चल, या' करूंक लागल्यात.

संद सोदची पडली.





४-११-१९७०

**५४.** सद्द्ये रवीन्द्रनाथांचे *'दुई बोन'* (दोगी भयणी) हे नवलिकेंत जावंये, बायलांच्यो दोन जाती आसात म्हूण हांवें वाचिल्लें.

एक जात आवयची. दुसरी प्रियेची.

म्हूं कळेन सर करीत जाल्यार, आवयचे जातीची बायल खंय वर्षारुतू सारकी. पावस शिंवरायतली, फळां दितली, उजो न्हिवयतली. आपणाक पुराय विसगळायतली आनी जिणेंत जें कितें उणें आसा तें भरून काडटली.

आनी, प्रिया म्हळ्यार, वसंतरुतू. माया-मंत्रान भुलोवपी. चंचलतायेन रगतांत व्हाळां उसळावपी. काळजाची विणा वाजोवन कुडींत एके तरेची रागिणी उठोवपी.

बायल कशी आसची?

वर्षारुतू सारकी काय, वसंतरुतू सारकी?

रवीन्द्रनाथांच्या निर्मणेंतली एकली बायल – चित्रांगदा – दादल्याक म्हणटा :

*'यदि पार्श्व राखो*
*मोरे संकटेर पथे, दुरूह चिंतार*
*यदि अंश दाओ, यदि अनुमति करो*
*कठिण व्रतेर तव सहाय हइते,*
*यदि सुखदुःखेर मोरे करो सहचरी,*
*आमार पाइबे तबे परिचय.'*

–'संकश्टांची वाट चलता आसतना, जिणेंतले मोटे हुस्के सोडयता आसतना, कठीण व्रतांक पाळो दिता आसतना म्हजो आधार घेशीत आनी तुज्या सुखांत आनी दुःखांत म्हाका वांटेकार करशीत जाल्यारूच म्हाका तूं खरेंपणानशीं वळखूंक पावतलो.'

म्हाका दिसता, बायल आसची जाल्यार ती अशी आसची.





५–११–१९७०

**५५.** एके कडेन वाचिल्लें – Real living is living in the light of an ideal and with a sense of vocation.

मनीस खंयच्च्या तरी एका ध्येयान भारून वचूंक जाय आनी त्या ध्येयाक ताणें व्रता सारको पाळो दिवंक जाय. तरूच तो खऱ्या अर्थान जियेता अशें म्हणुंयेता.

स्वराज्य मेळचे पयलीं असले तरेची जीण जियेवपी लोक आशिल्ले. 'देश स्वतंत्र करूंक जाय' हें एक ध्येय दोळ्यां मुखार दवरून ते घर-दार सोडटाले, सुखां सोडटाले. इतलेंय आसून मात लेगीत जिणेचेर शिणनाशिल्ले.

स्वराज्य मेळ्ळें आनी हो ध्येयवाद सामकोच ना जावन गेलो. हरशीं, खऱ्या ध्येयवादाची गरज आतांच सगळ्यांत चड आशिल्ली. 'देश स्वतंत्र करूंक जाय' ह्या ध्येया परस 'देश वयर काडूंक जाय' हें ध्येय कितलेंशेंच कठीण आनी कितलेंशेंच व्हड. हजारांनी वर्सां सान्न मारूंक नाशिल्ल्यान आमचे संस्कृतायेच्या आंगणांत जो कोयर एकठांय जाला तो काडून उडोवपाचो वावर केदो व्हडलो म्हणूंक जाय!

पुणून कितें म्हूण समजना, स्वराज्या आदल्या काळांतले वरी ध्येयवादाचें वातावरणूच आतां उबें जायना!

आयज हांवें एकल्याक विचारलें, why do we live? आमी कित्याक जियेतात? आमचे मुखार, कसलेंय जावं तें मागीर, पुणून ध्येय आसा काय ना?

ताणें प्रस्नानूच जाप दिली, Do we live at all? Or, do we just exist? आमी 'जियेतात' व्हय तर? काय, जल्मा आयल्यात आनी मरूंक नात म्हूण आमी फकत 'आसात'?

'जियेवप' वेगळें आनी 'जिवें उरप' वेगळें.

म्हाका प्लेटोच्या एका वाक्याचो उगडास जालो – The unexamined life is not worth living.

आनी हांव सामकोच अस्वस्थ जालों.





६–११–१९७०

**५६.** मनशाची जीण कशी आसची? आयज तुलसीदासाचें *'रामचरितमानस'* घेवन बशिल्लों. तातूंत म्हाका मेळ्ळें : मनशाची जीण खंय कापसा सारकी आसची.

कापसा सारकी कित्याक? कापूस धवोफुल्ल आसता म्हण व्हय? आनी धवोफुल्ल वस्त सदां निर्मळ आसता म्हण काय? जायत घडये. पुणून तुलसीदास, ते भायर, कापसाचे आनिकूय कांय गूण सांगता. *'निरस विशद गुनमय फल जासू'* –'जाचें फळ खंय रस नाशिल्लें, अज्ञान नाशिल्लें आनी गुणांनी उपाट भरिल्लें आसता.'

पुणून म्हाका चडांत चड मानवलो तो कापसाचो दुसरो एक गूण. कापूस खंय *'जो सहि दुःख परछिद्र दुरावा'* आपूण दुःख सोंसून दुसऱ्यांचीं उणीं धांपपी.

तुलसीदासाच्यो कांय ओपारी खूब सुंदर. संताक तो *'जंगम तीरथराज'*– चलता भोंवता तसलें तीर्थ म्हणटा. सादें तीर्थ न्हय. जंय गंगा, यमुना आनी सरस्वती तिनूय एक जाल्यात असलें तीर्थ. ताची व्रतनिष्ठा ही खंय यमुना. भक्ती ही खंय गंगा. आनी सरस्वती म्हळ्यार, ब्रह्मविचाराचो प्रचार. तो गुप्तूच आसूंक जाय.

मुखार म्हणटा – असल्या संताची संगत मेळत जाल्यार, कावळ्याची खंय कोगूळ जाता. बकऱ्याचें हांयस जाता. येदो बदल मनशांत घडून येता. असलो बदल घडले उपरांत ताका चुकून वायट संगत लागली जाल्यार –

*'फनि मनि सम निजगुन अनुसरहिं'* – सोरोप जसो आपलें तकलें वेल्या मणया फाटल्यान चलता तसो तो आपल्या गुणां फाटल्यान वतलो. ताका वायट संगतीची बादा जावंक पावची ना.

हातांतलीं फुलां जशीं दोनूय हातांक (खुंटल्ल्या आनी घेतिल्ल्या) परमळीत करतात तसो खंय हो मनीस सागार दायजी-दुस्मान आनी इश्ट-संवगडी दोगांचीय जीण परमळीत करतलो.

तुलसीदास मदीं मदीं पिशें लायता म्हाका.





७–११–१९७०

**५७.** पुर्विल्ले मुस्तींतले कवी बरोवंक बसताले तेन्ना आरंभाक ते देव, गणपती, सरस्वती आनी गुरू हांकां नमन करताले.

तुलसीदासान हांचे पंगतीक निंदा करतल्याकूय हाडून बसयला. इतलेंच न्हय तर ताची तुस्तूय ताणें केल्या –

तो खंय सभावान दुश्ट, आपलें बरें करतल्याचो लेगीत दुस्वास करपी. दुसऱ्याचें लुकसान जालें जाल्यार तातूंत आपलो लाव आसा अशें लेखपी. निंदा करतलो दुसऱ्याचें पाड घालता आसतना हजारांनी बावळ्यांचो 'सहस्त्रबाहु' जाता. दुसऱ्याचीं उणीं पळेतना 'सहस्त्राक्ष' – हजारांनी दोळ्यांचो जाता. दुसऱ्याक हुलपावंक गेलो जाल्यार उजो कसो हुलपायता. कोणाक वायट उतरां दिवंक लागलो जाल्यार वज्रा वरी खर जावन ताका कातरूंक लागता. पातकां आनी अवगूण हातूंत तो कुबेरा परसूय गिरेस्त. शत्रू मित्र – सगळ्यांक सारको. आनी–

आपलो हो 'स्वधर्म' खंय तो जीव गेल्यार लेगीत सोडिना!

पुणून –

देवान निर्मिल्ल्या ह्या संवसारांत जसो दीस उदेलो जाल्यार रातूय उदेता, उजवाड आसलो जाल्यार काळोखूय आसता, जीण आसली जाल्यार मर्णूय आसता, तेच वरी खंय, जंय 'बरें' आसता थंय 'वायटू'य आसूंक जाय. ना जाल्यार देवाक अर्दकुटो म्हणचो पडटलो!

संवसारांत गुणां वांगडा अवगुणूय आसतात म्हुण्णूच तर खंय हो संवसार इतलो सुंदर दिसता.

आतां–

हांयस जशें उदक आनी दूद हांकां वेगळीं काडूंक दूद घेता आनी उदक सोडटा तशे खंय आमी संवसारांतले गूण घेवंक जाय आनी अवगूण सोडून दिवंक जाय.

'जिणेची कला' घडये हीच आसुंये.





८–११–१९७०

**५८.** तुलसीदासाचे भाशेची तांक आकांताची! थोड्या उतरांनी तो कितलेंशेंच सांगता.

Power corrupts. Absolute power corrupts absolutely हो विचार ताणें कितलो बरो मांडला, पळे – *'नहिं कोऊ अस जनमा जगमांहि, प्रभुता पाई जाहि मद नाही.'*

आनीक एक – *'कोहि न सुसंग बडप्पनु पावा'* – संगत बरी मेळ्ळी जाल्यार कोणाक केन्ना व्हडपण मेळ्ळे बगर रावलां व्हय? उज्याक चंदन आफडीत जाल्यार धुंवर लेगीत खंय परमळीत जाता.

आनीक एक सुंदर वाक्य मेळ्ळें –

'कीत, कवीत, संपत बरी केन्ना? गंगे वरी सगळ्यांचें बरें करीत तेन्ना...'

आनीक एक –

'तेजिश्टाक केन्ना ल्हान लेखचो न्हय...'

'आपले उदरगतीन खुशालभरीत जावन व्हांवपी न्हंयो, जावं तळयो संवसारांत जायत्यो मेळटात. पुणून चंद्राची उदरगत जाल्ली पळोवन खुशालभरीत जावन नाचपी फकत एकलो समुद्रूच आसा...'

तुलसीदासाक असलें सगळें कशें येवजलां, कोण जाणा! खूब refined taste आशिल्लो कवी हो.

ताचे भाशेची तांक पळोवन जाल्यार हांव अजापांनूच पडलों.

एके कडेन तो म्हणटा – 'कशें वर्णन करूं? जिबेक दोळे नात आनी दोळ्यांक उलोवंक येना.' – *'गिरा अनयन नयन बिनु बानी.'*

तुलसीदासाचे भाशेचें आनी प्रतिभेचें वर्णन करचें जाल्यार, म्हाकाय म्हणचें पडटलें - कशें करूं? म्हजोय *'गिरा अनयन नयन बिनु बानी.'*





९–११–१९७०

**५९.** Sex चें खंयचेंय एक आंग रंगयले बगर आयज मेरेन कोणाकूच काणी वा नवलकाणी बरोवंक येवंक ना! अशें कित्याक जावचें?

बायल-मनशेच्या आंगांचें 'प्रदर्शन' केले बगर आमकां आमच्या पुस्तकांक कव्हरां लेगीत करूंक येनात! हालीं हालीं जाल्यार हांवें पळेलां, बरें पुस्तक लेगीत खपयतलो जाल्यार पुस्तकाचें कव्हर बरें छापूंक जाय, आनी बरें कव्हर म्हळ्यार, तातूंत एक बायल जाय आनी तिचें खंयचेंय एक आंग मातशें उकतें उडोवंक जाय.

पुस्तकां म्हणूं नाका, नेमाळीं म्हणूं नाका, बायल-मनशेच्या आंगांचेरूच जियेतात! तें कित्याक, शाबू, पंखो, लुगट– जो जो म्हाल आयज तयार जाता तो बाजारांत येताच पयलो एकाद्रे बायलेक मुखार दवरून.

Sexचो लाव घेतले बगर आयज मेरेन कोणाकूय खंयचोय म्हाल खपोवंक आयला व्हय?

Sexचें हें येदें व्हडलें obsession आमच्यांत कित्याक लागून निर्माण जालें?

'काम' वेगळो आनी 'कामुकता' वेगळी. Sex वेगळो आनी sexuality वेगळी. आमी सगळ्यांनी सभ्यतायेच्या नांवान तरे तरेचे taboos निर्माण केले आनी 'काम' चिड्डिलो! देखुनूच 'कामुकते'न आमची पुराय जीण वेश्टूंक ना मूं? आमचो supressed sexच – चिड्डिल्लो कामूच ह्या रुपान आमचे मुखार उबो रावंक ना मूं?

तशें जाल्यार मागीर कामुकते आड झुजपांत कांय अर्थ ना. कामुकतेची मनशाक ओड कित्याक हें समजून घेवचें पडटलें आनी कामुकता निर्माण करपी 'कामा'वेली बंदी काडची पडटली.

'सभ्य' म्हूण ज्या येवरोपाक आमी मानतात थंय कामुकतेन केदो अच्छेव मांडला! थंयचें साहित्य वाचल्यार पुरो, अदमास येतलो. समलिंगी संभोग – homosexuality – आमकां खंयच्याच जनावरांत पळोवंक मेळना. तें कित्याक, 'रानटी' लोकांक लेगीत अशे तरेचो संभोग आसता म्हणपाची खबर सांगल्यार तांकां खरें दिसचें ना. पुणून येवरोपांत? थंय ताका 'प्रतिष्ठा' मेळूंक लागल्या! इतलेंच न्हय तर थंय कांय homosexual clubs सुरू जाल्यात

आनी homosexualityचेर कायद्यान बंदी घाल्या ती काडात अशें मागून चळवळीय करूंक लागल्यात. 'आमी इतले जाण हो वेव्हार करता आसतना तुमी ताचेर बंदी घालतात म्हणचें कितें!' अशेंय विचारूंक लागल्यात. आनी, बंदी घालप ही 'लोकशायें आड करणी' अशेंय म्हणूंक लागल्यात!!!

खरेंच दिसना! नीत मानतल्यांनी Sexचे आड जें झूज चलयलें ताचोच हो परिणाम न्हय मू?





१०–११–१९७०

**६०.** कितले दीस जाले, हिन्दुस्तान देशाचो इतिहास तीनशीं-चारशीं पानांच्या एका पुस्तकांत बरोवचो अशें मनांत घोळटा. वेगळ्या वेगळ्या काळांचेर व्हडले व्हडले ग्रंथ जायत्या जाणांनी बरयल्यात. तांतले थोडे हांवें एकटांय केल्यात आनी मर्दी मर्दी ते चाळून पळेतां.

आयज हांवें ही खबर xxxxक सांगली तेन्ना ताणें म्हाका एक मजेची गजाल सांगली. म्हणूंक लागलो : Anatole Franceचें Penguin Island म्हळ्यार, मनीस-कुळयेच्या इतिहासा वेलें एक satire. तातूंत आरंभाकूच तो एक खबर सांगता – आपल्या मनांत इतिहासाचें पुस्तक बरोवचें अशें आयलें तेन्ना तो खंय एका तज्ज्ञा कडेन गेलो आनी ताका आपलो बेत सांगलो. तो तज्ज्ञ खंय ताका सांगूंक लागलो: बाबा रे, बेश्टो त्रास कित्याक घेता तूं? इतिहासाचें पुस्तक बरोवपाची एक तरा आसा. आयज मेरेन जांणी इतिहासाचीं पुस्तकां बरयल्यांत तांतलीं बरीं बरीं वेंचून काड आनी तीं मुखार दवरून तुजें पुस्तक बरय. पुणून एक लक्षांत दवर – तुजे कडेन नवें कितेंय सांगपा सारकें आसत, तूं लोकांक एक नवी नदर दिवंक सोदता जाशीत जाल्यार, तूं तांकां बेश्टो गोंदळांत उडयतलो. लोक इतिहास वाचता तो गोंदळांत पडपा खातीर न्हय... आपूण जीं कितें पिशेपणां जाणां तींच तो इतिहासांत सोदता. हीं पिशेपणां सोडून दुसरें कितेंय इतिहासांतलें सोदून ताका दिशीत जाल्यार, ताका तुजो राग येतलो... तूं आपणाक तिडायता म्हणटलो, आपलो अपमान करता म्हणटलो! बरे इतिहासकार एकामेकांची कॉपी मारतात. तांची देख घे आनी, do not be original. An original historian is the object of distrust, contempt and loathing from everybody...

आनी निमाणें खंय ताणें सांगलें: 'म्हाका एक व्हडलो इतिहासकार म्हूण संवसारांत भौमान मेळ्ळा तो. हांवें म्हज्या पुस्तकांनी कितेंय 'नवें' सांगलां म्हूण न्हय... नवें कितेंय सांगिल्लें जाल्यार म्हाका कोण मानचो नाशिल्लो.'

Penguin Island वाचल्यार खूब वर्सां जालीं. परतें वाचतलों म्हणटां...





११–११-१९७०

**६१.** आयज 'फुडारी' आनी तांचे 'अनुयायी' हांच्यो खबरी आयल्यो. म्हाका खलिल जिब्रानाची एक काणी येवजली.

एकलो खंय एक खेपे अमरापुरीचे यात्रेक वचपाक भायर सरिल्लो. वाटेंत ताका दुसरो एकलो मनीस तेच यात्रेक वतालो तो दिश्टी पडलो.

ताणें ताका विचारलें, 'अमरापुरीक वचपाची वाट हीच मूं?'

'हय , हीच अमरापुरीची वाट', ताका जाप मेळ्ळी. 'म्हजे फाटल्यान यो... एक दीस आनी एक रात चलचें पडटलें... मागीर आमी अमरापुरीक पावतले...'

तो खंय ताचे फाटल्यान चलपाक लागलो... कितलेशेंच दीस गेले, कितल्योशश्योच राती गेल्यो... ते चलतात... पुणून अमरापुरी कांय येना!

मजा म्हळ्यार, आपणें चुकीची वाट दाखयली म्हण मखलाशी मागपा वांट्याचो खंय तो वयल्यान ताचेर गरार जालो! तापूंक लागलो!!!





१२–११–१९७०

**६२.** काकासायबांनी एके कडेन विद्‌वानांक एक बरें पियाद मारलां... एक कितें तरी समजायतां समजायतां मदींच एक संस्कृत वाक्य घालां आनी मुखार म्हळां- जंय बुद्‌द चलना थंय संस्कृत चलता!

फाटल्या काळार, मदीं मदीं संस्कृत वाक्यां घाले बगर खंयच्याच विद्‌वानाक बरोवंक येनाशिल्लें. न्हय... न्हय, संस्कृत वाक्यां घालून जाका बरोवंक येना ताका लोकूच विद्‌वान लेखिनाशिल्ले.

आतां संस्कृत भाशेची सुवात इंग्लीश भाशेन घेतल्या. खंयचोय भारदस्त लेख घे, मदीं मदीं इंग्लीश अवतरणां तातूंत आसतलींच. जाका मदीं मदीं इंग्लीश अवतरणां घालून बरोवंक येना ताका आयज विचारवंत म्हणपाक लोक तयार नात!

इंग्लीश विचारवंतांचीं अवतरणां इंग्लीशींत दिवप समा आसा.पुणून लेनिनचें मत्त दिवचें जाल्यार तें इंग्लीश भाशेंत कित्याक? तॉलस्तॉय अशें म्हणी... सार्त्र अशें म्हणटा... गटेचे मत्त अशें आशिल्लें... मार्क्सान अशें म्हळां... हें सगळें इंग्लीशींत कित्याक? तांणी तें इंग्लीश भाशेंत बरयल्लें व्हय? तांकां इंग्लीश येताली तरी?

आमच्या बुदवंतांची बुद्‌द केन्ना केन्ना खंय चरूंक वता, समजना!

आनिकूय एक गजाल आसा–

देशी भाशेंतलें खंयचेंय नेमाळें घे. कांय कांय पानांचेर लेख सोंपता थंय सकल इल्लीशी सुवात उरता. ही सुवात रिकामी दवरप बरें दिसना आनी थंय दुसरो लेख दिवप सोबना. अशें जालें म्हणटकूच संपादपी थंय कोणाचेंय तरी एक 'कोटेशन' दिता आनी तें एक तर सिसेरोचें आसता, इमर्सनचें आसता, मार्कस ओरेलियसचें आसता,बर्ट्रांड रसेलाचें आसता वा दुसऱ्या खंयच्याय– पुणून येवरोप अमेरिकेच्याच – बुदवंताचें आसता! खंयच्याय देशी वा आफ्रिकी-आशियायी विद्‌वानाचें मत्त चुकून लेगीत केन्ना दिश्टी पडलां व्हय? ह्या देशांनी विद्‌वान जालेच नात काय कितें?...





१३–११–१९७०

**६३.** रवीन्द्रनाथांची म्हाका ओड. ते एक व्हडले कवी आशिल्ले म्हुणणूच न्हय. तर. आमचे वरी ते 'मनीस' आशिल्ले म्हुणणूय बी. तांकां राग येतालो, तांचो अपमान जातालो. आनी ते हे राग-अपमान दांबून दवरिनाशिल्ले. औचित्य सांबाळून जावं, पूण उकतावन दाखयताले.

तांकां नोबेल इनाम मेळ्ळें तेन्ना तांचेर अभिनंदनांच्या चिटयांचो पावस पडलो. लोक तांकां मेळपाक येवंक लागले. एक दीस कलकत्त्याच्यान एक खेरीत आगगाडी करून सुमार सर्शीं व्हडले व्हडले बंगाली शांतिनिकेतनांत आयले आनी तांणी रवीन्द्रनाथांचो भौमान केलो.

रवीन्द्रनाथाक हो भौमान रुचलो ना. काल पयर मेरेन जांची जीब आनी लिखणी आपली आनी आपल्या काव्याची भगल मारपांतूच गुल्ल आशिल्ली तीच आतां तांची तुस्त गावंक लागिल्ली पळोवन तांकां वायट दिसलें.

रवीन्द्रनाथांनी त्या वेळार जें उलोवप केलें तें सामकें कोड्ड आशिल्लें. तांणी म्हळें : 'आयज भौमानाचें म्हांव भरून तुमी जें हें भांगराचें कोप म्हजे मुखार दवरल्लां ताका फकत ओंठ लावन हांव तें मकल दवरतां. तांतल्या म्होंवाचो घोंट घेवप म्हाका जमपाचें ना. तुमी रागार जावं नाकात. आयजवेर अभिनंदना परस उणीं उतरांच हांवें चड घेतल्यांत. म्हज्या गांवभावांनी म्हजे होंटयेंत अपसूच चड ओतलां. हांव हो सत्कार कसो घेवं?'

म्हाका दिसता – अपमान जाल्लो आसतना तो उकतावन दाखयनासतना गिळप हें एक तर कपटी मनशाक जमता जातलें वा एकाद्र्या म्हात्म्याक सोबता जातलें. जो संस्कृतायेच्या मळार वावुरता ताणें आपल्या समाजाच्या विकृतायां कडेन दोळे धांपून रावंक जायना.

एकूच – ह्या विकृतायां संबंदान उलयतना आपली 'आर्य' वृत्ती सोडूंक जायना. रवीन्द्रनाथांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, आर्य वृत्ती सोडून उलोवप हें 'विश्री' दिसतलें.

पुणून उलोवंक जाय, चाबकां मारूंक जाय, हातूंत म्हाका जाल्यार इल्लोय दुबाव ना...





१८–११–१९७०

**६४.** काकासायबांक मेळपाक अवचीत मुंबय वचपाचें थरलें. हाका लागून चार-पांच दीस दिसपटये कडेन लक्ष दिवंक पावलों ना. कामांत उरलों. आयज बोटीन भायर सरलां. समुद्र समुद्र-सो दिसना... बोट मात लेगीत हालना धोलना...

वाटेर तपासपा खातीर काकासायबांचें *'परमसखा मृत्यु'* घेतिल्लें. ताची दुसरी आवृत्ती भायर सरता. ते पयलीं तें मातशें निवळावन काडचें अशें थारायल्लें.

तांतलें एक उतर काळजांत भितर रोमलें :

मनीस मेलो म्हणटकूच ताका रोखडो जावं उसरां, नवो जल्म मेळटा अशें जायते जाण म्हणटात. ह्या म्हणपांत कितलो अर्थ आसा, हांव नकळं. अर्थ आसा म्हणपाक पुरावो ना. आनी ना म्हणपाचोय धीर जायना.

पुणून एक खरें. मनीस मेलो म्हूण तो सामकोच ना जायना. तो दुसऱ्या एका रुपान— उगडासांच्या रुपान—जियेता. कांय जाणांचे उगडास दोन दोन तीन तीन हजार वर्सां मेरेन उरल्यात. अडेज हजार वर्सां जालीं, बुद्ध अजून जियेता. बाकीचे आमी सगळे पुताची जावं नातरांची पिळगी आसासर जियेतले. वर्सांचो प्रस्न ना. पुणून मनीस मेले उपरांतूय थोडीं जावं अदीक वर्सां तो ह्या रुपांत जियेता हातूंत दुबाव ना.

हे तरेचें जियेवप कुडींत आसतना जियेवपा इतलेंच 'खरें'. इतलेंच न्हय तर हें जियेवप मरणा आदल्या जियेवपा परस चड काळाचें आसता.

हें मरणा उपरांतचें उगडासांच्या रुपांतलें जियेवप — ताचें रूप, बारीक येवजून पळेल्यार, सामाजिकूच आसता.

तशें जाल्यार मागीर मरणा आदल्या जियेवपाचें रुपूय तशेंच सामाजीक आसूंक नाका?

उपनिषदांत यम नचिकेताक सांगता, *'न साम्पराय: प्रतिभाति बालम्'*— 'मरणा उपरांतचे जिणेची (हाका 'साम्पराय' म्हणटात) नेणार मनशाक कल्पना नासता.'

काकासायबांनी आपणाल्या पुस्तकांत यमाचें हें वाक्य जायते कडेन वापरलां आनी 'साम्पराया'ची कल्पना भोव बरे तरेन समजावन सांगल्या.

आयज पणजे थावन मुंबय मेरेनच्या बोटीच्या प्रवासांत हांव ह्या 'साम्पराया' संबंदानूच येवजितालों. हांवें म्हाका जायते खेपे विचारलें, 'तुका ह्या साम्परायाची कल्पना कितलीशी आसा?'

आमी जिणे संबंदान येवजितात तेन्ना जल्म आनी मर्ण ह्या दों तोंकां मदले जिणे संबंदानूच चडशें येवजितात. ही जीण 'दिश्टी' पडटा. पुणून जी जीण दिश्टी पडना आनी तरी आसतना 'आसता' तिच्या संबंदान चडशें कांयच येवजिनात. हें समा न्हय. जल्मा आदले जिणे संबंदान हांव कांयच सांगूंक नकळं. पुणून मरणा उपरांतची जीण 'खरी' आसतना तिच्या संबंदान कांयच येवजप ना, अशें जावंक जायना. म्हाका दिसता, मरणा उपरांतचे जिणेची स्पश्ट कल्पना आयले उपरांतूच मरणा आदले जिणेचें रूप थारावप सोंपें जातलें. तिका 'अर्थ' दिवप सोंपें जातलें.





१९–११–१९७०

**६५.** बांदऱ्याक दत्ताराम सुखठणकारागेर उतरलां.

आयज ताका हांवें म्हळें, *'जपान जसा दिसला'* हें म्हजें पुस्तक जाणें जाणें वाचलें ताणें ताणें ताची मेकळ्या मनान तुस्त केल्या. पुणून अजून मेरेन एकाय मराठी नेमाळ्यान ताचेर कितेंच बरयल्लें हांवें पळोवंक ना...'

ताणें विचारलें, 'गोंयच्या XXXX दिसाळ्याक धाडिल्लें व्हय?'

हांवें म्हळें, 'हय... धाडिल्लें. पुणून ताचें कांय सांगूं नज. कित्याक, ताका बरोवचें पडलें जाल्यार बरेंच बरोवचें पडटलें आनी म्हज्या संबंदान कितेंय बरें बरोवप त्या दिसाळ्याचे परंपरेंत बसना. तेन्ना ताचो म्हाका शीण ना. हांव शिणटां तो महाराष्ट्रांतल्या नेमाळ्यांक.'

ताणें म्हाका समजायलो, 'बरयतलीं तीं सगळीं. पुणून एक लक्षांत दवर. हालींचीं चडशीं मराठी नेमाळीं नव-साक्षरां खातीर चलतात आनी... सगळ्यांत व्हडली tragedy म्हळ्यार, तीं चलयतात तेय बी चडशे नवसाक्षरूच आसतात! तांचेर शिणपांत कांय अर्थ ना!'

म्हजो सगळो शीण एका खिणांत देंवलो.





२०—११—१९७०

**६६.** आयज स्ट्रँडांत वचून निरद चौधरीचें To live or not to live हें नवें पुस्तक घेवन आयलों आनी लोकल गाडयेंत येतना वतना अर्दा वयर तें वाचून काडलें.

मनीस मामको 'विक्षिप्त'. पुणून तो म्हणटा, 'जाका चारित्र्य आसता, तत्त्वां आसतात, तोच विक्षिप्त आसता!...'

म्हजें तोंड बंद पडलें! खरें दिसलें ताचें!

गांधी विक्षिप्त आशिल्ले. विनोबा देड विक्षिप्त. वर्ध्याक जंय एका फुडले एक विक्षिप्त लोक गावताले. थंय आमच्या धर्मानंद कोसंबींक विक्षिप्त म्हूण नामना मेळ्ळ्ली! ही खबर म्हाका कळ्ळी तेन्ना हांव धर्मानंदांक वळखूंक पावलों ना हाचें म्हाका खूब वायट दिशिल्लें.

धर्मानंदा येदो चारित्र्यवान आनी तत्त्वनिष्ठ मनीस गोंयांत दुसरो जालो ना.

निरद चौधरीचें विक्षिप्तपणां वेगळे तरेचीं. तो आपणाक 'सायब' लेखता. इतलेंच न्हय तर आमी सगळ्यांनी आमकां तशे लेखूंक जाय अशेंय वयल्यान म्हणटा. कित्याक, आमचे पूर्वज जे आर्य ते खंय 'पाखले' आशिल्ले! आतां, कितें करचें असल्या मनशाक? पुणून एक खरें – ताचें उतरान उतर वाचपा सारकें आसता. तुका ताचें म्हणणें पटूं वा पटूं नाका, तें तुका समजून घेवचेंच पडटलें. तें तुका येवजुपाकूय लायतलें! म्हाका तो मानवता तो हेच खातीर.

दुर्दैव इतलेंच की तो खंयचेच देशी भाशेंत बरयना. हाका लागून ताच्या बरपाचो प्रभाव देशाचेर चडसो पडूंक पावना.

इंग्लीश भाशेची ही मर्यादा म्हाका आयज चडूच जाणवली.





२१–११–१९७०

**६७.** आयज काकासायब मुंबय पावले. तांकां मेळपाक मलबार हिलार डॉ. नाणावटींगेर गेलों तेन्ना थंय, तांच्या उश्या कडेन, म्हाका निरद चौधरीचें To live or not to live हें पुस्तक दिश्टी पडलें.

हांवें काकासायबांक विचारलें, 'कशें लागलें तुमकां हें पुस्तक?'

'कालूच स्टेशनार घेतलां हांवें तें. अजून सगळें वाचूंक ना. पुणून बरो बरयता तो.' काकासायबांनी जाप दिली आनी खीणभर ओगी रावन म्हळें, 'हो मनीस गोऱ्या लोकांची खुशामत करपी एक dignified sychophant अशें हांव मानतालों. पुणून तो उकतेपणीं सांगता, आपूण तांचो भक्त म्हूण. इतलें खरें, तो जें कितें बरयता तें वाचपा सारकें आसता. विचारांक धसको दिवपा सारकें आसता. संस्कृतायेच्या मळार तो हे भाशेन बरोवन खूब बरो वावर करता.'

हांवें म्हळें, हिन्दूंची जिणे कडेन पळोवपाची जी नदर आसा तिचीं उणीं तो दया-माया धरिनासतना दाखयता.'

काकासायबांनी म्हळें, 'हिन्दूंनी आपल्या पूर्वजांक सर्वज्ञ आनी त्रिकालज्ञ लेखले थंयच तांचें चुकलें. तेन्ना पसून ते परंपरानिष्ठ, ग्रंथनिष्ठ जाले. तांची जीवननिष्ठा सुटली.'

हांवें म्हळें,'हें उणें हिन्दूंचेंच न्हय तर मदल्या काळांतल्या सगळ्या संस्कृतायांनी तें दिश्टी पडटा.'

'हय. पूण तातुंतल्यान सगळ्यांत पयले मेकळे जाले ते अस्तमते कडले विज्ञानीक. तांणी सांगलें, आमी आरंभ खंयच्च्यानूय करूं, आमी सत्याकूच मानतले. ताकाच एकनिष्ठ रावतले. आनी सत्याचो सोद आमी प्रयोगांतल्यानूच लायतले', काकासायबांनी जाप दिली आनी मुखार म्हळें, 'हिन्दूंनी जिस्त हाचे उरफाटें केलें. ते सत्यार्थ सोदपा वांट्याचे शास्त्रार्थ करपाक लागले.'

हांवें म्हळें, 'निरद चौधरीय होच point घेवन धोडायता.'

'बरोबर आसा ताचें...', काकासायबांनी म्हळें, 'आमकां हे मुखार एक नवी psychology, एक नवो अध्यात्म – a new spirituality – आनी एक नवें समाजशास्त्र -- a new sociology – निर्माण करून नवे तरेन आमची जीण घडोवची पडटली.'

आनी मागीर खीणभर ओगी रावन म्हणूंक लागले, 'आमच्या देसाचो एक

सभाव आसा. नवें कितेंय करूंक जाय म्हण सांगपी कोणूय मुखार सरलो आनी तो पोगण्यांतल्यों उर्णी दाखोवपाक लागलो म्हणटकूच आमचो लोक ताचे कडेन तोंड आं करून पळेत उबो रावतलो. ताचें म्हणणें मान्यूय करचो ना आनी तो असले पाखंडी विचार मांडटा म्हूण ताका मारचोय ना. थोडो वेळ ताका पळेतलो आनी मागीर ताका ल्हवूच कडेक उडयतलो!'





२२–११–१९७०

**६८.** फाटीं पडिल्ल्या जातींक वयर काडपाचो वावर हातांत घेना फुडें सगळ्यांत पयलो वावर आमकां येवजता तो शिक्षणाचो! तांचे खातीर शाळा काडच्यो, कॉलेजां चलोवचीं, युनिव्हर्सिटी सुरू करच्यो, असलेंच सगळें आमकां येवजता. बरें आसा! फाटीं पडिल्ल्या जातींक शिकोवन मुखार काडूंक जाय हातूंत दुबावूच ना. पुणून तांकां शिकयले उपरांत ह्या जातींतले भुरगे पुराय राष्ट्राचे वा पुराय समाजाचे फुडारी जावपा वांट्याचे आपलेच जातीचे फुडारी जातात. हें अशें कित्याक जावचें हें आमी केन्ना लक्षांत घेतलां व्हय?

आंयज नटुभाई ठक्कर काकासायबांक मेळूंक आयिल्ले. नागालँडांत आपूण एक युनिव्हर्सिटी काडूंक सोदतां अशें तांणी काकासायबांक सांगलें तेन्ना काकासायबांनी तांकां म्हळें, 'तुजे युनिव्हर्सिटींतलें शिक्षण घेतले उपरांत नागा लोकांनी पुराय राष्ट्राचें मुखेलपण हातांत घेवंक जाय. ते राष्ट्राचे नेते जावपा वांट्याचे जर आपलेच जातीचे जमातींचे नेते उरले जाल्यार तुजो हो पुराय वावर अपेशी जालो अशेंच म्हणचें पडटलें.'

हांव नटुभाईच्या तोंडा कडेन पळोवंक लागलों!

काकासायबांनी मागीर म्हळें, 'हांव डॉ. आंबेडकरांक सदांच म्हणी, तुमी पुराय राष्ट्राचें फुडारीपण आपल्या हातांत घेवपा वांट्याचें फकत दलितांचेंच घेवन कितें बसल्यात? तुमचे हे करणेक लागून तुमी खरेपणानशीं आसात ताचे परस ल्हान जातात हें तुमच्या लक्षांत कशें येना?'

आनी मागीर काकासायबांनी सांगलें, 'फाटीं पडिल्ल्या जातींक तांच्या जातीं वयर काडपाची तांक आयच्या युनिव्हर्सिटी शिक्षणांत ना. ती तांक आश्रमी तरेच्या 'बुन्यादी' शिक्षणांतूच आसा. फाटीं पडिल्ल्या जातींतले लोक जशे शिक्षणांत वयर सरूंक जाय तशे जातीच्या संस्कारांतल्यानूय मेकळे जावंक जाय.'

हांवें आयज मेरेन हे तरेन केन्ना येवजूंक लेगीत नाशिल्लें.



२३–११–१९७०

**६१.** देश पासत जांण ओंपचो अशें थारायलें तेन्ना थावन जातींच्या प्रस्नाचेर म्हजें लक्ष गेल्लें. जाती उरल्यो जाल्यार राष्ट्र निर्माण जावंक पावचें ना हें म्हाका आरंभाकूच कळिल्लें आनी तेन्ना पसून हांव जाती ना कश्यो करच्यो ताचेर जाव तांडून येवजीत आयिल्लों. काकासायब आनी लोहिया हांचे कडेन हांवें ह्या प्रस्ना संबंदान थोडी चर्चा करूंक ना.

पूणून हांव जातीन बामण म्हणपाचो सोद मात म्हाका, गोंय मेकळें जालें ते उपरांतूच लागलो! (ताचे पयलीं म्हाका जात आसा हें हांव नकळं आशिल्लों.) इतलेंच न्हय तर, हांव बामण जाल्ल्यान बामण न्हय जाल्ल्या जातींचो म्हज्या स्वयच्याच 'राष्ट्रीय' वावराक आधार मेळत काय कोण जाणा, असोय एक दुबाव तेन्ना पसून मनांत येवंक लागिल्लो.

कोंकणीचो वावर जो, खरें म्हळ्यार, भौजनसमाजाचे भाशेचो वावर, तो 'बामणां'चो वावर थरलो तेन्ना थावन म्हजो हो दुबाव घट्टय जावंक लागिल्लो.

आयज हांवें काकासायबां कडेन ह्या प्रस्ना संबंदान उलोवचें अशें थारायलें.

काकासायबांनी म्हळें, 'भौजनसमाजांतले लोक शिकून वयर सरले आनी तांणी आपापल्या जातींचें फुडारीपण चलयलें जाल्यारूय तांकां भौजनसमाजाचे मुणयारी लेखूंक जायनात. तांकां भौजनसमाजाचें कल्याण कळटा अशेंय धरूंक जायना, आनी भौजनसमाजाच्या बऱ्याचीं कामां तांच्याच हातांत सुगूर आसतलीं अशेंय मानूंक जायना. कित्याक, हे शिकिल्ले भौजनसमाजांतले फुडारी शिकून जायना फुडें elite त वचून पडटात. वृत्तीन बामण जातात. ते मागीर eliteचे बामणांचे – सगळे अवगूण घेतात. तांचें राजकर्ण बामणांचें आसता. भासकर्णूय बामणांचेंच आसता. जल्मान ते स्वयंचेय जातीचे आसूं, आनी ते आपणाक स्वयंचेय जातीचे प्रतिनिधी मानूं. निमाणें कडेन ते eliteचेच– बामणांचेच– आसतात...'

हांवें म्हळें, 'पूणून बामण भौजनसमाजाच्या बऱ्याचीं कामां हातांत घेतात तेन्ना तीं बामणांचीं थरतात आनी तांकां भौजनसमाजाचो आधार मेळना...'

'हांव जाणां...', काकासायबांनी म्हळें, 'पुणून तीं कामां तांणी सोडून दिवंक जायनात.'

आनी तांणी म्हाका मागीर एक खबर सांगली, 'आमी 'हरिजन सेवक संघ' काडलो तेन्ना आंबेडकर आमचे कडेन आयले आनी म्हणूंक लागले, ही संस्था

तुमी आतां आमचे सुवादीन करात. गांधीजींनी तांकां जाप दिली, 'ही संस्था हरिजनांची न्हय... हरिजन-प्रथा वायट अशें मानपी सवर्ण लोकां भितर जे प्रायश्चित घेवंक मुखार सरल्यात तांची...'

आनी मागीर काकासायबांनी म्हाका सांगलें, 'भौजनसमाजाक वयर काडपाचो वावर तुमी हेच भुमिकेन करूंक जाय. जाती ना करूंक जाय हो प्रस्न तांचोच न्हय. तुमचोय प्रस्न तो. तांचो आयज तुमचेर विस्वास नासत. तुमचेर ना - पातयेवपाक तांकां कारणां आसात. तुमच्या पूर्वजांनी तांचेर थोडे अन्याय करूंक नात. पुणून हो अविस्वास एक दीस ना जातलो. ते मेरेन धीर धरून वावर करूंक जाय. तो सोडूंक जायना.'

कितलीं वरसां तकलेंत घोळटालो तो एक दुबाव आयज खिणा भितर ना जालो!



२४-११-१९७०

**७०.** मुंबयंत म्हजो सकाळ पसून सांजवेळ मेरेनचो पुराय दीस काकासायबां सगोंच बसून वता. केन्ना ते पत्रां 'डिक्टेट' करतात. केन्ना लेख डिक्टेट करतात. (तांकां हातान बरोवपाची संवंय ना.) तांकां मेळपा खातीर जाल्यार लोक एका फाटल्यान एक येत आसता. तांच्यो खबरी आयकतां आनी, मेकळो वेळ आसा-सो दिसता तेन्ना हांव तांकां तरे तरेचे प्रस्न विचारतां. म्हाका *'ज्ञानानेधीच्या सान्निध्यांत'* चे वरी एक नवें पुस्तक बरोवपाचें आसा.

आयज धंदो-कामाचेर तांणी एक लेख डिक्टेट केलो. तो सोंपले उपरांत हांवें तांकां म्हळें, 'दरशीं, आमचो लोक निवळ. इतलो निवळ की कोणाच्या हातांतलें खावचें आनी कोणाच्या हातांतलें खावचें न्हय असलें लेगीत बारकायेन येवजुपी आनी ताचोंच एक code of conduct तयार करपी. इतलेंय आसून देस मात सामको घाणयारो!'

काकासायबांनी म्हळें, 'वैयक्तिक निवळसाणेचेर जितले बारकायेन आमी येवजिलें तितलें समस्त जिणेंतले निवळसाणेचेर केन्नाच येवजिलें ना. जण एकल्यान आपापलें घर निवळ दवरचें हें आमकां समजता. पूणून घरा मुखावेलो रस्तो? तो निवळ दवरूंक जाय म्हूण आमकां कोणें केन्ना सांगलां व्हय? रांदचे कुडींतल्यों आमचीं आयदनां निवळ आसतलीं. पूणून आंगा वेलीं लुगटांय निवळ दवरूंक जाय हें आमकां स्मृतींनी सांगलां व्हय?... आमचें स्मृतिशास्त्र मुळा पसून चुकलां.'

हांवें म्हळें, 'आमी आतां एक नवी स्मृती तयार करूंक जाय...'

काकासायब म्हणूंक लागले, 'वेदान्त लेगीत नवो तयार करूंक जाय. आमच्या वेदान्तांतले तिनांतले दोन तरी वाटे anti-social म्हूण आमकां भायर उडोवचे पडटले.'

आनी तांणी मुखार म्हळें, 'आमचीं सगळीं शास्त्रां ब्राह्मणांनी बरयलीं... तें कित्याक. युद्धशास्त्र लेगीत ब्राह्मणांनीच बरयलें. खरें म्हळ्यार, तें क्षत्रियांनी बरोवपाचें. पूणून 'शास्त्र' क्षत्रिय कशे बरयतले? 'शास्त्र' ब्राह्मणांनीच बरोवंक जाय असो आमी नेम केलो. हांगा सावन आमच्या चुकींक सुरवात जाली.'

हांवें म्हळें, 'ह्यो सगळ्यो चुकी तुमी दाखोवंक जाय...'

'निरद चौधरी दाखयता...' काकासायबांनी जाप दिली.

हांवें म्हळें, 'ताची तरा वेगळी... तुमचे सारके हिन्दू संस्कृतायेचे भक्त जेन्ना ह्यो चुकी दाखोवंक लागतले तेन्नाच कितेंय घडूंक पावतलें...'

'म्हजें नवें पुस्तक *'युगानुकूल हिन्दू जीवन दृष्टि'* दोन चार दिसांनी भायर सरपाचें आसा. तातूंत हांवें जायत्यो चुकी दाखयल्यात आनी जायत्यो नव्यो सुचोवण्योय केल्यात.'

आनी मागीर म्हणूंक लागले, 'पुणून आतां असलीं कामां तुमचे सारकेल्या नव्या भुरग्यांनी करूंक जाय... म्हजो उपयोग तुमी करून घेयात...'



२५–११–१९७०

**७१.** आयज अवचीत म्हाका पोरूंची एक याद जाली –

युकिकोन म्हाका म्हळें, *'आपका देश बिलकुल गंदा है...'*

ताका किते जाप दिवची, म्हाका समजलें ना. खीणभर हांव घुटमळ्यांत पडलों.

युकिको एक जपानी चली. तोक्योच्या 'एशिया आफ्रिका लँग्वेज इन्स्टिट्यूटां'त हांव ताका मेळिल्लों त्या वेळार ताणें म्हाका तरतरेचे प्रस्न विचारिल्ले. खूब हुशार चली. दोन वर्सां थंय तें हिन्दी शिकलें आनी फुडलें शिकप करपा खातीर हिन्दुस्तानांत आयलें. कांय दीस प्रियोळा आमगेर येवन रावि‌ल्लें. उपरांत परतें आयलें.

पयलें स्रेंपे आयिल्लें त्या वेळार हांवें ताका सांगिल्लें, 'तूं ह्या देशांत आयल्यां खरें. पुणून ह्या देसांत आनी तुमच्या देसांत खूब मोटें अंतर आसा. हो देस समजून घेतलें जाल्यार तुका तीन 'ग'ची संवंय लावन घेवची पडटली – *'गरीबी, गंदगी और गरमी'*...

प्रियोळच्यान तें पोरबंदराक गेलें आनी थंयच्यान गुजरात, उत्तर प्रदेश, बिहार बी कांय सुवातींनी भोंवन परतें गोंयां आयलें आनी म्हणूंक लागलें –

'तुमचो देस इतलो बुरसो आसत अशें हांवें धरूंकूच नाशिल्लें.'

(भाचे वांगडा योशिमी म्हूण दुसरें एक चली येता. पुणून तें इतलें फटकळ न्हय.)

हांवें ताका म्हळें, 'हांवें तुका हें पयलींच सांगिल्लें'.

ताका हांवें अशें सांगलें खरें. पुणून हांव येवजूंक लागलों –

'आमचो देस इतलो बुरसो कित्याक?'

म्हाका फाटीं काकासायबांनी सांगिल्ले एक खबरेचो उगडास जालो. 'घर जितलें पोरणें आनी व्हडलें तितलो तातूंत कोयर चड' अशें तांणी एक फावट म्हळलें. 'आमचो देस खूब व्हड आनी संस्कृताय खूब पोरणी... तांतल्यो कितल्योश्योच गजाली आमी आतां सान्न मारून भायर उडोवंक जाय...'

तेन्ना पसून म्हजे तकलेंत एक पुस्तक घोळूंक लागिल्लें. युकिकोक लागून म्हाका ताची आयज याद जाली.

आमी 'सफाई'चें काम भायल्यानूच न्हय, तर भितल्ल्यानूय करूंक जाय. निवळसाणेचो वावर खरो 'भितरू'च – आमच्या मनांत, आमच्या चाली-रितींनी,

आमच्या आदर्शांत, आमच्या वेव्हारांत— सुरू जावंक जाय...

काल काकासायबांनी 'आतां असलीं कामा तुमचे सारकेल्या नव्या भुरग्यांनी करूंक जाय' अशें म्हणत पसून नवें पुस्तक बरोवपाचो म्हजो बेत परतो जागो जालो आनी कालच्यान हांव ताची रूप-रेग मनांत आंखूंक लागलों.

पुस्तकाक नांव लेगीत दिवन उडयलें— *'झाडलोट.'*

आतां तें केन्ना बरोवन जातलें पळोवंक जाय.





२६–११–१९७०

**७२.** आयुष्य सोंपचे पयलींच जो मनीस जीव दिता – तो मागीर केदोय व्हड मनीस आसूं– म्हजे तकलेंतलो देंवता.

साने गुरुजी एक व्हड मनीस. पुणून कितें म्हूण कोण जाणा, तांणी जीव दीत पसून तांगेलीं पुस्तकां (तीं ऊंच पांवड्याचीं आसात म्हणपाची खबर आसून लेगीत) म्हाका वाचीन दिसनात.

तांगेलें *'भारतीय संस्कृति'* हें पुस्तक एका काळार हांवें पांच-स खेपे वाचिल्लें. पुणून तांणी जीव दिले उपरांत हांवें ताका हात लेगीत लावंक ना.

तें कित्याक. हांव *'अमृतानुभव'* जावं *'ज्ञानेश्वरी'* हातांत घेतां तेन्नाय म्हाका अशेंच कितें-शें दिसता. पुणून हांव ज्ञानेश्वराक विसरून हीं पुस्तकां वाचतां. लोक कितेंय म्हणूं, ज्ञानेश्वराची 'समाधी' म्हळ्यार एके तरेची 'आत्महत्त्या'च! मनशाक आत्महत्त्या करपाचो हक ना.

आयज जपानी नवलकथांकार मिशिमाचे 'हाराकिरी'ची खबर आयकली आनी मिशिमा म्हजे तकलेंतलो सामकोच देंवलो. तीन वर्सां पयलीं ताक्योक पाविल्लों त्या वेळार ताची खूब नामना आयकल्ली आनी ह्या मनशाची भेट घेवंची अशेंय मनांत आयिल्लें.

ताचीं ते उपरांत हांवें दोन पुस्तकां मोटे रूचीन वाचलीं – The Sound of Waves आनी, The Temple of the Golden Pavilion. दोनूय पुस्तकां म्हाका मानवल्लीं. इतलेंच न्हय तर हाचीं सगळीं पुस्तकां वाचचीं आनी केन्नाय जाल्यार तांचें रसग्रहण बरोवचें अशें येवजून हालींच हांवें ताचीं After the Banquet आनी Forbidden Colors हींय पुस्तकां घेतिल्लीं.

आतां तीं म्हजे कडल्यान वाचून जातलीं काय कितें, कोण जाणा!

मिशिमान हाराकिरी कित्याक केली?

जपान परतें मिलिटरी राष्ट्र जावचें म्हण काय? तशें जाल्यार, ही हाराकिरी फुकट गेली म्हणूंक जाय. जपान परतें मिलिटरी राष्ट्र जावपाचें ना. तें रगतून थंय आयज दिश्टी पडना.

म्हाका मागीर दुबाव आयलो. आपली वाड आतां जावपाची ना अशें घडये ताका दिसलें जावंये. जी कितें वाड जावपाची आशिल्ली ती जाली. तेन्ना, आपले जिणेक आपणेंच अंत हाडिल्लो बरो अशें बी ताका दिसलें जावंये.

कितलोय जाल्यार नवलकाणयांकार तो, कोणाचो अंत केन्ना जावचो हें समजुपी आनी थारावपी– अशें बी ताणें येवजिलें ना मूं? कशेंय जावं... ताणें बरें केलें ना...

आत्महत्त्येचो हक हांवें फकत एकल्याचोच मान्य केल्लो. स्तेफान त्स्वैगाचो. ताका साठ भर जाल्लीं. ताचो संवसार हिटलराक आनी झुजाक लागून ताका पयस जाल्लो. ब्राझीलच्या नव्या संवसारांत नवी जीण सुरू करपाची तांक उरूंक नाशिल्ली, पिराय उरूंक नाशिल्ली. ताणें आपले जिणेक अंत हाडलो हें समजुंयेता.

पुणून मिशिमा? म्हजे तकलेंतलो तो आयज सामको पडलो.



२७–११–१९७०

**७३.** आयज मराठी संत-कवीं संबंदान खबरी आयल्यो. हांवें काकासायबांक विचारलें, 'ह्या संत कवींत सगळ्यांत प्रतिभावंत कोण?...'

'दुबाव आसा? ज्ञानेश्वरूच' तांणी जाप दिली.

आनी मागीर म्हळें, 'पूण प्रतिभेक scheme नासता. तिचो बरो वायट, कसोय उपयोग करूं येता. प्रतिभेचो बरो उपयोग कसो करूं येता हें पळेतलो जाल्यार, एकनाथ वाचूंक जाय. ताचे मुस्तींतलो तो सगळ्यांत व्हड कवी.'

हांवें विचारलें, 'आनी तुकाराम?...'

'तुकारामांत एक तुकाराम नाशिल्लो. कितलेशेच तुकाराम आशिल्ले.' काकासायबांनी जाप दिली. 'मराठी संत कवींत तुकारामा सारको दुसरो कवी मेळचो ना...'

म्हाका खूब बरें दिसलें. हांव तुकारामाक खूब व्हडलो कवी मानपी. महाराष्ट्रांत कांय जाणांनी ताचें एक नाका-जाल्लेंच चित्र उबें केलां. संवसारांतलें जाका कांय समजनाशिल्लें असो तो 'बावळट' आशिल्लो अशें-शें कितें. तुकाराम असलो नाशिल्लो. तो एक तेजिश्ट संत आशिल्लो. ताचे आदले सगळे संत सदगुणांच्यो मुर्ती आशिल्ले जातीत. तुकारामांत सदगुणां भायर तेजिश्टपणूय आशिल्लें. कोणाकूय कातरचो पडलो जाल्यार सामकीं 'गांवढळ' उतरां वापरपाकूय तो अनमन नाशिल्लो. *'दया तिचें नांव, भूतांचें पालन, आणीक निर्दाळन कंटकांचें'* अशें सांगपाचो ताका धीर आशिल्ले. 'जाता तितलेंय बळ एकठांय करून दुश्टांक बुद्द शिकोवंची... तांकां पेट घाल्यार लेगीत पातक ना...' *'होईल तैसें बळ, फजीत करावे ते खळ. तुका म्हणे त्यांचें, पाप नाही ताडनाचें'* अशें खणखणीत सांगपी मनीस 'बावळट' कसो आसुंयेत?

हाचे वयल्यान संतांनी जो वावर केल्लो ताच्या संबंदान उलोवणीं सुरू जालीं. हांवें म्हळें, 'मराठी संतांचेर जायत्या जाणांनी बरयलां. रामभाऊंचें (गुरुदेव रानडेंचें) पुस्तक Pathway to God in Marathi Literature सगळ्यांत बरें. तातूंत संतांचो mysticism तांणी बरो समजावन सांगला. रामभाऊ स्वता साक्षात्कारी जाल्ल्यान तांकां आपणाल्या अणभवांचेर तो घासूंक आयला. पूण संतांच्या समाजीक मळा वेल्या वावराचेर नागपूरचे प्रो. विष्णु भिकाजी कोलते हांणी काशी विद्यापिठांत जीं कांय हिन्दींत उलोवपां केल्लीं तसलीं म्हाका आनीक खंयच वाचूंक मेळूंक नात...'

'तीं पुस्तका रुपान आयल्यांत व्हय?' काकासायबांनी विचारलें.

हांवें म्हळें, 'हय... तुमकां जाय जाल्यार हांव हाडून दितां...'

'हाडून दी... वाचून काडटां', अशें सांगून तांणी म्हळें, 'मरता त्या दिसा लेगीत मनशान गिन्यान जोडूंक जाय... 'ह्या वयार वाचून कितें उपयोग' अशें ज्ञाननिष्ठ मनीस केन्नाच म्हणचो ना... मरणाच्या खिणा मेरेन तो आपणाल्या गिन्यानांत भर घालीत रावतलो...'

म्हाका आयज एक नवी उमेद मेळ्ळी!



२८–११–१९७०

**७४.** नामदेवाचो गाथा काकासायबांच्या हातांत पळोवन हांवें म्हळें, 'संतांनी वर्णाश्रमधर्म ना करपाचो यत्न केल्लो अशें कांय जाण म्हणटात...'

म्हजें म्हणणें सोंपचे पयलींच काकासायबांनी म्हळें, 'खंयच्याच संतान वर्णाश्रमधर्म ना करपाचो यत्न करूंक ना... ते खासा तो धर्म मानिनाशिल्ले इतलेंच. आतां, होच नामदेव घे. हागेर जनाबाई व्हावराडी म्हूण आशिल्ली. संतमंडळींत तिची योग्यताय हेरां संतां सारकी. पुणून ह्या संताच्या घरांत मात ती व्हावराडी! चवदा जाणांचो वावर बावडेक एकलेक करचो पडटालो. विठोबाक लेगीत तिची काकुळट दिसली. पुणून नामदेवाक दिसली ना. हांव म्हणटां, नामदेवाक तिची काकुळट कित्याक दिसची न्हय?'

हांव काकासायबांच्या तोंडा कडेन पळेत रावलों.

आमच्यो खबरी मागीर original विचार करपी आमच्या देशांत कोण कोण जाले हाचेर चलंक लागल्यो. काकासायबांनी म्हळें, 'हालींच हांवें एका येवरोपेवाचें पुस्तक वाचिल्लें. पुस्तकाचेंय नांव विसरलों आनी तें बरोवप्याचेंय विसरलों. पुणून ताचें म्हणणें लक्षांत उरलां. तो म्हणटा, 'तुमकां आशिया-आफ्रिकेंतल्या लोकांक आमी येवरोपेवांनीच सगळें दिलां... ड्रॅस म्हणूं नाका, मॅनर्स म्हणूं नाका, सगळें आमींच दिलां. तें कित्याक, तुमकां स्वतंत्रतायेचें म्हत्व लेगीत आमींच समजावन दिलां. विज्ञान, संस्कृताय... सगळ्या मळां वेले आमी तुमचे गुरू... तुमी कितेंय म्हणात, आमचे शिष्य म्हूणूच तुमी जियेतले.'

हांवें म्हळें, 'खरें ताचें. तेच आमचे आयचे गुरू.'

काकासायब म्हणूंक लागले, 'स्वतंत्र रितीन येवजून प्रयोग करपी कोणूच हागा दिश्टी पडना... येवरोपेचो फाटल्यान वचप आनी ताका 'विज्ञानीक मार्ग' म्हणप इतलेंच मानपी आमी. फकत एकले गांधीच स्वतंत्र रितीन येवजूंक जाणा आशिल्ले. तांणी येवरोपेची संस्कृताय वाचून पळेल्ली. तातूंत जें घेवपा सारकें आशिल्लें तें तांणी घेतिल्लें. येवरोपांतल्या क्रांतदर्शी लोकांचो असंतोशूय तांणी समजून घेतिल्लो, आनी राष्ट्रीय प्राण आनी राष्ट्रीय पुरुषार्थ संघटीत करपाचो तांणी एक सामान्यां भायलो यत्न केल्लो. देवान तांकां ऋशींचें काळीज दिल्लें

आनी रुशीचें मन दिल्लें. म्हज्या मत्तान original thinking केलां तें तांणीच. संवसारांतल्यो सगळ्यो संस्कृतायो आपल्या घरा भोंवतणीं घोळच्यो अशें तांकां दिसतालें. पुणून वांगडाच I refuse to be blown off by any of them असो तांणी नित्शय केल्लो.'

इतल्यांत एकलो आयलो आनी आमचें उलोवप थांबलें.





३०—१०—१९७०

**७५.** दोळे बरे नाशिल्ल्यान दोन दीस भायर सरलों ना. मनांत आयलें, आयज नटूभाईकूच आपोवन घेवंया आनी खबरी करीत दीस सारुंया.

नटूभाई हरशीं नागालँडांतल्या रानांत रावपी. वाचपाचो बी ताका 'अधिकारू'च ना! तरी आसतना नवीं नवीं पुस्तकां मागोवन वाचपी. ताणें सांगलें, दोन पुस्तकां आमी वाचूंकूच जाय – एक, बर्ट्रांड रसेलाची Autobiography, आनी दुसरें, अर्नोल्ड टॉयन्बीचें Experiences.

दत्तारामान आनीक एका पुस्तकाची भर घाली – गुन्नार मिरडालाचें Asian Drama. ताणें हाचे तिनूय वांटे हालींच वाचून सोंपयल्यात.

तीर्थ घेवंचें, म्हळें, पांयांचें दोगांयच्या.

मागीर खबरी आयल्यो. नटूभाईन म्हळें, 'बर्ट्रांड रसेलान आपणाले आत्मकथेंत उतार पिरायेर घेतिल्ल्या संभोगाचें वर्णन बरयलां.'

दत्ताराम म्हणूंक लागलो, 'ह्या येवरोपेंत लेखकांचें म्हाका एक बरें लागता. ते असल्या गजालींच्यो बढायोय मारिनात आनी त्यो लिपोवनूय दवरिनात...'

दोन दीस जाले, हांव किंग्स्ले मार्टीनची Editor म्हण आपजीण– दोळ्यांक त्रास दिनासतना – मदीं मदीं वाचतां. तातूंत म्हाका C.E.M. Joad ची एक खबर वाचूंक मेळिल्ली. जी बायल ताचे बगलेक न्हिदूंक तयार नाशिल्ली तिचे कडेन खंय तो उलोवंक लेगीत तयार नाशिल्लो. आनी जिचे कडेन तो उलयतालो तिका 'जिखलें' बगर रावनाशिल्लो. इतलेंच की एक दोन दीस तिचे वांगडा भोंवले– रावले उपरांत ताका तिचो वाज येतालो आनी कसलेंय तरी निमित्त काडून मागीर तो तिचे पसून आपली सोडणूक करून घेतालो. हे भाशेन खंय आयुश्य भर तो बायलो जिखत रावलो...

ही खबर तांकां सांगून हांवें म्हळें, 'हे लोक बायलांक फकत मादी लेखतात हें म्हाका मानना. पूण हांचीं प्रांजळपणां पळोवन म्हाका हे लोक आमच्या व्हडल्या व्हडल्या नितिवंतां परस व्हड दिसतात. जशें आसतात तशें ते दाखयतात. आमचे कडेन दाखोवपाचें रुपडें वेगळें आनी खरें रूप वेगळें आसता.'

दत्ताराम म्हणूंक लागलो, 'तरे तरेच्या taboosनी चिड्डल्लो आमचो लोक जेन्ना मातसो मुक्त जाता तेन्ना तो रोखडोच दुसऱ्या तोंकार पावता. एक rational view of life हांगा निर्माण जातासर खूब काळ वतलो.

आयचो पुराय दीस हे भाशेन उलोवन गेलो. खूब बरें दिसलें!



१–१२–१९७०

**७६.** काकासायबांचो आयज जल्मदीस. तांकां पंच्यायशीं भर जालीं. येदी उतार पिराय! तरी आसतना पोंग पडूंक ना. हातांत बडी येवंक ना. पुरो जावंक ना. म्हातारपणाचें कसलेंच लक्षण तांच्यांत दिश्टी पडना. तकली तरतरीत आसा. उलोवप, बरोवप पयलीं वरीच उर्बेन चलता. वाचप आनी चिन्तन करप दिशीं दिशीं खोल जायत वता. तें कित्याक, भोंवप तर आतां दिशीं दिशीं वाडत वता. काकासायब जाणटे जाल्यात खरे, पुणून म्हातारे जावंक नात. रवीन्द्रनाथ म्हणटाले, *'मोदेर पाकबे ना चुल गो'* – म्हजे केंस पिकचे नात.' काकासायबांनी म्हणुंयेता, 'म्हजे केंस पिकतीत. पुणून हांव म्हातारो केन्नाच जावपाचों ना.'

येदी पिराय जाल्ली आसुनूय काकासायब अशे तरतरीत कशे?

तेच म्हणटात, 'म्हजी जीवन-यात्रा वेगान चल्ल्या. देखून म्हातारपण आनी मरण म्हाका अजून धरूंक पावूंक नात. तशीं दोगांय म्हजे फाटल्यान लागल्यांत.पुणून हांव तांकां अजून मेळूंक ना. हांव अमके कडेन आसतलों अशें धरून तीं थंय येतात. थंयच्या लोकांक विचारतात, 'काकासायब हांगा आसात?' लोक सांगतात, 'काल आशिल्ले. आयज खंय गेले, कोणाक खबर!' लोकांची ही जाप आयकतकूच दोगांय म्हजो नवो नामो सोदून थंय खर्शेत खर्शेत पावतात. थंयूय तीच गजाल. लोक सांगतात,'आरेच्या! आतांच हांगा आशिल्ले... आतां खंय पावले जातले, कोणाक खबर!' दोगांय म्हजी फाट सोडिनात... पुणून हांव दोगांकूय अजून मेळना... हांव तांकां चुकोवंक सोदिना. पुणून तांकां मेळपाची म्हाका ताकतिकूय ना. कितलेय जाल्यार आमी पोरणे इश्ट!... खंयूय जाल्यार एक दीस मेळटलेच. जितले उसरान मेळटले तितले एकामेकांक घट्ट वेंगेंत घेतले... आनी मागीर एकामेकां पसून पयस केन्नाच वचचे नात...'

काकासायबांचें हें म्हणणें खरें आसुंयेता. प्रवासांत मन तरतरीत उरता असो म्हजोय अणभव. प्रवासांत नवे नवे लोक मेळटात. सैमाचीं नवीं नवीं रुपां दिश्टी पडटात. नवे नवे विचार आयकूंक मेळटात. हाका लागून कूड आनी-मन तरतरीत उरता. कूड आनी मन तरतरीत उरलीं म्हणटकूच आयुश्य वाडटा.

आनी काकासायब जाल्यार एका सारके भोंवत आसतात. पांयांक चाकां लागिल्ले भशेन. हांवें तांकां इतल्याय वर्सांत एके कडेन सस्थ बशिल्ले केन्नाच पळोवंक नात. 'तांगेलें घर खंय?' म्हूण म्हाका कोणेंय विचारल्यार हांव ताका

'आगगाडी' म्हूण जाप दितां.

कुड जे मेरेन पालव दिता ते मेरेन ते भोंवत रावतले... आनी ते मेरेन म्हातारपण आनी मरण – दोगांय तांचे पसून पयसूच रावतलीं.

पुणून काकासायबांनी एक फावट म्हाका आनीक एक 'गुपीत' सांगिल्लें:

'सृश्ट अनाथ न्हय. ती चलोवपी कोणूय तरी आसा. तो सृश्टींतूच रावन आपल्या नेमांक धरून ती चलयता. ताचे नेम आमकां समजूंक नात. पुणून अशे नेम आसात ह्या भावराथान मनाक थंडाय आनी बळ मेळटा...'

काकासायबांचो हो 'भावराथ'च तांगेली खरेली भुती...

फाटल्या वीस वर्सांच्या काळांत हांवें तांकां केन्ना पुरो जाल्ले, चिंतेस्त आशिल्ले, निर्शेल्ले पळोवंक नात...

आयज तांगेल्या व्हडल्या पुताचो – सतीश कालेलकरांचो – तांकां तेलेग्राम आयला: हांव तुमचें येंदं पिगयेचो जातलों त्या वेळार तुमी म्हाका आशिर्वाद दिवपाक आमचे अशें देवा कडेन मागतां, म्हूण.

कितलो सुंदर तेलेग्राम!





**७७.** काकासायबांच्या जल्मदिसा निमतान सुंदराबाय हॉलांत एक सभा आशिल्ली. जण एकल्यान आपल्या हातान कांतिल्ली सुताची गुंडी तांकां आयज भेट दिवची अशें थरिल्लें.

वर्ध्याक सावन विनोबाजींनी आपणें कांतिल्ली गुंडी धाडून दिल्ली.

हांव सूत कांतिना. हांवें काकासायबांची उजवाडा येवंक नाशिल्ली बरपावळ 'कांतून' तयार केल्ल्या तांगेल्या तीन पुस्तकांची पयली प्रत तांकां आयज ओंपली:

*१. गांधीजी का जीवनदर्शन*

*२. विनोबा और सर्वोदय क्रांति*

*३. युगानुकूल हिन्दू जीवन-दृष्टि.*

सभेंत जायते जाण उलयले. तातूंत गुजराती बरपी उलयले तांणी कितेंय तरी वाचिल्लें. मराठींत XX XX उलयले. 'ठोकून दी' हे धर्तीचेर!...

हांवें रातीं दत्तारामाक म्हळें, 'काकासायबांक हे कोणूच सारके वळखूंक नात रे...'

तो विचारूंक लागलो, 'तूं तांची कितें म्हूण वळख करून दितलो?'

हांवें म्हळें, 'हांवें 'राष्ट्रमता'क मराठींत एक लेख पयरूच बरोवन दिला. ताचो माथाळो *'भविष्यकालच्या नेतृत्वाचे आद्य ऋषि'* असो आसा. ह्या एकी वाक्यांत काकासायबांची खरी वळख जाता.

आनी मागीर ताका हांवें काकासायबांचें म्हणणें सांगलें –

'एका काळार धर्मिश्ट लोकांनी संवसाराचें फुडारीपण चलयल्लें. क्रिस्तांवांचो पाप-सायब, मुसलमानांचे खलीफा, जावं आमचे वेगळे वेगळे स्वामी हांचोच शेक सगळे कडेन चलतालो. आयज ते खंय आसात? तांच्यो गादयो आसात. पुणून तांचो शेक उरूंक ना. कोण तांचें आयज आयकना. आयज शेक चलता तो राजकी फुडाऱ्यांचो. पुणून तांचेय दीस आतां सोंपत आयल्यात. जी गत्त धर्मिश्टांची जाली तीच हांची जावपाची आसा. हांच्योय गादयो उरतल्यो. पुणून तांचो लोकांच्या मना वेलो शेक ना जातलो. हें सगळें ह्या धा वीस वा पंचवीस वर्सां भितर जावपाचें आसा. ते उपरांत जें नवें नेतृत्व अख्ख्या संवसार भर उदेतलें तें 'संस्कृति–धुरीणां'चें आसतलें. तेंच संवसाराचे जायते प्रस्न सोडयतलें आनी संवसारांत सवस्तकाय हाडूंक पावतलें.'

हें नवें नेतृत्व उदेतलें तेन्ना तें काकासायबां कडेन आपलो आद्य ऋषि म्हूण पळेतलें आनी तांचे बरपावळींतल्यान प्रेरणा घेतलें. हांव जाल्यार, काकासायबां कडेन आनी तांगेले बरपावळी कडेन हेच नदरेन पळेतां. आनी म्हणटां, *'मेरी ही झोली तंग है। तेरे यहाँ कोई कमी नहीं।'*





२–१२–१९७०

**७८.** डॉ. कान्ती गांधी आनी अरुण गांधी (दोगूय महात्मा गांधींचे नातू) हांणी कांय इश्टांक घेवन एक Inter-marriage Club काडला. जात, धर्म, भास लक्षांत घेनासतना लग्न जाल्लीं कांय जोडपीं ह्या क्लबाचीं वांगडी. हे तरेचीं सुमार सतरा-अठरा जोडपीं वरळीच्या सेंच्युरी रेस्तॉरांतांत दनपरां च्याक एकठांय जमिल्लीं. डॉ. कान्तीन म्हाकाय आमंत्रण दिल्लें.

म्हजे शेजरा एक गुजराती बायल बशिल्ली. ती एका मलयाळी मनशा कडेन लग्न जाल्या. हांवें तिका विचारलें, 'तुमकां लग्न जाल्यार कितलीं वर्सां जालीं?'

'णव', तिणें जाप दिली.

'तुमी एकामेकां कडेन खंयचे भाशेंत उलयतात? मलयाळम काय गुजराती?'

'इंग्लीश...', तिणें जाप दिली.

सट्ट करून म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरलें, 'आरेच्या! म्हणटकूच तुमचें हें लग्न आंतर-प्रांतीय न्हय आनी आंतर-भाशिकूय न्हय. Inter-sex marriage हें...'

ती हांसली. पुणून दुखावली जावंक जाय.

हांवें डॉ. कान्तींक म्हळें, 'आमच्या देशांत इंग्रजाळ्ळेल्या भारतियांची— Anglicised Indiansची एक नवी जात निर्माण जाल्या. ती आपली आदली जात, आदलो धर्म, आदली भास विसरल्या. हेच जातीचे लोक तुमच्या क्लबांत एकठांय जाले जाल्यार ताका Inter-marriage Club कशें म्हणूंक जातलें?'

ते म्हणूंक लागले, 'सगळेच वांगडी तूं म्हणटा तसले न्हय.'

हांवें म्हळें, 'आंतर-जातीय, आंतर-प्रांतीय आनी आंतर-भाशीक लग्नाची बऱ्यांतली बरी देख तुमच्या बापोलयानूच — देवदासभाई गांधीनूच — घालून दिल्या. (देवदासभाई जातीन वाणी. भाशेन गुजराती. तांगेली घरकान्न राजाजींची धूव. जातीन बामण. भाशेन तमीळ) तांच्या घरांत गुजराती आनी तमीळ दोनूय भासो चलतात. ते भायर इंग्लीश आनी हिन्दी ह्योय भासो घोळटात. पुणून इंग्लीश त्या घरांतली मुखेल भास नाशिल्ली.'

कान्तीभाईन म्हळें, 'आमी तीच देख घेतल्या.'

हांव ओगी रावलों.

पुणून त्याच खिणाक म्हाका दिसलें, म्हजे हस्तुकीं 'औचित्य भंग' जालो.

हांवें bad taste दाखयली. हांवें अशी टिका करूंक जायनाशिल्ली. म्हाका इंग्रजाळ्ळेल्या भारतियांचो राग. ते धड इंग्रजूय न्हय आनी धड भारतियूय न्हय. एके तरेचे 'मिश्तीस'. ही नवी जात आपलो शेंक ह्या देशाचेर चलोवंक लागल्या तें पळोवन म्हाका कुरेर जाता. हो राग म्हाका कळनासतना उकतो जाल्लो. म्हाका मनांतल्या मनांत लज जाली.





३–१२–१९७०

**७९.** म्हाका दिसता, मनीस सुखी जातलो जाल्यार, चार गजाली ताका मेळूंक जाय –

१. घटमूट आरोग्य,
२. भोंवतणच्या लोकां कडेन बरे संबंद,
३. मुळाव्यो गरजो भागत इतली जोड, आनी
४. कामांत थोडें-भोव येस.

जाचें आरोग्य बरें आसता तो सुखी उरताच. इतलेंच न्हय तर तें सूख ताचें आरोग्यूय बरें दवरता. घरच्या आनी भोंवतणच्या लोकां कडेन जाचे संबंद मोगाचे आसतात ताचे सारको सुखी तोच. 'फाल्यां कशें जातलें' हो हुसको मनशाक आसूंक जायना. केन्ना केन्ना मनीस ह्या हुसक्याक लागून दुडवां फाटल्यान लागता आनी लाखांनी जोडटा. पुणून सुखी उरना. सूख सासणाचें होगडावन बसता.

निमाणें, काम. सदांच अपेस मेळत रावप हाचे सारकें दुःख ना. कितलोय कठीण वावर आमी हातांत घेतिल्लो आसलो जाल्यारूय तातूंत थोडें - भोव येस मनशाक मेळुंकूच जाय – कोणें एकल्यान म्हळां, a really good successful piece of difficult work is very very great. खरें तें.



६–१२–१९७०

**८०.** ताका पळेना फुडें म्हाका मल्लिकजींचो उगडास जालो–

वर्ध्यांक आसतना एक दीस प्रो. एस्. के. ज्यॉर्ज हांची घरकान्न आमगेर आयली आनी 'चल. तुका एक अजापांचो मनीस दाखयतां' म्हण सांगून म्हाका आपणागेर घेवन गेली.

तांगेर गुरुदयाल मल्लिक आयिल्ले!

मोटवीच मूर्त. शिवा सारकें तोंड आनी दोन बारीक दोळे. लक्ष गेलें तें दोळ्यांतल्यान व्हांवपी प्रेमाचेर.

पळेना फुडें एका खिणांत तांचो जालों. तांचे कडेन कितें उलयतलों हें येवजितालों. इतल्यांत. प्रो. ज्यॉर्जीन म्हळें, 'मल्लिकजी, आमचे खातीर एक गीत गावचे नात तुमी?'

हांवें म्हळें, 'गुरुदेवांचें एकाद्रें...'

'गुरुदेवांचीं गितां हांव चडशीं केन्ना गायना.'

'कित्याक?', हांवें अजापान विचारलें.

आनी तांणी एक खबर सांगली –

'शांतिनिकेतनांत आसतना एक खेपे हांव बाथरूमांत गुरुदेवांचें एक गीत गायत न्हातालों... भायल्यान दिसता, गुरुदेव वतालें. म्हाका खंय खबर! तांच्या कानार म्हजें गीत पडलें आनी ते बाथरूमाचें दार थापडावंक लागले. हांवें अजापान दार उकतें केलें. पळेत जाल्यार, गुरुदेव! विचारूंक लागले, 'म्हज्या गिताचो असो खून करता?' तेन्ना पसून गुरुदेवाचीं गितां म्हणटना म्हाका त्या दिसाचो उगडास जाता आनी एके तरेचेंच दिसता...'

मागीर म्हणूंक लागले, 'हांव बापूजींक पयलेच खेपे मेळ्ळों तेन्ना हांवें तांकां पंजाब आनी सिंध हांचे शिमे वेलें लोक म्हणटात तें एक गीत म्हणून दाखयल्लें. ते उपरांत हांव बापूजींक जितलेय खेपे मेळ्ळों तितलेय खेपे तांणी म्हजे कडल्यान तेंच गीत म्हणून घेतलां... तेंच आतां तुमकां म्हणून दाखयतां...' अशें म्हणून तांणी *'तेरा मकान आला जित्थे कित्थे वसां भी तू'* हें सिंधी भजन म्हणून दाखयलें. (*आश्रम-भजनावलींत* तें आसा.)

ते उपरांत मल्लिकजींक जायते खेपे मेळ्ळों आनी तांचे कडल्यान कांय भजनांय आयकल्यांत तश्यो कांय खबरीय आयकल्यात...

शांतिनिकेतनांत मल्लिकजी सुमार पंचवीस वर्सां तरी उरल्यात जातले. ह्या पंचवीस वर्सांच्या काळांत ते गुरुदेवां कडेन खंय आठ धा वाक्यांच उलयल्यात जातले. एक फावट तांणी एक खबर सांगली—

गुरुदेव खंय सद्दां फांतोडेर उठ्ठाले आनी भायल्या वारांदार उदेंते कडेन तोंड करून एका ऑल्तेरार ध्यानाक बसताले. त्या वेळार थंय कोणेंच वचूंक जायना असो नेम आशिल्लो. पुणून मल्लिकजींनी कोणाक सुलूस लागूंक दिना आसतना ल्हवू ऑल्तेरा फाटल्यान वचून सद्दां बसचें आनी गुरुदेव उठचे पयलीं तशेंच ल्हवू उठून वचचें. वरसां संकींनी तांचो हो नेम चलिल्लो. पुणून कोणूच नकळ आशिल्लो.

जाणा आशिल्ले ते फकत गुरुदेवूच.

मल्लिकजींनी म्हाका म्हळें, 'हांवें देव पळेला अशें हांव म्हणिना... पुणून शांतिनिकेतनांत गुरुदेवां म्हच्यांत बसून जें हांवें ध्यान केलां तातूंत म्हाका ताचें केन्ना केन्ना दर्शन घडलां... I have felt His presence there...'

हांवें त्या मनशाक (जाका पळोवन म्हाका आयज मल्लिकजींचो उगडास जाल्लो) विचारलें, 'मल्लिकजींक निमाणें कितें जालें?...'

'तांचे कुडींत निमाण्या वर्सांनी जायत्या रोगांनी घर केल्लें. दोतोरांक लेगीत 'हे जियेतात कशे' हाचें अजाप जातालें. पुणून तोंड तांचें सदचे भाशेनूच प्रसन्न आसतालें.'

म्हज्या मनाक एकूच गजाल खाता. तांकां गोंय पळोवपाची इत्सा आशिल्ली. तांची ही इत्सा हांव (म्हज्या राजकर्णाच्या बोवाळांत) भागोवंक पावलों ना.

फाटल्या गिमांतूच ते गेले!



८–१२–१९७०

**८१.** तो XXXX च्यो भगलो मारूंक लागलो तेन्ना म्हाका भिरभिरी मागली. हांवें ताका रागान म्हळें, 'तुमकां केन्ना तुमच्यांतले व्हड मनीस वळखूंक आयल्यात काय? देवान तुमकां ती नदरूच दिवंक ना. जांचे मुखार तुमी तकल्यो बागयतात तांचे परस व्हड कांय जाण तुमचे मदींच वावुरतात. पुणून तांकां वळखूंक तुमकां येना... तुमकां दिसता, आमचे वांगडा हे हांसतात करतात म्हणटकूच आमचे येदेच आसतले.

मागीर ताका हांवें एक खबर सांगली.

कांय वर्सां पयलीं राजर्षि पुरुषोत्तमदास टंडण हांकां हांव मेळूंक गेल्लों. हांवें म्हजी वळख करून दितना म्हळें, 'हांव गोंयचो...'

'*अच्छा!... धर्मानंदजी के प्रदेश के!*... धर्मानंद खूब व्हडले मनीस आशिल्ले... महात्माजींक सोडीत जाल्यार ह्या पुराय देशांत धर्मानंदां येदो सत्यनिष्ठ मनीस मेळपाक कठीण...' टंडणजींनी म्हळें.

टंडणजी जाका येदो व्हडलो सत्यनिष्ठ मानताले ताची गोंयकारां मदीं कितें पत आशिल्ली, खबर आसा? एक खेपे मुंबयंत रावतल्या गोंयकारांक आपली एक राजकी परिशद आपोवची अशें दिसलें. थाराव घेतलो आनी दिस्पूय थारायलो. उक्तावणेक कोणाक आपोवचो? एकल्यान काकासायबांचें नांव सुचयलें. तें बाकीच्यांनी रोखडेंच मान्य केलें. काकासायबूच कित्याक? ते गांधींचे मनीस. गोंयचे राजकी परिशदेंत ते सत्याग्रहाचो उपाय सुचयतले. तो उपाय मान्य केल्या म्हणटकूच पयलो सत्याग्रह तांकांच करचो पडटलो. ते पुर्तुगेजांचे बंदखणींत पडले म्हणटकूच तांकां सोडोवन हाडपाक गांधींक लक्ष घालचें पडटलें. गांधी ह्या प्रस्नांत पडले म्हणटकूच अख्खो देस पडटलो आनी मागीर आमकां भायले भायर स्वराज्य मेळटलें, हें हांचें धोरण. ही strategy. हें राजकारण.

ते प्रमाण ते गेले काकासायबांक आपोवपाक. काकासायबांनी म्हळें, 'हांव येतां. पुणून तुमची ही पयलीच राजकी परिशद. तिचे उक्तावणेचो पयलो मान धर्मानंद कोसंबींक मेळूंक जाय. तांकां पयलीं विचारात.'

धर्मानंदांचें नांव आयकना फुडें हांकां 'आंवय आंवय... धर्मानंद!' अशें दिसलें. पुणून कितें करतले? काकासायबांनी सांगलां! म्हणटकूच विचारचेंच पडलें. 'देवा पाव... आपूण येना म्हळ्यार पुरो' अशें मनांत म्हणीत ते गेले धर्मानंदां सरीं.

धर्मानंदांनी म्हळें, 'असलें कितेंय करचें जालें जाल्यार म्हाका गांधींक विचारचें पडटलें...'

हांणी मनांत म्हळें, 'बरें जालें.'

आनिकूय एक दुबाव तांकां आयला जावंक जाय –

'गोंयकार हो! बंदखणींत वता?... आमचे भाशेनूच भियेतलो!'

हेवटेन धर्मानंदांक गांधीजींनी सांगलें, 'तूं तातूंत कित्याक पडटा? तुका राजकर्णांत पडटलो जाल्यार पुराय देसाचें राजकर्ण आसा. तातूंत पड. आपल्या प्रदेशाच्या ल्हान राजकर्णांत केन्ना पडचें न्हय. हांव पोरबंदरचें राजकर्ण खंय घेवन बसलां? काकांकूच थंय वचुंदी. तांकां बरें. ते परकी गोंयकारांक.'

कांय दिसांनी धर्मानंदांनी ही खबर आमच्या ह्या गोंयच्या फुडाऱ्यांक सांगली. ते खुशालभरीत जाले. तांकां जाय आशिल्लें तेंच जालें! सरळ उठून ते काकासायबां सरीं आयले.

काकासायबांनी विचारलें, 'कितें जालें?'

'धर्मानंदांक गांधीजींनी नाका म्हूण सांगलें', तांणी जाप दिली. आनी ल्हवूच एकल्यान एक वाक्य जोडलें, *'खरे खोटे, ईश्वर जाणे!'*

काकासायबांच्यो भिंवयो रोखड्योच ताठ जाल्यो, *'म्हणजे, धर्मानंद खोटं बोलले असं तुम्हाला म्हणायचं आहे का? मला तुमच्या परिषदेला यायचं नाही...'*

आनी काकासायबांनी तांकां रवाना केले!

धर्मानंदांची गोंयां भायर ही पत आशिल्ली! आनी गोंयकारां मदीं ही पत आशिल्ली. गोंयकारांक व्हड मनीस आमचे मजगतींय जल्मा येवं येतात हें केन्ना कोणें सांगुंकूच ना!



९–१२–१९७०

**८२.** हांवें इतिहास वाचला ताचे वयल्यान दिसता, आर्य पयलेंच हांगा आयले तेन्ना हांगा कितल्योश्योच संस्कृतायो नंदताल्यो जावंक जाय. हांगासल्ल्यो मूळच्यो द्रवीड जावं दस्यु संस्कृतायो तर आशिल्ल्योंच. ते भायर भायले असुरूय (Atlantean) आपली संस्कृताय घेवन आयिल्ले, आनी राक्षसूय (Mongolian) आयिल्ले. यवनूय (Ionian) आनी दैत्यूय (Negro) हांगा आशिल्ले जावंक जाय. हांचेर सगळ्यांचेर आपलो शेक बसयले उपरांत (आनी तो थीर जाले उपरांत) आर्यांक 'हांचे जिणेंत गरज नासतना आमी ढवळाढवळ करूंक जायना' अशें दिसलें जावंक जाय आनी, ह्या वेगळ्या वेगळ्या संस्कृतायांनी आपणाक आनी एकामेकांक त्रास दिनासतना, सवस्तकायेन नंदचें म्हूण, आनी तांकां आपापले तरेन जियेवपाक मेळचें म्हूण, तांकां वेगळे वेगळे दवरपाचो निर्णय केलो जावंक जाय. 'तुमी तुमचे तरेन जियेयात. आमी आमचे तरेन जियेतात... सारकें समजनासतना तुमी आमची – आमी तुमचेर शेक चलयतात म्हूण – देख घेवंक लागले जाल्यार तुमकां ती पचपाची ना. तुमकां धादोसकायूय भोगपाची ना. उरफाटें, तुमच्यांत विकृतायो येतल्यो आनी आमचीय संस्कृताय बदनाम जातली' अशें तांणी तांकां सांगलें जावंक जाय. आनी, 'अधिकार नासतना' आमचें तुमी कितेंय घेतलें जाल्यार तें आमी सोंसून घेवचे नात असोय तांणी नेम घालून दिलो जावंक जाय...

म्हजो हो तर्क समा आसत जाल्यार हेर समाजशास्त्र्यां वरी हांवूय म्हणटां – आमच्या पूर्वजांनी हो जो वेगळ्या वेगळ्या संस्कृतायांक वेगळ्यो वेगळ्यो दवरपाचो प्रयोग केल्लो तो समाजशास्त्राचे नदरेन शाणेपणाचो आशिल्लो, अजापांचो आशिल्लो, आनी, विज्ञानीक तर खातरीन आशिल्लो. ते सुमरांत आनी त्या वातावरणांत, हाचे परस दुसरो बरो प्रयोग जावं येनाशिल्लो.

आतां समाजशास्त्री म्हणटात, ते उपरांत, ह्या प्रयोगांत जावं हे व्यवस्थेंत जेन्ना जायतीं उणीं दिसून आयलीं, त्या वेळार तीच आदली विज्ञानीक बुद्द वापरून तातूंत आमी फावो ते बदल घडोवन हाडूंक जाय आशिल्ले. पुणून ते मेरेन 'धर्मशास्त्र' निर्माण जाल्लें आनी ताका लागून आमची बुद्द फातरा सारकी घट जावन गेल्ली. कांयच बदल करपाची गरज ना... आमचे संस्कृताये इतली बरी संस्कृताय दुसरी ना... आमचे पूर्वज सर्वज्ञ आशिल्ले... तांणी जें कितें करून दवरलां तातूंत चूक आसूंच नज... ह्यो भावना घट जाल्यो.

अश्या वेळार इतिहासान हांगा भायल्या लोकांक धाडून दिले आनी आमकां सांगलें, 'तुमी तुमचे समाज-व्यवस्थेंत बदल घडोवन हाडलोना जाल्यार तुमकां हांचे मुखार हार खावची पडटली...'

आमी हार खाली... एक खेपे न्हय, कितलेशेच खेपे खाली...

आनी तरी आसतना आमी कांयच शिकले नात. आमच्या समाजांत उणीं खंय आसात हें सोदून काडपाची आनी तीं उणीं पयस करपाची विज्ञानीक बुद्दूच आमकां केन्ना जाली ना.

एकूच गजाल घडली.

परकी लोक आमचेर शेक चलोवंक लागना फुडें आमी तांचे 'दास' जाले. तांची खुशामत करप, तांची सेवा करप आनी तांचे दयेर जियेवप– इतलें आमी बेस बरें केलें. आनी मागीर, तांचें जें कितें दिसलें तें बरें अशें म्हणपाक लागले. 'वांचून उरतले जाल्यार आमचें सगळें आमी भायर उडोवंक जाय आनी तांचें सगळें घेवंक जाय' अशें म्हणपाक लागले.

काकासायबांच्या उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार, पोरण्या आदर्शांक आमी दसून रावले तेन्ना आंधळेपणानूच रावले, आनी नवे आदर्श घेवचे अशें थारायलें तेन्नाय आंधळेपणानूच ते घेतले.

खंयचेच परिस्थितींत आंधळेपण आमी सोडलें ना.

म्हाका केन्ना केन्ना निरद चौधरीचें तें 'विक्षिप्त' मत्त पट्टा: आमी आमचो फुडार बरो घडयतले जाल्यार आमी मूळचे 'पाखले' आशिल्ले म्हणपाचें धरून चलूंक जाय आनी तांणी जे उर्बेन (विज्ञानीक बुद्द वापरून) नवे नवे प्रयोग केल्ले तशेच तरेचे आयच्या काळाक फाव अशे नवे नवे प्रयोग करपाचें आमी काळीज दाखोवंक जाय. Originality बगर देशाक उदरगतीची वाट ना...

आयज चल्ल्या ती सगळी केलदावणी – एक तर पूर्वजांची वा – भायल्या गुरूंची.





१०—१२—१९७०

**८३.** श्रीकृष्ण दिसपाक कसो आशिल्लो काय?

बायलो ताचे भोंवतणीं जीव उंवाळपाक तयार जाताल्यो म्हणपाचीं पुराणांतलीं वर्णनां वाचल्लीं म्हणटकूच तो बरोच देखणो आशिल्लो अशें म्हणचें पडटा. हरशीं, तो गोपीं वांगडा नाचतालो तेन्ना पिरायेन तेरा चवदा वर्सांचोच आशिल्लो. म्हळ्यार भुरगो. उपरांत तो मथुरेंतल्यान पळून गेलो. मागीर ताचो गोपीं कडेन केन्नाच संबंद आयलो ना. तरी आसतना बायलांचें समजुंयेता. पुणून भीष्म? ताकाय श्रीकृष्ण 'पिशें लावपा' इतलो 'देखणो' दिसचो?

भीष्म शरपंजरीं पडला. थोड्या वेळान तो प्राण सोडपाचो आसा. इतल्यांत ताची नदर म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्या श्रीकृष्णाचेर पडटा आनी तो ताचें तोंड, ताचे केंस, ताचे दोळे, ताची चाल, ताचो हांसो, ताचो आवाज... हांचीच सगळ्यांत पयलीं तुस्त गावंक लागता!

भीष्मा सारकेल्याक लेगीत असल्या वेळार असलें तुस्त-गीत येवजता तेन्ना म्हणचें पडटा, श्रीकृष्णाची personality बरीच over powering आशिल्ली जावंक जाय.

उपरांतच्या सुमार देडशें दोनशीं पिळग्यांतल्या कवींनी ताच्या देखणेपणाचीं वर्णनां करपाक आपणाली प्रतिभा वेश्टी खर्चूंक ना!





१४–१२–१९७०

**८४.** कांय दिसां खातीर अहमदाबादेक गेल्लों.

मुंबय परतना फुडें सुशीलबाब कवळेकार ॲक्सिडँटांत भायर पडिल्ल्याची खबर कळ्ळी...

खूब वायट दिसलें. तांकां म्हज्या राजकर्णांत ओडपाचो हालींच हांवें यत्न सुरू केल्लो आनी तातूंत म्हाका येस मेळटलें अशें दिशिल्लें.

दनपरां दत्ताराम म्हणूंक लागलो, 'ह्या मनशान गोंयकारां कडेन केन्नाच कितेंच आपणा खातीर मागलें ना. एकूच खेपे ताणें एक गजाल मागली, जी आमी आतां मेरेन कोणाकूय कशीय दिवन उडयल्या. ताका मात आमी ती दिली ना. ताका फावताली आसून दिली ना.' (ताका लोकसभेंत आमी वचूंक दिलो ना.)

हांवें म्हळें, 'गोंयकार आमी! जाका जें फावता तें ताका केन्नाच दिवपाचे नात!'





१५–१२–१९७०

**८५.** आमच्या जाणटेल्यांनी एक नेम घालून दिल्लो :-
बारा वर्सां मेरेन गुरूगेर रावन शिकचें, उपरांत तीन वर्सां तरी भोंवचें.
ते उपरांतूच लग्न जावंक मेळटालें.

ह्या नेमान पुर्विल्ले मुस्तींतले लोक चलताले. काशी-रामेश्वराची यात्रा करताले वा द्वारका, कन्याकुमारी, जगन्नाथपुरी आनी बद्रीनारायण हीं चार 'धामां' पळोवन येताले आनी मागीर आमी 'जग पळेलें' अशें तांकां दिसतालें.

ते मुस्तींतलें 'जग' येदेंच आशिल्लें.

आमी हिन्दुस्ताना भायर पावलूच घालें ना अशें म्हणूं नज. लंका तर आमीच पुराय वसयल्ली. दक्षीण-उदेंत आशियेंतल्या कितल्याश्याच देशांनीं आमी आमचीं साम्राज्यां थापिल्लीं. फिजी मेरेन आमी पावले. हेवटेन दक्षीण-अस्तमते कडेन आफ्रिकेच्या दोनूय किनाऱ्यां वयल्या शारांनी आनी गांवांनी आमचे लोक वचून रावल्ले. इतलेंच न्हय, मॉरीशियसूय आमी पुराय वसयल्लें. उत्तर आफ्रिकेंतलो मोकोत्रा जुंवो जाल्यार आमचोच आशिल्लो.

आमी दक्षीण अमेरिकेचे उत्तरेक त्रिनिदाद, सुरिनाम, गियाना बी देशूय वसयल्यात.

पुणून आमच्या देशा भायली आमची ही भोंवडी जावं वसणूक व्यापारा खातीर आशिल्ली. पयसो जोडपा खातिरूच आमी इतले पयस पयस मेरेन गेले! कांय सुवातांनी 'धर्मूय घेवन गेल्यात जातले. पुणून गिन्यान जोडपा खातीर आमी खंयूंय गेल्यात व्हय?

हालींच्या काळार येवरोप-अमेरिकेंतलीं कांय कंवळीं पोरां आमच्या देसांत 'टुरिस्ट' म्हूण हेवटेन तेवटेन भोंविल्लीं पळेल्यां तेन्ना म्हाका तांचो मत्सर दिसपाक लागता आनी हांव मनांतल्या मनांत म्हणटां—

आमचे तरणे भुरगे मनान म्हातारे कशे जाले? आमच्या भुरग्यांक अशें जगभर भोंवचें-शें किल्याक दिसना? पयशे नात म्हूण? हांचेय कडेन पयशे नासतात. पुणून हांचे कडेन एक spirit of adventure आसा. गिन्यानाची भूक आसा. 'खूब खूब पळोवंक जाय' म्हणपाची एक उमळशीक आसा.

आनी आमी?

आयज एके टुरिस्ट चलयेन म्हाका म्हळें, 'हांव रोमाक थावन भायर सरिल्लें

तेन्ना म्हजे कडेन फकत वीस डॉलर्स आशिल्ले. आयज चार वर्सां जालीं, हांव संवसार भर भोंवतां. एकलें. आनी म्हजें खंयच अडून उरूंक ना. म्हजे कडेन अजुनूय वीस डॉलर्स आसात. आनी हांवें कोणाक नागोवंक ना.'

म्हाका तिची अपुर्बाय दिसली. म्हाका दिसता –

आदल्या काळार 'बारा वर्सां शिकचें आनी तीन वर्सां भोंवचें' म्हूण आमी नेम केल्लो तसोच 'युनिव्हर्सिटींतल्यान शिकून भायर सरचें आनी उपरांत पांच वर्सां तरी संवसार भर भोंवचें' असो एक नेम आतां करूंक जाय. ते बगर खंयच्याच चल्याक कोणें चली दिवंक जायना. खंयचेच चलयेक चलो मेळूंक जायना आनी कोणाकूच खंयच नोकरी मेळूंक जायना.

'म्हाताऱ्या' राष्ट्रांत प्राण फुंकपाचो हो एकूच उपाय आसा.

राहुल सांकृत्यायन हांणी *'घुमक्कड-शास्त्र'* म्हूण एक पुस्तक बरयलां. तातूंत एक उर्दू 'शेर' दिला:

*दुनिया की सैर कर गाफिल, जिन्दगानी फिर कहाँ*
*जिन्दगी गर कुछ रही, तो नवजवानी फिर कहाँ?*

म्हजें मन मागीर फुरफुरूंक लागता!





१६–१२–१९७०

**८६.** गोंयां परतुचे पयलीं, म्हळें XXक मेळून येवचें. म्हण ताच्या घरा कडेन गेलों. वर दोन वरां बसून उलय उलय उलयले आमी.

अवचीत म्हजे तकलेंत एक 'दुबाव' आयलो -

हो फकत फाटल्यांच-श्यो खबरी सांगता? अमक्या वेळार अमकें जालें, त्या वेळार आपणें अमकें केलें हें तो मोटे रुचीन सांगता.

ताणें हें सगळें केलां हें हांव जाणां. आनी जें केलां तें खूब केलां हेंय जाणां. पूणून हो कांय 'म्हातारो' जावंक ना. म्हाताऱ्यांक फुडार नासता. तांचे कडेन आसता तो तांकां सोडून गेल्लो फाटलो काळ. फुडार आसलोय जाल्यार सामको मोटवो आसतलो. तांणी फाटल्यांच खबरी सांगपाच्यो. तरण्या मनशा मुखार मोटटो फुडार पातळ्ळेल्लो आसता. तांणी फुडाराच्यांच खबरी करूंक जाय... पळोवंक नाशिल्लीं सपनांच रंगोवंक जाय.

काय, हो पिरायेन तरणो आसून्य मनान म्हातारो जाला?

तशें जाल्यार मागीर हाचें 'अवतारकार्य' सोंपलें म्हणचें पडटलें!





२०–१२–१९७०

**८७.** म्हयनो भर भायर भोंवन आयिल्ल्यान घरा पावना फुडें पयलीं काडली ती न्हीद. दोन तीन दीस कांयच केलें ना.

आयज भायर सरलों. पणजे दोगा-तिगांक मेळपाचें आशिल्लें. गेलों, पुणून एकलोय मेळ्ळो ना. मनांत म्हळें, 'भायर सरता आसतनाच्च माजर आडवें गेल्लें जावंक जाय.'

हांव हें मनांत उलोवन गेलों खरों. पुणून रोखडोच साबुद्दीर आयलों. म्हळें, 'पयलींच तांकां हांवें कळयल्लें जाल्यार, म्हजी फावट फुकट वचची नाशिल्ली. चूक म्हजी. दुशण मात हांव माजराक दितां!'

आनी हांव आमच्या एका 'राष्ट्रीय' सभावा संबंदान येवजूंक लागलों—

काकासायब सदांच म्हणटात, देवा परस दैवाक एक मात्रा चड. आनी आमच्या लोकांचो देवा परस दैवाचेर भावराथ चड. घडये देव आनी दैव आमी एकूच धरतात जावंये, वा, देवा परस दैव खर धरतात जावंये. कोंकणींत दैवा खातीर एक चालंत उतर आसा – 'अद्रुश्ट'. म्हळ्यार, जें दिश्टी पडना तें. आमचे सुवादीन नासता तें. पुराय हिशेब लायले उपरांतूय जाचे खातीर थोडें-भोव कितेंय आमकां 'सोडचें' पडटा, पुणून कितलें सोडचें हें समजना, तें.

शेतकामती शेत रोयता तेन्ना पावस केन्ना पडटलो हाचो अदमास लावनूच रोयता. पावस केन्ना पडटलो हाचें एक शास्त्र आसा. तें ताका खबर आसता आनी पंचांगांतूय सांगिल्लें आसता.पुणून हें शास्त्र अजून पूर्णत्वाक पावूंक ना. देखून केन्ना केन्ना ताचो अदमास चुकता. आनी ताचो सगळो वावर फुकट वता. मागीर 'नशिबूच आपलें पाडें', 'अद्रुश्टांत अशें आशिल्लें... ताका कोण कितें करतलो?' अशें म्हणून तो मेकळो जाता! कार्ल मार्क्सान हिन्दुस्तानी मनीस दैववादी कित्याक लागून जालो ताचें कारण सांगतना हें एक कारण सांगिल्लें – 'पावस ताच्या हातांत ना' म्हूण...

पुणून फाल्यां हवामानशास्त्र उदरगतीक पावतलें, वा विमान 'अडेचो पावस' घालपाक लागतलें तेन्ना ताच्या ह्या 'अद्रुश्टा'चो शेक उणो जावचो ना व्हय? जावंकूच जाय...

हेरूय कडलो अद्रुश्टाचो शेक असोच उणो करूं येता. जाय ती फकत बुद्द, उर्बा, आनी यत्न करपाची तयारी.

'आमी कितेंय केलें तरूय खंयचे कडेन कांयच जावपाचें ना...', वा 'जावपाचें आशिल्लें तेंच जालें', वा 'जें जावपाचें आसा तें चुकोवंक येवपाचें ना' -- अशें मानप बुद्‌दीचे आळसायेचें, निर्शेल्ल्या मनाचें, वा पुरुषार्थ करपाची तांक उणी जाल्ल्याचें लक्षण.

असले लोक मागीर 'अकर्मण्य' जाले जाल्यार अजाप कसलें? 'जुगारी' जाले जाल्यार अजाप कसलें?

म्हाका केन्ना केन्ना आमकां शिकयल्ल्या वेदान्ताचो राग येता. *'मना त्वांचि रे पूर्व-संचीत केलें, तयासारिखें भोगणें प्राप्त झालें'* ह्या संस्कारांत वाडिल्लें राष्ट्र केन्ना अन्याया आड झुजत व्हय? पुरुषार्थाक केन्ना तयार जायत व्हय? केन्ना वयर सरत व्हय?

'म्हातारें' राष्ट्र हें! पोरणो वेदान्त बदल्ले बगर आनी नवो वेदान्त घडयले बगर तें तरणें जावपाचें ना.





२१–१२–१९७०

**८८.** ताणें म्हळें, 'तुजीं वर्णनां वाचतां तेन्ना बरेंऽ कितें वाचिल्ल्याची खोस म्हाका भोगता. पुणून तूं वर्णन करता ताचें चित्र मात दोळ्यां मुखार उबें राविना...'

हांव ताच्या तोंडा कडेन पळेत रावलों.

तो म्हणूंक लागलो, 'देखीक, जपाना वेल्या तुज्या पुस्तकांत तुवें फुजी पर्वताचें वर्णन केलां तें वाचून फुजी पर्वत कसो आसतलो म्हणपाचें चित्र उबें जायना.'

म्हज्या बरपांतलें एक उणें ताणें सांगिल्लें आनी तांतलो एक गुणूय दाखयल्लो. हांवें ताका जाप दिली – म्हजीं वर्णनां हालींच्या चित्रकारांच्या चित्रां सारकीं. जो देखाव हांव पळेतां तो जशाचो तसो चित्रावपा वांट्याचो, ताची जी आनी जशी छाप म्हज्या मनाचेर पडटा तीच चित्रावप हो म्हजो वर्णनांचो आदर्श. चित्रकार वेगळो आनी फोटोग्राफर वेगळो.

ते भायर, हांव पयल्याच दिसा जपानाच्या मोगांत पडलों अशें हांवें आरंभाकूच त्या पुस्तकांत सांगलां... जो मोगांत पडटा ताका आपलें मोगा कितें न्हेशिल्लें, कशें न्हेशिल्लें, आंगार ताच्या कसल्यो वस्ती आशिल्ल्यो हे details दिश्टी पडनात. हेच भाशेन, जपानाचे सुंदरकायेन जंय जंय म्हजें मन ओडलां थंयचे details म्हाका दिश्टी पडूंक नात.

हांवें ताका जाप दिली, पुणून म्हज्या ह्या आदर्शांच्या कसाक म्हजें बरप घांसून पळोवपाची एक इत्साय मनांत उदेली. फाल्यां वेळ मेळ्ळ्यार पुस्तक काडटलों म्हणटां पळोवपाक.





२२–१२–१९७०

**८९.** कितेंय कोणा कडेन आमी उश्णें मागून घेतलें जाल्यार, त्या वेळा पुरती आमची गरज भागत. पुणून जाका लागून उश्णें मागचें पडटा तें मुळांतलें उणें ना जायत व्हय? मुळांतलें उणें ना करपाक एकूच उपाय आसा. 'कश्ट करप आनी जोडप.'

विचार आनी संस्कृताय हांच्या मळार लेगीत होच नेम लागू जाता.

उश्णे विचार घेतले म्हूण विचारांचें दळदीर ना जावपाचें ना. संस्कृताय उश्णी घेतली म्हूण मुळांत जें कितें उणें आसा तें ना जावपाचें ना. विचाराच्या वा संस्कृतायेच्या मळा वेलें दळदीर ना करपाचो एकूच उपाय आसा: आपणेंच स्वतंत्र रितीन जोडप. हीच जोड उपकारा पडपाची.





२३–१२–१९७०

**९०.** हांवें ताका म्हळें, 'रसीक मनीस वेगळो आनी विलासी वेगळो... दोगूय एक न्हय...'

तो म्हणूंक लागलो, 'समजावन सांग...'

हांवें ताका कांय दाखले दिले :

– जो मनीस दीस-रात नाका-कानांत चेर घालून भोंवता तो विलासी... ताका चेरा चेरा भितर जे बारीक फरक आसतात ते केन्ना कळनात. हे फरक जाका कळटात तो रसीक.

– जो सदांच सोरो पियेवन पडिल्लो आसता तो विलासी. ताका सोऱ्या सोऱ्या भितल्लो बारीक फरक समजना. एके कडेन वाचिल्लें : येवरोपांत सोरो विकपी जीं नामनेचीं दुकानां आसात तांगेर व्हडलो पगार दिवन दवरिल्लो एक मनीस आसता. ताका 'टेस्टर' म्हणटात. तो खासा सोरो पियेना. पुणून खंयचो सोरो कितलो पोरणो हें तो एक थेंब चाखून सांगता. म्हज्या मत्तान हो मनीस रसीक.

आनी म्हळें, विलासी मनीस भोगी आसता. रसीक संयमी आसता.

Sexकूय होच नेम लागू जाता. विलासी मनशाक संभोगाची गोडी केन्नाच कळपाची ना...



२४–१२–१९७०

**११.** आयज पणजे सावन घरा येतना बसींत एक 'हिप्पी' म्हजे म्हऱ्यांत येवन बसलो. हांवें म्हाकाच म्हळें. आयतोच म्हऱ्यांत येवन बसला... कितेंय तरी उलोवंया! आनी ताका विचारलें, 'How did you like India?'

'I hate you all' तो केंच्च करून म्हज्या आंगार आयलो. आनी म्हणूंक लागलो, 'तुमचे सारके बुरशे लोक संवसारांत दुसरे नात. तुमचीं शारां बुरशीं, तुमचे गांव बुरशे, तुमचीं घरां बुरशीं, तुमचीं आंगां बुरशीं आनी तुमचीं मनांय बुरशीं... तुमचे सारके सत्व नाशिल्ले लोक खंयच मेळचे नात. आड परिस्थिती लागीं झुजपाची तुमच्यांत तांक ना. अन्यायां आड झुजपाची छाती ना. तुमी मनान गुलाम. तुमकां स्वतंत्र बुद्द ना. नाका नाका जाल्ल्या superstitions नी तुमी आपली बुद्द गदळावन घेतल्या आनी वयल्यान 'आमी एके व्हडले संस्कृतायेचे वारस' म्हण गर्वृय बाळगून बसल्यात... You are all cowards... तुमचे गिरेस्त गिदां पाशट. तुमचे गरीब नरकांतल्या किड्यां पाशट. तुमचें सरकार अळशीक. तुमचे वरी चिखलांत बुळबुळपी दुसरे लोक खंयचेच कडेन मेळचे नात... I hate you.'

म्हाका म्हजे सणकुटेर फुलयल्ले भाशेन दिसलें. खंयचो हाका प्रस्न विचारलो काय जालें म्हाका. पुणून तो उलयल्लो तांतलें उतरान उतर खरें आशिल्लें.

हांव कांयच्च जाप करिना-सो पळोवन ताणें म्हळें, 'हांव आयते कडेन भोंवलां. हांवें गरिबी म्हणटात ती कितें ती पळेल्या. आफ्रिकेंत पळेल्या, दक्षीण अमेरिकेंत पळेल्या. येवरोपांतूय गरिबी आसा. पुणून Indian poverty is unique... unique in its depths, unique in its blatancy, unique in its magnitude, unique in the quality of its submission...'

'I agree with you... तूं म्हणटा तें खरें!...', हांवें ताका सांगलें.

म्हजी जाप आयकना फुडें तो, 'Oh!... Do you?' म्हणून ओगी रावलो.

ते उपरांत दॅवउस्सर ताका हांवें जायते खेंप परतो उलोवंक लावपाचो यत्न केलो, पुणून तो बदलो ना तो अखेर मेरेन बदलो ना.

हे 'हिप्पी' म्हळ्यार कुवाडेंच एक मोटें!... अजून म्हाका तें सुटना.





२५–१२–१९७०

**१२.** म्हाका एक खेपे लोहियांनी एक कुवाडें घालें. तांणी म्हळें,

'आमचे कडेन नाशिल्ली वस्त, समज, आमी दुसऱ्या कडेन मागली. ताचे कडेन ती आसून लेगीत, ताणें ती आमकां दिली ना... जाल्यार?'

'आमकां खूब वायट दिसूंक फावो.' हांवें जाप दिली.

'हाचे उरफाटें, समज, दुसऱ्या कडेन नाशिल्ली वस्त आमी ताका दिवची केली. ताका ते वस्तीची गरज आसून लेगीत ताणें ती घेतली ना... जाल्क्षर?...'

'आमकां ताच्याकूय चड वायट दिसपाक फावो.' हांवें म्हळें.

लोहियांनी म्हळें, 'असलेंय दुःख कांय लोकांच्या वांट्याक येता.'

म्हाका हें हालीं हालीं चड पटपाक लागलां.



२६–१२–१९७०

**१३.** लोहियांच्यो कांय गजाली म्हाका मानऽ नाशिल्ल्यो. देखीक, जवाहरलालजीं संबंदान ते उलयताले तें आयकूं नजऽ जातालें. पुणून तांणी जें सोंसलां तें सोंसपाचें व्हय?

तांच्यांत stamina आकांताचो आशिल्लो... लोखणाच्या काळजाचे ते! देखून आड परिस्थिती लागीं ते झुजत रावले आनी तग मारूंक पावले. पुणून तांकां सोंसचें पडलां तें आनी कोणाच्याय वांट्याक आयिल्लें जाल्यार ताचें लोणचें जावपाचें.

लोहियांक इतलें सोंसचें कित्याक पडलें? 'तत्त्व' घेवन बसले म्हुण्णूच मू? तांणी 'वेव्हारा' कडेन तडजोड केल्ली जाल्यार, ते खंयचे खंय पावतले आशिल्ले – दोनूय अर्थांनी.

ते 'तत्त्व' घेवन बसले, म्हूण लोकसभेंत पावपाक तांकां बारा वर्सां लागलीं! जंय आयजवेर कोणूय कसोय पावला थंय लोहियां सारकेल्या एका कर्तुत्ववान बुदवंताक पावपाक बारा वर्सां लागचीं? कसली तुस्त गायतात तुमी लोकशायेची? लोहियांच्या अपेसांत लोकशायेचें अपेस दिश्टी पडना तुमकां?

हे तरेची अपेशी लोकशाय तिगतली? तिगची?





२७–१२–१९७०

**१४.** 'भंग्यांची जातूच ना करून उडयल्यार कशी? भंग्यांच्या भंगीपणाचेर कायद्यान बंदी घालची. तांच्या हातांतली सान्न आमी काडून घेवची, आनी ते ती आमकां दिवंक तयार नासतीत जाल्यार तांकां सगळ्यांक फारांनी मारून उडोवचे! आसून आसून आसतीत बारा-पंदरा लाख... पुराय देस धुवन-पुसून निवळ करपाची, लोकांक वेगळ्यो संवंयो लावपाची, न्हय, लोकांची जीण पुराय बदलून देशांत नवनिर्मणेचें एक नवें वातावरण उबें करपाची, म्हाका दिसता, ही एकूच वाट आतां उरल्या. हिन्दुस्तानांत स्वर्ग हाडपा खातीर भंग्यांक जिवे मारचे पडले जाल्यार, तांचे हत्येचें पातक म्हज्या माथ्यार घेवन युगान-युगां रौ-रौ-नर्कांत रावपाची म्हजी तयारी आसा...'

म्हजें हें मत्त आयकून तो खंती जालो. 'शी. शी. शी. असली मनीसपणा भायली करणी करची अशें म्हणचें तुवें?'

'आनी, भंग्यांक *सफाई कर्मचारी* ही पदवी दिवन भंगीच दवरपाची तुमची करणी मनीसपणाची? ...तांच्या हातांतली सान्न काडून घेयात पयलीं...!'





२८-१२--१९७०

**९५.** सकाळीं बेगीन जाग आयली. खंय तरी एका फिल्मी गिताची रिकॉर्ड वाजताली. मनांत म्हळें. 'येदे सकाळीं कोण ही रिकॉर्ड वाजयता काय?' जागो जायना फुडें रिकॉर्ड वाजपाची थांबली. आनी लक्षांत आयलें, रिकॉर्ड भायर खंयच वाजनाशिल्ली. म्हज्याच मनांत वाजताली.

म्हाका फिल्मी गितां म्हणपाची संवंय ना. तें कित्याक, कसलींच गितां गुणगुणपाची संवंय ना. म्हाका कान आसात. ताळो ना. पुणून तरे तरेचीं गितां सद्‌दां कानार येवन आदळटात. आनी कानांतल्यान तीं मनांत वतात. आनी थंय तीं 'वाजूंक' लागतात.

कोणें एकल्यान (घडयें ऑल्डस हक्सलेन जावंये) विसाव्या शेंकड्याचें वर्णन करता आसतना ताका Age of Noise म्हळा. विज्ञानान जे नवे नवे सोद लायल्यात आनी त्या सोदांचो जे तरेन मनीस आयज उपयोग (?) करूंक लागला ताका ताणें assault against silence म्हळां.

ह्या assaultचो मनशाच्या मनाचेर कसलो कसलो परिणाम जाता काय?

हरशींय म्हूण कितें आमच्या मनांत थोडो 'बोवाळ' चलना! आमी जें सद्‌दां उलून लोकां कडेन उलयतात, ताचेय परस चड, जें आमी आमचेच कडेन उलयतात तें आमी केन्ना नियाळून पळेतात व्हय? म्हाका केन्ना केन्ना म्हजीं म्हजेच कडेन चलिल्लीं आप-उलोवपां नियाळून पळोवपाची इत्सा जाता आनी तेन्ना म्हज्यांत आनी पिशांत कितें फरक आसा हेंच म्हाका सारकें थारावंक येना. 'तरी बरें, हीं आप-उलोवपां जिबेंतल्यान भायर फुटनात!' अशें म्हणून हांव मागीर देवाचे उपकार मानतां.

पुणून म्हाका थरथरो भरता : सदृट करून तीं भायर फुटलीं जाल्यार?

आमच्या मनांत हरशींच जो हो 'बोवाळ' चलता तो शांत करप बरेंच कठीण. वयल्यान आतां आमी भायल्यान बोवाळ करपाचे तरे तरेचे उपाय सोदून काडल्यात! रेडिओ म्हणूं नाका, रिकॉर्डी म्हणूं नाका, जायरातीं म्हणूं नाका आनी, तो 'रावण' (लाउडस्पीकर) म्हणूं नाका — सगळे शांततायेचे दुस्मान जावन बसल्यात

असले हे बोवाळांचे जिणेंत आमकां केन्ना तें 'उन्मुक्त सत्य' (जी मनशाची सगळ्यांत व्हडली जोड खंय) समजत व्हय? सेंट जॉन ऑफ द् क्रॉस म्हणटा: The Father uttered one word... and He utters Him forever in everlasting silence; and in silence the soul has to hear it!...





२९–१२–१९७०

**१६.** म्हळें, 'किशोरलाल मशरूवालांक सगळेच लोक विसरले... गुजरातेंतले लोक विसरले आनी गांधीवादी लोक लेगीत विसरले! ते हिन्दुस्ताना भायर जल्मा आयले नात हेंच तांचें चुकलें. ना जाल्यार, बर्ट्रांड रसेल आमी वाचतात तशे किशोरलाल मशरूवालाय वाचतले आशिल्ले... एक original thinker म्हूण.'

ताणें बावड्यान किशोरलालभाईचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें. तो विचारूंक लागलो, 'तांच्यांत कितें आशिल्लें?'

हांवें म्हळें, 'भारतीय तत्त्वविचारांत नवी भर घालपाची कांयच गरज ना, तातूंत जें कितें आस्‌ता तें पूर्णावस्थेक पावलां; आमी आतां करपाचीं तीं फकत भाष्यां' अशेंच जंय सगळे मानीत आयिल्ले थंय मशरूवालांनी 'म्हाका हें मान्य ना; नव्या अणभवांच्या उजवाडांत पोरणें सगळें परतें तर्जून पळोवंक जाय, गरज पडल्यार तें बदलूंक जाय, इतलेंच न्हय तर, आमी पोरण्या पसून वेगळे लेगीत सरूंक जाय' अशें सांगून आयज मेरेन आमी मानीत आयिल्ले सगळे विचार तांणी तर्जून काडिल्ले. कितल्यांश्योच गजाली तांणी सकल वयर करून उडयल्ल्यो. आनी कितल्यांश्योच नव्यो गजाली भरीक घाल्ल्यो. म्हज्या हिसपांत शंकराचार्यां उपरांत भारतीय तत्त्वगिन्यानांत ज्या भोव थोड्या लोकांनी मोलाची भर घाल्या तांतले एक ते! विनोबांनी तांकां 'भगवान बुद्धाचे योग्यतायेचे' म्हळ्ळे. ओगीच न्हय!

घरा येना फुडें किशोरलालभाईचें *'जीवन-शोधन'* घेवन बसलों आनी – तांच्या सांगातांत आयुश्यांतले जे कांय खोंण हांवें घालयल्ले तांच्या उगडासान म्हजे भोंवतणचो वाटार आयज परमळीत जालो...





३०–१२–१९७०

**९७.** जे फकत 'पुस्तकां वाचून' पुस्तकां बरयतात तांचीं पुस्तकां केन्ना केन्ना वाचपा सारकीं आसलीं जाल्यारूय ह्या पुस्तकांनी निजाचें भांडवल ना हें रोखडेंच वळखूंक येता. अणभवाचो आधार घेवन बरयल्लीं पुस्तकां वेगळीं. केन्ना केन्ना तांची भास धोंगां-पोंगांची आसता. केन्ना केन्ना तातूंत कला दिसना. आनी तरी आसतना तांची सुंदरकाय लिपून उरना. पदरचें कांय नासलें म्हणटकूच दुसऱ्या कडल्यान घेवपाची बुद्द जावपाची. जाचे कडेन निजाचें भांडवल आसा तो दुसऱ्यां कडल्यान उश्णें कित्याक घेतलो?

हालीं हिन्दी, मराठी, गुजराती आनी आमचे कोंकणी भाशेंत बरोवपी लोकां भितर निजाचें भांडवल आशिल्ले कोण आनी दुसऱ्यांच्या भांडवलार 'धंदो' करपी कोण हाचो हिशोब लावंक बसतां तेन्ना 'हो देश ह्याय मळार गरीब कसो जालो?' हें येवजून खंती जातां.

मागीर म्हाका दुबाव येता, इंग्लीश भाशेक लागून बी अशें जावंक ना मू? इंग्लीश भाशेन खंय 'संवसाराचीं दारां' आमकां उकतीं केल्यांत! काय धांपल्यांत? इंग्लीश भाशेन आमकां आमच्याच देशांत 'परकी' बी करून दवरूंक नात मू?...





३१–१२–१९७०

**१८.** आयज वर्स सोंपपाक हांवें म्हाकाच प्रस्न केलो – 'जिणेचो अर्थ कितें?' आनी म्हाका उगडास जालो. कांय वर्सां पयलीं वील ड्युरंटान हो प्रस्न जायत्या जाणांक केल्लो आनी तांच्यो जापो एकठांय करून एक पुस्तक उजवाडा हाडिल्लें. ह्या पुस्तकाचो मराठी अणकार एकल्यान केल्लो (प्रो. फडकेन जावंये.) तो हांवें वाचिल्लो. पुणून– पुराय पुस्तक वाचून जिणेचो अर्थ मात निमाणें मेरेन म्हाका कळूंक नाशिल्लो. जांणी तो आपणाक कळ्ळा असो समज करून जापो धाडिल्ल्यो तांकांय तो 'मारको कळ्ळा काय कितें, कोण जाणा!' असोय एक दुबाव तकलेंत आयिल्लो.

एकल्याचीच जाप म्हाका मानवल्ली. ती बर्नार्ड शॉची. 'तुका कोणें सांगलें, बाबा, म्हाका हें खबर आसा म्हूण?' ह्या अर्थाची ती आशिल्ली.

हांवें शॉची ही जाप वाचून म्हळ्ळें, 'प्रस्नूच पिशेपणाचो! ताका दुसरी जाप कितें दिवं येताली? शेवण्यांक केन्ना आपणें घोंटेर कित्याक बांदचे, तांतयां कित्याक घालचीं आनी पांखां फुटून पिलां उडून वचसर तांचो सांबाळ कित्याक करचो, असो प्रस्न पडटा व्हय? फुलांक केन्ना आपणें कित्याक फुलचें, परमळ कित्याक पातळावचो, निमाणें बावून कित्याक वचचें, आनी आपली सुवात फळाक कित्याक दिवची असो प्रस्न पडटा व्हय?... मागीर मनशाकूच असलो प्रस्न कित्याक पडचो? जिणेक एकूच अर्थ आसूंयेता, 'बरें भाशेन जियेवचें' हो.

तरणें वय तें! 'बरे भाशेन' जियेवचें हाचो 'जाता तितलींय सुखां भोगचीं' असो हांवें अर्थ केल्लो!

जिस्त ह्या वेळार उमर खय्यामच्यो रुबायाती हातांत पडल्यो.

उपरांत कांय पावसाळे गेले. आनी अवचीत एक दीस म्हाका किशोरलालभाई बरी दिसपाक लागलें. हांवें म्हजी जीण कांय कोणा कडेन मागून हाडूंक ना. ती म्हाका मागनासतना मेळ्ळ्या. मागनासतना मेळिल्ली आसुनूय ती सोडची, होगडावची अशें म्हाका दिसना. परती, ती सुटली वा होगडायली म्हणपाची म्हाका भिरांतूय दिसना. म्हाका ह्या सुंदर संवसारांत मरचेंशें दिसना. सासणाचें जियेवचें, केन्नाच ना जावचें न्हय, अशेंच दिसता.

पुणून अशें केन्ना घडपाचें ना. ही 'मागनासतना मेळिल्ली' जीण म्हाका एक दीस सोडची पडटली. एक दीस ती हांव होगडायतलों. जांकां हांव 'सुखां'

म्हणटां तींय एक दीस म्हाका सोडून वतलीं. घडये हांव जिवो आसतनाच तीं म्हाका सोडून वचुंये. जें कितें हांव म्हजे भोंवतणीं पळेतां तें सगळें वचपाचें आसा. खिणा खिणाक तें ना जायत आसा. तें ना **जायत आसा.** म्हुण्णूच तर ताका 'जीण' म्हणटात! हे 'जिणे'चें स्वरूप कितें तें हांवें समजून घेवप, ताचे नेम जाणा जावन घेवप आनी, म्हाका मागनासतना मेळिल्ले हे भेटवणीचो हांवें म्हज्या एकल्या खातीर न्हय, तर संवसारा खातीर चडांत चड आनी बऱ्यांत बरो उपयोग कसो जातलो हें येवजप, इतलेंच म्हज्या हातांत आसा.

जिस्त ह्या वेळार कबीर हातांत आयलो. आनी—

*'सो चादर सुर-नर मुनि ओढी*
*ओढी कि मैली किनी चदरिया,*
*दास कबीर जतनसे ओढी,*
*ज्यौं कि त्यौं धरि दिनी चदरिया*

ताच्या कडव्यान म्हजी नदर बदल्ली! किशोरलालभाईंचे आनी तांकां लागून वाचूंक लागिल्ल्या कबीराचे उपकार हांव विसरचों ना ते हे खातीर — दोगांनीय म्हाका एक नदर दिल्या म्हूण.

आतां एकूच प्रस्न पडला —

ही चादर *'ज्यौं कि त्यौं'* परती दिवपाक हांवें कशें कशें जियेवंक जाय? ती *जतनसे ओढ*पाक हांवें खंयच्या खंयच्या नेमांक पाळो दिवंक जाय?





१–१–१९७१

**९९.** वर्स-दिसाचें. थुमेकाल-शें. मरणा संबंदान येवजुचें न्हय...

पुणून कितें करूं?

आयज हांवें म्हाकाच समजायलो:

'कवितेचें म्हत्त्व तिचे वळींचे संख्ये वेल्यान थारना. कविता दोन वळींची आसली जाल्यारूय ती संपूर्ण आसूंक जाय.'

जिणेचेंय अशेंच.

कांय जिणो दोन वळींचे कविते सारक्यो आसतात.

कांय जिणो सुनितां सारक्यो आसतात.

कांय जिणो महाकाव्यां येदद्यो आसतात.

वर्सांचे नदरेन जीण ल्हान आसूं वा व्हड,ती संपूर्ण आसूंक जाय. आनी कविते भाशेन जंय ती सोंपता थंयच तिका उतरां विणें गुणगुणूंक येवंक जाय...'





२–१–१९७१

**१००.** तिचे कडेन म्हजी हालींच वळख जाल्या. पुणून पांच-सात वर्सां पसून हांव तिचो वावर पळेतां. सेवे कडेन 'सेवा' हे नदरेन पळोवपी. सेवेक आपलें मिशन मानपी आनी व्रता भाशेन ताका पाळो दिवपी. तिचो वावर पळोवन हांवें एक फावट म्हळ्ळें—हिका पद्मश्री तरी फावताली.

हालीं ती वाजेल्या. तिच्या वावरांत 'वयल्यां' कडल्यान आडमेळीं येवंक लागल्यांत. ती आपलो वावर सारको करिना म्हूण न्हय. तांकां जाय तसो ती करिना आनी तांच्या तालार ती नाचना म्हूण. ह्या आडमेळ्यांक उबगून ती कामाची सोडचीट दिवंक भायर सरिल्ली.

तिणें म्हाका हें सांगलें तेन्ना हांवें तिका विचारलें, 'समज, हांव गाडयेन प्रवास करतां. वाटेर एका स्टेशनार एकलो म्हज्या डब्यांत येता. आनी तो म्हाका त्रास दिवंक लागता. अशा वेळार, हांवें कितें करपाचें? तो डबो सोडून दुसऱ्या डब्यांत वचून बसपाचें, काय त्या मनशाक डब्यांतलो धुकलून भायर घालपाचें?'

हांवें तिका मागीर आमच्या बाबाची खबर सांगली. म्हळें, बाबा एक सादो पगारी दोतोर. पुणून जे संस्थेंत काम करी ती संस्था ताणें आपल्या रगताची हूम गळोवन उबी केल्ली. हे संस्थेची एक कमिटी आशिल्ली. ती सरकार नेमी. एका वर्सा हे कमिटीर एकलो अध्यक्ष म्हूण आयलो तो बाबाक त्रास दिवपाक लागलो. बाबान कांय काळ हे त्रास सोंसले. अती जालें तेन्ना अध्यक्षाक सांगून धाडलें, 'एक तर म्हाका नोकरे वेलो काड. ना जाल्यार तूं अध्यक्षपद सोड. पंदरा दिसां भितर दों भितल्लें एकूय तुवें केलें ना जाल्यार, कमिटीचे फुडले बसकेक तूं संस्थेचे कचेरेंत येतलो तेन्ना तुका हांव 'सेर्वेन्ती'च्या हातान भायर घालतलों...' हाचो परिणाम जावपाचो तो जालो. अध्यक्ष सोडचीट दिवन गेलो.

सेवेचें म्हूण एक तेज आसता. नैतीक तेज तें. ताची जतनाय घेवपाची जापसालदारकी सेवकाची. वरिश्टांच्या धुडबुसांक लागून सेवेचें मळूच सोडून दिवप म्हळ्यार, तें मळ दुश्टांक मेकळें सोडपा सारकें जातलें.

ती म्हणूंक लागली, 'आतां विचार करचो पडलो...'

हांवें म्हळें, 'तुजे भाशेन हांवेंय हे आदीं असल्यो सोडचिटी बी दिवपाच्यो चुको केल्यात...देखून आतां हांव अधिकारान उलयतां...'





३–१–१९७१

**१०१.** एका प्रस्नाची जाप म्हाका मेळूंक नाशिल्ली. बरोवपी जें 'कितें' सांगता ताका म्हत्त्व आसा, काय तो तें 'कशें' सांगता हाका म्हत्व आसा? बरोवप्याची साधना विचारवंताची आसूंक जाय, काय कलाकाराची आसूंक जाय?

कलेचें म्हत्त्व मान्य आसून लेगीत म्हाका केन्ना केन्ना दिसतालें, बरोवप्यान आपणांतल्या कलावंताक आपणांतल्या विचारवंता परस व्हड जावंक दिवंक जायना. कांय बरोवपी कलावंत आसतात आनी कलावंत जावपांतूच व्हडपण मानतात. आनी तरी आसतना म्हाका दिसतालें, बरोवप्याचें मिशन लोकांक निखटें हांसोवप, खेळोवप इतलेंच आसूंक जायना. हांसोवपाक, खेळोवपाक ताका येवंक जाय. पुणून ते भायर ताचे कडेन आनीक 'कितेंय' आसूंक जाय.

आनी हांवें म्हजे पुरतो एक नेम केल्लो, 'हांव म्हज्यांतल्या कलावंताक म्हज्यांतल्या विचारवंताचो सेवकूच दवरतलों. हे शिमे भायर हांव ताका वचूंक दिवचों ना.'

आयज काकासायब गोंयां पावले. म्हळें, तांकां विचारून पळोवंया.

काकासायबांनी म्हज्याच म्हणण्याक तेंको दिलो. तांणी सांगलें, 'बरोवपी मुळांत विचारवंतूच आसूंक जाय. ताचे कडेन लोकांक दिवपा सारकें कितेंय तरी आसूंक जाय. तो जें कितें सांगता ताकाच म्हत्त्व आसा. तो जें सांगता तें ताणें बरे भाशेन सांगूंक जाय. ते खातीर ताणें आपणांतल्या कलाकाराची सेवा घेवंक जाय.'

आनी मागीर तांणी आपणाल्लो एक भंय उकतावन दाखयलो. तांणी म्हळें, 'हांव जें बरयतां तें बरे तरेन बरयतां. त्या वेळार म्हज्यांतलो कलाकार जागो आसता. पुणून केन्ना केन्ना म्हाका भंय दिसता. हांव जें सांगतां तें खूबूच सुंदर तरेन सांगूंक लागलों जाल्यार, हे सुंदरकायेक लागून सांगतां तें लिपून उरचेंना मू?'

आमी मागीर खूब उलयले. संवसारांतल्या जायत्या बरोवप्यांचीं नांवां घेतलीं. कोण विचारवंत आशिल्लो, कोण निखटो कलावंत आशिल्लो हेंय पळेलें आनी निमाणें हांव निर्णयार आयलों –

बरोवपी निखटो कलावंत आसून उपकरना आनी निखटो विचारवंत आसून उपकरना. 'कितें' बरोवप आनी तें 'कशें' बरोवप ह्यो दोनूय कला जाका येतात तोच बरो बरोवपी. तोच 'खरो' बरोवपी.

कितल्या वर्सांनीं आयज एक आदर्श स्पश्ट जालो.



४–१–१९७१

**१०२.** हांव नकळ्ळें, खंयच्या संस्काराक लागून म्हूण, पुणून चड लोक जे वाटेन आमतात ते वाटेन हांवेंय वचून रावचें अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना. रासवळ मळार आयजवेर हांव 'अल्पमता'च्याच पंगडांत रावलां. अल्पमताचे लोक सदांच फुडाराची जीण जियेतात. कोणें एकल्यान म्हळां– The minority is always right. i.e. the minority that is leading the way towards some point at which the majority is not yet arrived.

आठ वर्सां पयलीं आमी कांय जाण कोंकणी संबंदान वा गोंयच्या फुडारा संबंदान जे विचार मांडटाले ते मानपी त्या वेळार गोंयांत कितले लोक आशिल्ले? आचार्य अत्रे हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, आमी 'फकत इकरा जळारां' आशिल्लीं. आयज?

आयज हांव पळेतां, आमचे आड आशिल्ले लोकूय आतां आमचे विचार घेवन मुखार वचूंक लागल्यात.

आमी आयजवेर जितलेय विचार मांडल्यात तितलेय सुरवातीक अल्पमताचेच विचार आशिल्ले. आमचे भायर ते विचार मांडपी दुसरे कोण दिश्टी पडनाशिल्ले. आयज ते विचार मांडपाक आमची गरज उरंक ना.

आयज म्हाका चंद्रकांत केणयान ताका आयिल्ली एक चीट दाखयली. चीट म्हज्या संबंदान आशिल्ली. ही चीट बरोवपी भुग्याक हांव एक-दोन फावटींच मेळ्ळां. आमचे मजगतीं व्हडलीशी दाटी अजून निर्माण जावंक पावंक ना. तरी आमतना ताका म्हजे विशीं ओढ. म्हजें बरप वाचून जावंये, म्हजे विशीं ताका आपलेपण. ताका वायट दिसता तें एकेच गजालीचें – रासवळ वावरांत राजकर्णांत हांव जीं कितें 'पिशेपणां' करतां तांचें. पुणून म्हजीं आयचीं पिशेपणां आनीक कांय वर्सांनी लोक मानूंक लागतले म्हणपाची म्हाका खातरी आसा. हें बापड्याक खंय खबर! आयजवेर अशेंच घडत आयलां.

रासवळ मळार हांव जो थोडो भोव वावर करतां तो मुळांत सांस्कृतीक. म्हजें राजकर्ण लेगीत सांस्कृतीक. असलो वावर करता तो आपल्या काळा परस मातसो फुडल्या काळांत जियेता. Living ahead of his time. पुणून तो 'जैत' जोडपाकूच जल्माक आयिल्लो आसता.

इतलेंच की 'जैत' कित्याक म्हणचें हातूंत ताच्यांत आनी हेरांत मतभेद आसूं येतात. पुणून जे मेरेन ध्येयाची घुडी ताच्या हातांत आसा ते मेरेन ताच्या खंयच्याच खिणाच्या पराभवाक अंतीम पराभव मानूंक जायना...

हांव करतां तीं 'पिशेपणां'? असलीं पिशेपणां हांव आयुश्यभर करीत आयलां. आनी तींच, उपरांत, बाकीचे सगळे मानूंक लागल्यात! तात्पुरतें येस मेळचें म्हूण हांव तीं आयज सोडूं? म्हजे कडल्यान हें पिशेपण जावपाचें ना!





५–१–१९७१

**१०३.** आयज xxxxx मेळिल्लो. म्हजे कडेन मातसो जड जाल्ले वरी उलयलो. म्हाका अजाप जालें! 'तुजे कडेन सांबाळून उलोवचें पडलें... तूं आतां वासरिका बरोवंक लागला' अशें ताणें म्हळें तेन्ना समजलों-- 'राष्ट्रमतां'त उजवाडा आयिल्ले म्हजे दिसपटयेंतलें हाका कितेंय तरी लागलां जातलें! खरें म्हळ्यार, अजून मेरेन हांवें ताच्या संबंदान कितेंच बरोवंक ना.

कांय वर्सां आदली एक खबर येवजली –

मुंबयंत एकलो गोंयकार आशिल्लो. स्वातंत्र्य सैनिकांक, मदीं मदीं दुडवांचो वी आधार दिवपी. सभावान भोळो. गोंया खातीर आपणें कितें तरी करचें अशी तळमळूय ताका खूब. एक दीस तागेर हांवें एकल्याक पळेलो... दारांत लेगीत कोण उबो करचे नात असल्या मनशाक! मनांत म्हळें, 'हो!... गोड गोड उलोवन झडयतलो कितेंय!'

म्हाका इसापाचे एके काणयेचो उगडास जालो. आनी हे काणयेचो आधार घेवन हांवें 'बावडो कावळो' म्हूण एक गद्य-गीत बरयलें. कावळ्याच्या तोंडांत आशिल्लो मांसाचो गुळो पळोवन कोल्लो – जो बुद्दीन भोलो - ताका फुसलायता:

*'कावळेबाब, कावळेबाब!*
*कितलो रे तूं काळो!*
*आरे, तूं राजा मरे सोबतलो!*
*पूण कितें करतलो!*
*तुका ना ताळो!...'*

आनी कावळो 'का... का... का'... करता आनी कोल्याक मांसाचो गुळो आयतो मेळटा!...

म्हजें हें गद्य-गीत हांवें त्या भोळ्या गोंयकाराक पळोवन बरयल्लें आसलें तरूय तें आमकां सगळ्यांक लागू जातालें. आमच्या सगळ्यांच्या मनांत तसलो एक भोळो कावळो बशिल्लो आसता. ताका फुसलावपी कोणूय कोल्लो मेळ्ळो म्हणटकूच तो भुल्लूसता. इतलेंच म्हाका सांगपाचें आशिल्लें.

पुणून म्हजें हें रुपक दुसऱ्याक एकल्याक लागलें. म्हज्या ध्याना-मनांत लेगीत हो मनीस नाशिल्लो. पुणून ताका तें हांवें आपणाकूच लेखून बरयलां अशें दिसलें. आनी तेन्ना पसून तो म्हजेर जड जाला. अजून ताचे तकलेंतलें तें वचूंक ना.

वासरिकेंत हांवें कोणाक लागचें म्हण कांयच बरोवंक ना... पुणून हाका कितेंय तरी लागलां जावंक जाय...

आतां कितें करप? प्रसंग दिनासतना निखटें चिंतन बरयल्यार कशें? काकासायबांनी आपणाल्या *'प्रासंगिक प्रतिसादां'*त अशेंच केलां. प्रसंगूच दिवंक नात. पुणून, तशें केलें जाल्यारूय कोणाक कांय लागचें ना हाचें खरेपण खंय आसा?

*'राखावीं बहुतांची अंतरे'* ह्या सुत्रानूच हांव चलतां. तरी आसतना कांय जाण दुखवतात! नशीब तांचें आनी म्हजें!





६–१–१९७१

**१०४.** मैथिली कवी विद्यापतीन 'वय:संधि' चेर बऱ्यो कविता बरयल्यात. चली वयार आयल्या. तिचें भुरगेपण वचूंक लागलां आनी तरणेपण येवंक लागलां. हे 'गति-विधी'क लागून तिच्यांत जो कितें बदल घडून आयला ताचेर तो बरयता : 'आयजवेर हिचे दोळे थीर आशिल्ले. आतां ते हेवटेन तेवटेन उडक्यो मारूंक लागल्यात... आयजवेर ही कानांनी आयकताली. आतां आयकुपाचें काम दोळेय करूंक लागल्यात... आयजवेर ती जिबेन उलयताली... आतां ओंठांनी उलोवंक लागल्या...

चली हेच पिरायेर खरी 'सुंदर' दिसता!

बायलेचे जिणेंत आनीक एक 'वय:संधि' येता - ती गर्भवती आसता तेन्ना. ह्या वयार तिच्या सौंदर्यांत एक तरेची dignity येता आनी तें सौंदर्य दोळ्यांत भरता. आयज म्हाका कवळ्यां असल्ली एक बायल दिश्टी पडली. ती पुनंव कशी ओतताली. मनांत म्हळें, ह्या सौंदर्याचेर अजून मेरेन खंयच्याच कवीचें लक्ष कशें गेलें ना?





७–१–१९७१

**१०५.** तत्व आनी वेव्हार हांचो मेळ खंय घालप? काय हीं दोनूय मळां वेगळीं वेगळींच उरपार्ची? वेव्हार खरो आसता हातूंत दुबावूंच ना. पुणून तो बरो आसता अशें म्हणुंयेत व्हय?

तत्त्व वेव्हारा कडेन 'यो, मातशी तडजोड करुंया' अशें म्हणटा तेन्ना, हांवें पळेलां, वेव्हार ताका 'यो' म्हणून ओडी ओडीत व्हरता. वेव्हार वयले वयल्यान पळेल्यार, शाणो-सो दिसता. 'परिस्थिती तुवें पळोवची पडटली... ओगीच नाका जाल्लो आग्रो घेवन बसपांत अर्थ ना!' अशें जो सांगता ताका शाणोच म्हणचो पडटा. पुणून ह्या शाणेपणाक मान दिवन जेन्ना तत्त्व वेव्हाराचे सुवादीन जाता तेन्ना तांतलें सत्त्वूच ना जावन वता. तत्त्वांत मागीर हात-पांय हालोवपाक लेगीत प्राण उरना.

वेव्हार वळखूंक जाय, म्हाका मान्य. पुणून वेव्हार हांवें मान्य करूंक जाय, हें मात म्हाका पटना. वेव्हारान केन्ना मनशाक जावं समाजाक वयर काडपाचो वावर केला व्हय? वयर काडपाचो वावर आयजवेर कोणेंय केला जायत जाल्यार तो तत्त्वानूच.

काकासायबांनी आयज एकल्याक सांगलें, 'जिणेचें साळीक जल्मा येता तें वेव्हाराच्या रेब्यांतूच. पुणून वयर सरता तें तत्त्व नांवाच्या सूर्याचे उबेन. पोसवण दिवपी रेब्या पसून साळकाक कडेक काडलें जाल्यार तें बावतलें. आनी ताका सूर्याची ऊब मेळ्ळी ना जाल्यार तें मरतलें...'

कितली सुंदर ओपार!



९–१–१९७१

**१०६.** कोलवेंचे वेळेर कितलेशेच हिप्पी पळोवन काकासायबांनी म्हाका विचारलें, 'हो संप्रदाय कोणें सुरू केलो हें तुवें केन्ना तांचे भितल्ल्या कोणाक विचारलां व्हय?'

हांवें म्हळें, 'पोरूं म्हाका एकलो बोटीर मेळिल्लो. ताका हांवें विचारिल्लें.तेन्ना ताणें Jesus was the first hippy म्हूण म्हाका जाप दिल्ली आनी, हिन्दुस्तानाची तुमकां ओड कित्याक म्हूण विचारलें तेन्ना, तुमच्या देशांत एक व्हड हिप्पी जाल्लो – गांधी – म्हण जाप दिल्ली.

काकासायब मना पसून हांसले आनी म्हणूंक लागले, 'जीझस् जावं गांधी drugs घेनाशिल्ले...'

हांवें म्हळें, 'ड्रग्स घेवन समाधी-सुख जोड्ंक येता ह्या विचाराक प्रतिष्ठा जोडून दिली ती, म्हाका दिसता, ऑल्डस हक्स्लेन. तागेले Doors of Perception नांवाचें एक पुस्तक वाचिल्लें. तातूंत ताणें साक्षात्काराचो हो short cut सुचयल्लो. हिमालयांत एके तरेचो पालो मेळटा तो घेतकूच साक्षात्कारा सारको अणभव येता अशें ताणें म्हळ्ळें. आनी ख्रासा आपणेंय अणभव घेतिल्लो.

काकासायब म्हणूंक लागले, 'कांय साधू भांग, गांजो बी घेतात.'

हांवें म्हळें, 'हे हिप्पीय ह्याच संप्रदायांतले. शाक्त. कातीन गोरे.'

काकासायब म्हणूंक लागले, 'ह्या हिप्पी संप्रदायाचो अभ्यास तुमी करूंक जाय. तुमकां आयती संद मेळ्ळ्या. हांच्यांत साधू, संन्याशी आनी विद्रोही अशे तिनूय cult एकठांय जाल्यात.'

हांवें म्हळें, 'म्हजी इत्सा आसा हांचो अभ्यास करपाची. कांय जाणांक हांव मेळ्ळां. तांतले कांय जाण जाल्यार म्हाका ऊंच पांवड्याचे बुद्धवंत कशे दिसल्यात.' आनी म्हळें, 'हो संप्रदाय हिन्दुस्तानांत पाळां-मुळां भरंत अशें मात म्हाका दिसना.' फाटीं दिल्लीक एक परिसंवाद जाल्लो. तातूंत प्रो. एम. एन. श्रीनिवास हांणीं हिप्पी cult क हांगा chance च ना म्हळ्ळें.'

'कित्या खातीर चान्स ना?'

म्हळें, 'तो म्हणटा, because we are the most conformist nation in the world, probably the only one which gives

the rebels a uniform, a saffron one, and even provides them with a code of conduct...'

काकासायब हांसले.

एका-दोगां हिप्पींक धरून काकासायबां कडेन हाडचे अशें येवजिल्लें. पुणून हाताकूच लागले नात.





१०-१-१९७१

**१०७.** जेवण सोंपना फुडें XXXXबाबान बोल्सांतल्यान कसल्यो तरी दोन गुळयो काडल्यो आनी घेतल्यो.

हांवें विचारलें, 'कसल्यो गुळयो घेतात तुमी?'

'Relax जावपाच्यो.' तांणी जाप दिली.

तांगेलीं घरकान्नूय आमचे वांगडा आयिल्ली . ती म्हणूंक लागली, 'दीसभर काम... काम... काम आसता तांकां... हांव काकासायबांक विचारूंक सोदी, मनशान कितलीं वरां काम करचें काय म्हूण...'

हांवें गोदूच्या तोंडा कडेन पळेलें आनी ल्हवूच म्हळें, 'पांचांतले पांच काडले जाल्यारूय शून्य आनी पांच लाखांतले पांच लाख काडले जाल्यारूय शून्य...

दुडवांक कांय मोल ना ह्या म्हणण्याक कांय अर्थ ना. दुडवां बगर आमचें पावल लेगीत हालना हो आमचो सदचो अणभव. पुणून सूख दिवपाची तांक दुडवां कडेन ना हें मात अजून आमकां समजूंक ना. XXXX बाबा कडेन घर भरून दार ओतता इतलें आसा. आनी तरी आसतना ताचे चिंता-हुसके कांय उणे जावंक नात. वयल्यान तकलेर येदो ताण की तो देंवोवपाक ताका गुळयो घेवच्यो पडटात!

आमच्या पूर्वजांनी चार पुरुषार्थ सांगल्यात. तांतलो पयलो 'काम'. म्हळ्यार सूख. तो भागोवपा खातीर 'अर्थ' जाय. पुणून 'अर्थां'क एक स्वतंत्र पुरुषार्थ लेखून आमी 'काम' होगडावन बसल्यात. म्हाका जायतें फावटीं प्रस्न पडला, ह्या लखम-नायकां भितर कितल्या-श्या जाणांक सारकी न्हीद पडटा? कितले जाण वेळार जेवतात? संगीत आयकुपाची आनी तें आयकून संवसाराक विसरपाची तांक हांचे भितल्ल्या कितल्या-श्या जाणांक आसा? सैमाची सुंदरकाय awe and wonder न पळोवपाक हांचे भितल्ल्या कितल्या-श्या जाणांक फावता?

हांकां न्हीद सारकी पडना. वेळार जेवंक मेळना. हसत्या मेकळें जियेवंक फावना, जाल्यार—

हांची वाट खंयूय जाल्यार चुकल्या म्हणूंक जाय!

जिणेची सगळ्यांत व्हडली जोड म्हळ्यार संतोस. तो खंय जोडप?

सम्राट अशोकान म्हळ्ळें, *'अल्प भांडता साधु, अल्प व्ययः साधु।'* जोडूय थोडी आसची आनी मोडूय तितलीच आसची. खरें आसुंये ताचें.





१३–१–१९७१

**१०८.** तो मेळ्ळो म्हणटकूच एक तरी खबर सांगताच. ताचे कडेन खबरो खूब. मूळचोच संभाषण-चतुर. तातूंत पुर्तुगेजां मुस्तींत पाखल्यांच्या 'रॉदां'त ह्या लापीटपणाक बरी पोसवण मेळ्ळी. पाखल्यां कडेन राजकर्ण उलोवं नज आशिल्लें आनी दुसरें कितेंच तांकां समजनाशिल्लें. एक-दोन विनोद, एक-दोन खबरी, ह्या भांडवलार ते मुस्तींतलीं 'रॉदां' बरीं फुलतालीं. ताणें आयज जी खबर सांगली ती घडये खरी नासुंये. घडयल्ली आसुंये. घडये खंयूय वाचिल्ली खबर ताणें भोंवतणच्या संवसारांत बसयल्ली आसुंये. पुणून हे खबरींत एक 'कथा' आशिल्ली हांवें पळेली–

एकलो गोंयकार दोतोर खंय मुंबय बरी प्रॅक्टीस करतालो. बरो दोतोर म्हुण्णूय ताणें नामना जोडिल्ली. चार-चौगांक उपकारा पडून बरो मनीस म्हुण्णूय नांव केल्लें. ताका बायल सुंदर मेळिल्ली– ताका जाय आशिल्ली तीच. तीय समाजांत वावुरताली. तांकां एकलोच पूत. हुशार.

इतल्या सुखांत आशिल्ल्या ह्या दोतोरान एक दीस जीव दिलो! सगळ्यांक अजाप जालें! हाणें जीव कित्याक दिवचो? हाची कसलीच भानगड कोणें आयकूंक नाशिल्ली.

आतां ही खबर ताचे बायलेक कशी सांगची? तिचेर असलें दुःख कित्याक कोसळचें? तिका कितें जातलें? एकल्यान धीर केलो आनी ताणें जीव दिलो म्हूण सांगपा वांट्याचें ताका ॲक्सिडँट जालो म्हूण सांगलें.

बायल रडली. कपलां आपटून घेतलीं. पिशांतूर-शी जाली आनी निमाणें एक हुस्कार सोडून खंय म्हणूंक लागली, 'हांवें ताका ती खबर कालूच सांगली म्हूण बरें जालें. सांगूंक नाशिल्ली जाल्यार म्हाका आयुश्य भर खातलें आशिल्लें.'

'कसली खबर?'

तिणें रडत रडत जाप दिली, 'कालूच हांवें ताका सांगलें, आमचो जो एकलोच अपुर्बायेचो पूत तो ताचो न्हय म्हूण... तो म्हाका ताच्या फ्रँडा पसून जाल्लो म्हूण!...'





१५–१–१९७१

**१०९.** आयज गावड्यांच्यो खबरी आयल्यो. संस्कृतायेचे नदरेन ते म्हाका संथाल-गोंडां सारकेच दिसतात. आदिवासी उतराचो अर्थ 'मूळ'चे असो आसत जाल्यार गावड्यांक गोंयचे मूळचे लोक म्हणूं नज. गोंयचे मूळचे कुणबी. गावडे धवाड्यां वांगडाच गोंयांत आयल्यात. सामान्यतायेन आदिवासी समाजांतल्या हेर लोकां पसून पयस रावतात. सभावान अल्पसंतुष्ट आनी थोडे भोव आळशीय आसतात. तांचो आनी बाकीच्यांचो व्हडलोसो संबंद येना. गावडे आमच्या समाजांत सामके भरसून गेल्यात. तांकां समाजा पसून वेगळे काडूं नज. ह्या अर्थान गावडे आदिवासी न्हय. धर्मांचे नदरेन गावडे हिन्दू. जे क्रिस्तांव जाल्यात तेय आदले हिन्दू. हेर आदिवासी लोकां भशेन 'धर्म नाशिल्ले' अवस्थेंतल्यान ते क्रिस्तांव जावंक नात.

पुणून तांचीं तोंडां, नाकां, दोळे, केंस, कात पळेत जाल्यार ते संथाल-गोंडां सारकेच दिसतात. तांचीं नाच-गाणीं, जागर, भुतां-खेतां वेलो तांचो विस्वास, लग्न-कारणा वेळा वेल्यो जावं जल्म-मरणा वेळा वेल्यो तांच्यो चाली-रिती, तांचे घाडी वी सगळें पळेत जाल्यार ते अदिवासी न्हय अशें म्हणूंयेना. तांच्या खोंपींची तरा, दारां, वणटी, माळे, वणटींत कोयती खोंवपाची तरा, वी गजाली पळोवन म्हाका वाल्यांच्या खोंपींचो उगडास जालो. आनी हांव गावडेक पळेतां–तिची देंटली, गळ्यांतल्यो पिडुको, हातांतलीं कांकणां, रंगांची आवड आनी फुलां वेलो मोग वी पळोवन म्हाका दिसता, ही जात आदिवासियांचीच आसूंक जाय.

गावड्यांची झगडीं पालोवपाची तरा बदद हेर आदिवासियां सारकी...

म्हणटकूच गावड्यांक आदिवासी लेखचे काय न्हय? संस्कृतायेचे नदरेन तांच्यांत आनी हेर आदिवासियांत कसलेंच अंतर ना.

अभ्यासा खातीर कितलो सुंदर विशय हो!

गावडे संस्कृतायेचे नदरेन आदिवासी म्हणपाचें थरलें जाल्यार आनीक एका प्रस्नाची जाप सोदून काडची पडटली –

ते जी भास उलयतात ती तांची मूळची? काय तांणीं ती धवाड्या समाजा कडल्यान घेतली? काय, धवाड्या समाजान तांचे कडल्यान ही भास घेतली? तांची आनी समाजांतल्या बाकीच्या लोकांची भास एक कशी?





१६–१–१९७१

**११०.** काकासायबांक अर्थ लावपाची एक मोटी शक्त देवान दिल्या.

आयज पोरण्या-गोंयच्या पेस्टोरल कॉलेजांत तांचें एक उलोवप दवरिल्लें. थंय तांणी ख्रिस्ताचे 'आमच्या बापा' हे प्रार्थनेंतलें 'And forgive us our debts as we also have forgiven our debtors' हें वाक्य घेतलें आनी मुखार बशिल्ल्या पाद्रींक विचारलें, 'हाचो अर्थ कितें? आमी करतात तशें तूं कर म्हूण सांगून देवाक आमी आमची देख घे म्हूण सांगतात काय कितें?'

आनी मागीर आपणेंच ताचो अर्थ लावन सांगलें, 'ह्या वाक्यांतल्या as उतराचो to the extent असो अर्थ लायलो जाल्यारूच हे प्रार्थनेंतल्यान Christian way of lifeचें रूप बरें समजून येता. आमचेर अन्याय करतल्यांक, आमच्या रीणकाऱ्यांक आमी जितल्या प्रमाणांत भगशितात तितल्याच प्रमाणांत तूंय आमचीं रिणां, आमच्यो चुको, आमचे अन्याय भगशी असो ताचो अर्थ...'

हो अर्थ आयकून मुखार बशिल्ल्या पाद्रींचे दोळे चिक्क जाले. तांकांय हो अर्थ नवो आशिल्लो!

आनी मागीर काकासायबांनी तांकां Christian way of life ही infinite patience ची way of life म्हूण समजावन सांगलें.

म्हाका आयज नवेंच कितें समजल्ले वरी दिसलें.



१७–१–१९७१

**१११.** चित्रकार दलाल भायर पडिल्ल्याची खबर कळ्ळी.

हांव खिन्न जालों. म्हळें, हाणें येदे बेगीन कित्याक वचूंक जाय आशिल्लें?

एकल्यान म्हळें. 'बरे मनीस देवाक जाय आसतात.'

हें आयकून हांव अदिकूच खिन्न जालों. म्हळें, 'आमी बरे न्हय आसुंये वा आमचेंय लागीं पावलां जावंये!

मागीर म्हळें. म्हणात तुमी अशें. मनीस जितो आसतना कांय तुमी ताच्या संबंदान चडशें बरें उलयनात. आनी मेले उपरांत कांय दिसांनी ताचें नांव लेगीत घेवपाचे नात. निदान आयज तरी जितलें बरें उलोवं येता तितलेंय उलोवन सोंपयात. अतिताय जाल्यारूय कांय नजऽ.

येवजीत येवजीत घरा आयलों. रवीन्द्रनाथांचे एके ओपारीचो उगडास जालो. 'न्हंय जंय समुद्राक मेळटा थंय ती सोंपता म्हणूंयेता व्हय? पिकिल्लें फळ देंठा पसून सुटटा तेन्ना तें सोंपता म्हणूंयेता व्हय? कविता जंय थांबता थंय ती सोंपता व्हय? जाका आमी अंत मानतात तो खऱ्यांनीच 'अंत' आसता काय कितें?'

कालूच काकामायवांनी एकल्याक सांगिल्लें, 'जल्म आनी मर्ण ह्या दों तोंकां मदली जीण म्हळ्यार जिणेचे नवलकाणयेंतलें एक प्रकरण. जिणेची नवलकाणी जल्मा आदीं सुरू जाल्ली आनी, मरणा उपरांतूय ती चलतली.'

काकामायवांचें म्हणणें हांव सारको समजूंक ना. पूणून हांवें पळेलां

जेन्ना जेन्ना मरणा संबंदान येवजितां तेन्ना तेन्ना म्हज्या अंतस्करणांक 'जिणे'ची दीक्षा मेळिल्ले बरी जाता. हे दीक्षेंत कितेंच उणें पडचें न्हय म्हूण जाल्यार कोणाक खबर, हालीं लागींचे आनी वळखींचे जायते जाण एका फाटल्यान एक वचूंक लागल्यात. जाणटे वतात आनी बरोबरच्येय वतात.





१९ –१–१९७१

**११२.** मरण केन्ना कोणाक चुकना. पुणून तें जे पिरायेर येवंक फावना ते पिरायेर कोणाकूय आयलें म्हणटकूच खंत जावंकूच जाय. मरण जशें चुकोवंक येना तशी मरणाची खंतूय चुकना.

पुणून खंत जावप वेगळें आनी आमी उबंत पडले अशें दिसप वेगळें.

केदे केदे व्हडले मनीस गेले! आमच्या दोळ्यां मुखावेल्यानूच गेले. पुणून संवसार कांय अजून उबंत पडिल्लो दिश्टी पडना, इतलेंच न्हय तर, जे गेले तांची सुवातूय रिकामी पडिल्ली दिश्टी पडना.

संवसार चलोवपी खांकनवाळ न्हय. तो खंयचीच सुवात रिकामी पडूंक दिना. एक खरें, जो वता ताच्या लागसारच्या लोकांक दुःख जाता. पुणून केदेंय व्हडलें दुःख जालें जाल्यारूय तें कांय काळान उणें जाता आनी मागीर नाय जावन वता. संवसार चलोवपी निष्ठुरूय न्हय; तो खंयचेंच दुःख चड काळ तिगूंक दिना.

मरणाचें गुपीत आमकां सारकें समजूंक ना खरें. पुणून सैमाचो सभाव पळेत जाल्यार आमकां violent changes खंयच दिश्टी पडनात. सैमांत एका सारके बदल घडत आसतात. पुणून हे सगळे बदल gradual आनी slower आसतात. मरण जें आमकां violent change शें दिसता तें घडये तशें violent नासुंयेय बी. सैमाचो सभाव पुरायेन आमकां खंय समजला?





२०–१–१९७१

**११३.** सूफी संत-कवी जलालुद्दीन रूमी म्हणटा :

'हांव पयलीं मातो आशिल्लों. माती मेली आनी हांव वनस्पत जालों. वनस्पत मेली आनी हांव प्राणी जालों. प्राणी मेलो आनी हांव मनीस जालों...

'मरून केन्ना हांव ना जालां व्हय? मागीर, हांव मनीस म्हूण मरतलों ताका हांवें भियेवचें कित्याक?...'

रूमीचें हें म्हणणें खरें काय कितें, म्हज्यान सांगूं नज. पुणून सगळेच mystics हीच भास उलयतात तेन्ना ते सामकेच फट उलयतात अशेंय म्हणूं नज. सत्य निखरें पुलिसांकूच सोदून काडूंक येता अशें न्हय... आवयचें काळीज लेगीत सत्य वळखून काडटा.

Scientists आनी mystics हांच्यांत फरक आसा तो इतलोच.





२१–१–१९७१

**११४.** मार्सेल प्रुस्त homosexual आशिल्लो म्हणपाचें नकळंच आशिल्लों. आयज आन्द्रॅ जीदची दिसपटी चाळटालों. तातूंत म्हाका हें मेळ्ळें. फाटीं ही दिसपटी हांवें वाचिल्ली. पुणून तेन्ना हे गजाली कडेन लक्ष वचूंक नाशिल्लें.

प्रुस्ता विशीं म्हज्या मनांत स्तेफान त्स्वैगान आपलेपण निर्माण केल्लें. ते उपरांत आनीक एका व्हड बरप्याचें मत्त वाचलें. नांव ताचें विसरलों. ताणें म्हळ्ळें, I would sooner be bored by Proust than amused by any other writer. जे खासा व्हड बरपी आसात ते प्रुस्त वाचतना ताचें उतरान उतर वाचतात. एक खेपे न्हय, कितलेशेच खेपे वाचतात. आनी तांकां वाज म्हणटात तो येना हें पळेतकूच हो खऱ्यांनीच टॉलस्तॉय, बाल्झाक हांचे सारको एक genius आसूंक जाय अशें मनांत भरिल्लें.

प्रुस्ताची जीण बेकार-थवयाची. आलम-पेड्ड्यार लेगीत म्हळ्यार जाता हे तरेची. तो काम-धंदो कांयच करी नाशिल्लो. ते भायर, देवान ताका बलायकीय सारकी दिवंक नाशिल्ली. काम करतलो म्हळ्यार लेगीत ताका तें जमचें नाशिल्लें. ताणें दिसूय भर घरांत पडून रावचें आनी तिनसांज जातकूच, वेळ सारपाक, पारिसांतल्या 'सालांवां' नी वचून बसचें. सुमार पंदरा वर्सां खंय ताणें हे भायर कांयच केलें ना. त्स्वैग हे जिणेक *a vida de ociosidade ridicula* — — हांसपा सारकें बेकार जिवीत — म्हणटा.(हांवें त्स्वैग पुर्तुगेजींत वाचला.) पुणून ताच्यांत खंय एक आगळी गजाल आशिल्ली. तो भोंवतणची जीण बारीकसाणेन नियाळटालो. ताचे नदरेंतल्यान कितेंच सुटनाशिल्लें. कोण कसो उलयता हें तो बारकायेन पळेतालो. पळोवपाची एक सामान्या भायली नदर ताचे थांय आशिल्ली. तो पळोवनूच ओगी बसनाशिल्लो. रात सरले उपरांत घरा परतलो म्हणटकूच त्या दिसा पळेल्लें सगळें ताणें बारकायेन, कितेंच चुकयनासतना, बरोवन दवरचें.

कांय काळान ताची बलायकी सामकीच हाता भायर गेली. ते उपरांत ताका आपले हे आलम-पेड्ड्यार जिणेचेर बंदी घालची पडली. तो घराच रावंक लागलो. आनी कसलोय तरी बरो उद्देग करचो म्हूण जें कितें बरोवन दवरिल्लें तें सारकें करूंक लागलो. आनी तातुंतल्यान *A la Recherche du Temps Perdu* नांवाची एक व्हडली नवलकाणी तयार जाली. ही नवलकाणी बरयता आसतना

खंय ताका चार पांच खेपे भायर सरचें पडलां. कित्याक? तर अमको एकलो धनीक आपलें वाचपाचें ऑक्ल कशें नाकार बसयता, अमकी एकली चेपें घालताली ताचो रंग कसलो, असल्यो कांय गजाली ज्यो ताचे नदरेंतल्यान चुकिल्ल्यो त्यो पळोवपाक. ताची पळोवपाची नदर ताच्या निमाण्या खिणा मेरेन खंय साबुद्‌दीर आशिल्ली. मरता आसतना ताका ज्यो वेदना जाल्यो त्यो लेगीत ताणें बेगी-बेगीन बरोवन काडिल्ल्यो. आपले नवलकाणयेंतल्या एका मनशाचें मरण सारकें रंगोवपाक!

म्हाका प्रुस्ताची नवलकाणी पुरायेन वाचूंक मेळूंक ना. ताचे नवलकाणयेची एक आटयल्ली आवृत्ती कांय वर्सां पयलीं पळेल्ली. तातूंत लेगीत कांय अर्थ नाशिल्ल्यो गजाली ताणें अर्थान कितल्यो उपाट भरिल्ल्यो करून दाखयल्ल्यो! हांवें इतली बारीकलाण अजून खंयच्याच देशी बरप्यांत पळोवंक ना!

Homosexuality हो, म्हाका दिसता, मुळांत अरबी संस्कार आसूंक जाय. धर्मिकांनी ऐंकल्यांनी बायलो करच्यो आनी बाळकांचे बायलां विरयत उरचे, असल्या समाजांत homosexuality क पोसवण मेळूंकूच जाय. येवरोपांत ही विकृती मुसलमानांनीच दवरूंक, ना मू? काय येवरोपाचो हो निजाचो अवगूण? जंय जंय अरबी संस्कार चड आसात थंय थंय ही विकृती दिश्टी पडटा. पुणून तिचें सौंदर्यीकरण करपाचो धंदो मात येवरोपानूच केला. प्रुस्त तसलो आशिल्लो. तो तसो आशिल्लो म्हूण सांगपी आन्द्रे जीद्‌य तसोच आशिल्लो. ऑस्कर वायल्ड तसो आशिल्लो.

हालीं बॉल्डवीन ह्या विशयाचेर नवलकाणयो बरयता आनी मिशिमानूय बरयल्यात. पुणून बॉल्डवीन निग्रो आनी मिशिमा जपानी. जपानांत हो संस्कार खंयच्यान पावलो?





२२–१–१९७१

११५. ताचे सगळे प्रस्न सुटल्यात! चलयो आवियार जाल्यात... चले जोडूंक लागल्यात... ताणें पयसोय भरपूर करून दवरला आनी आतां दोन वर्सांनी ताका पेन्शनूय मेळपाचें आसा.

असल्या मनशाक, खरें म्हळ्यार, कसलोच हुस्को आसूंक फावना.

पुणून तो सांगता, आपलो खरो प्रस्न खंय आतांच सुरू जाता. पेन्शन घेवन घरा वतकूच करप कितें? ह्या हुसक्यान खंय आतांच्यान ताका न्हीद लेगीत सारकी पडना.

हांवें म्हळें, 'म्हणटकूच इतलीं वर्सां तुवें केलें कितें? सेक्युरिटीच्या भंयान भर-भर-भरलें आनी जीण रिती करीत गेलो?'





२३–१–१९७१

**११६.** तो कांय पुस्तकां कोंकणींत हाडूंक पळेता. विवेकानंदांचें जिवीत छापचें अशें म्हणी. हांवें म्हळें, 'श्रीकृष्णाचें जिवीत कित्याक घेना? ताचे इतलो समृद्ध जीण जियेल्लो मनीस म्हाका आमच्या इतिहासांत दुसरो कोण मेळूंक ना.'

तो म्हणूंक लागलो, 'तूंच बरय ती.'

पुर्तुगेजांचे मुक्तींत निमाणें निमाणें दोन अडेज म्हयने बंदखणींत रावपाचें भाग्य मेळिल्लें. त्या वेळार महाभारत वाचून सोंपयल्लें आनी श्रीकृष्णाच्या व्यक्तिमत्त्वान सामको दिपकून गेल्लों. त्याच वेळार म्हज्या मनांत ताचें जिवीत कोंकणींत बरोवचें अशें आयिल्लें. जाचो जल्म बंदखणींत जालो ताचें जिवीत बंदखणींतूच बरयलें जाल्यार तें सोबतलें अशेंय दिशिल्लें.

हांवें महाभारत काडलें. एक खड्डो तयार केलो. कितें कितें बरोवचें हें थारायलें, आनी एक दीस दनपारचो कादेर उकतो करून बरोवपाक बसतां, इतल्यांत – म्हज्या 'सॅला'चें दार उकतें जालें! आनी *'É o Sr. Quelecar? Prepare-se, que vai ser posto em liberdade* – केळेकारबाब न्हय? तयारी कर... तुजी सुटका करपाचो हुकूम आयला – अशें 'शॅफी'न सांगलें.

आनी हांव सुटलों.

ते उपरांत श्रीकृष्णाचेर हात घालपाचो धीर केन्ना जालो ना! स्वराज्यांत तीन खेपे बंदखणींत पावलों. पुणून हळद लागिल्ल्या गोंयच्या सरकारान एक-दोन दिसां वयर केन्ना थंय दवरलोंच ना! श्रीकृष्णाचें जिवीत हांव बंदखणींतूच बरयतलों म्हणटां. त्या 'भाग्या'ची वाट पळेत आसां.

अवचीत म्हाका आठवलेचो उगडास जालो! कोण आठवले, खंयचो आठवले हें सगळें आतां विसरलां. पुणून मुंबयंत गांधी स्मारक संग्रहालयांत आर.के.प्रभूंच्या हाता खाला काम करतालों त्या वेळार एक विचित्र आठवले पळेल्लो. (प्रभू कडेन असले जायते 'विचित्र' लोक येताले.) ह्या आठवलेचो एकूच छंद : श्रीकृष्ण. श्रीकृष्णाच्या नांवार चलिल्ले चमत्कार बी सगळे कडेक सारून 'मनीस' श्रीकृष्णाचें जिवीत आपूण बरयतलों होच एक ध्यास घेवन तो बशिल्लो. सारकीं तीस चाळीस वर्सां तो एका सारको ह्याच एका विशया फाटल्यान लागिल्लो. पुराय देश भोंवन ताणें श्रीकृष्णाच्या जिविता कडेन संबंद आशिल्ल्यो सुवाती

पळेल्ल्यो. आयची द्वारका श्रीकृष्णाची द्वारका न्हय; श्रीकृष्णाची द्वारका बुडिल्ली. ती सुवात खंय आसुंये हें सोदपाक ताणें ते मुस्तींतल्या सौराष्ट्र सरकाराचो आधार घेवन सौराष्ट्राचो सगळो कांठ 'पादाक्रांत' केल्लो आनी दीव आनी वेरावळ हांचे मदीं खंय तरी ती द्वारका आशिल्ली असो सोद लायिल्लो. 'जुनी द्वारका' म्हूण एक गांव थंय आसा.

एक दीस ताणें म्हाका सांगलें, *'केळेकर, तुमचे वडील दीवला असतात ना? त्यांना एक पत्र लिहा आणि विवस्वान या नावाशी जुळणारे एखादे खेडे आजूबाजूला असल्यास त्याची माहिती गोळा करायला सांगा.'*

हांवें ताका थंयच सांगलें, 'वस्वाण नांवाचो एक गांव दीवा लागींच आसा. हांव थंय जायते फावटी बाबा वांगडा पावलां...'

*'हो... ना? तर मग माझे काम झाले.'* अशें म्हणून ताणें आपली धादोसकाय उकतावन दाखयली.

आठवलेन निमाणें श्रीकृष्णाचें जिवीत बरयलें काय ना, सांगूंक नकळ. हांवें कांय तें पळोवंक ना. घडये बरयलें ना जावंये, कित्याक, तीस तीस, चाळीस चाळीस वर्सां खोल अभ्यास करून लेगीत आपलें गिन्यान अजून अर्दकुटें आसा अशें तो म्हणी. हे मुखार श्रीकृष्णाचें तें जिवीत आमकां मेळत काय कितें हेंय हांव सांगूंक नकळ. घडये तो आयज नासुंयेय बी. वीस वर्सां पयलीं ताका हांवें पयलोच पळेल्लो तेन्नाच तो अशीं तशीं दोन तीन वर्सां काडीत असो दिसतालो.

आठवलेचो उगडास जालो आनी त्याच खिणाक हांवें मनांत म्हळें, फाटीं फुडें केन्नाय श्रीकृष्णाचें जिवीत म्हजे कडल्यान बरोवन जालें जाल्यार तें हांव ह्या आठवलेकूच ओंपतलों. असले, गिन्याना फाटल्यान आपलें पुराय जिवीत खर्चुपी मनीस हांवें आमच्या देशांत पळेल्यात ते चडशे महाराष्ट्रांतूच.

महाराष्ट्राची ही एक आकांताची शक्त!





२४-१-१९७१

**११७.** शिकले बगर मनीस जायना हें आमकां सांगचें लागना. शिकले बगर दोतोर जावंक येना. आड्वोगाद जावंक येना. इंजनेर जावंक येना, कितेंच जावंक येना (एक मंत्री सोडून). चित्रकार जातलो जाल्यार शिकूंक जाय. संगीतकार जातलो जाल्यारूय शिकूंक जाय. लेखकाचीय एक 'साधना' आसता. तें कित्याक, पैलवान जातलो जाल्यारूय तालीम जाय. ड्रायव्हर जातलो जाल्यारूय प्रॅक्टीस जाय. फुटबॉल. गॉल्फ. क्रिकेट सारकेल्या खेळांत तरबेज जातलो जाल्यारूय साधना जाय.

फकत 'चारित्र्या'कूच कांय नाका? तें आपशींच येता काय निजाचेंच आसता? तें केळोवपा खातीर, वाडोवपा खातीर, घट करपा खातीर कितेंय करचें लागता काय ना?...

काय आमी चारित्र्यवान आसपाची गरजूच ना?

एक गजाल आमकां मान्य करचीच पडटली. आमचे मुखार कांय तत्त्वां आसलीं, कांय आदर्श आसले, कांय मूल्यां आमी मान्य केलीं म्हूण उपकरा पडना. आड परिस्थिती येता तेन्ना हीं तत्त्वां, आदर्श वा मूल्यां केन्ना केन्ना सोडून दिवचीं वा धोल्ल तरी मोडचीं अशें आमकां दिसता. त्या वेळार 'कितेंय जावं, हांव तीं प्राण गेल्यार लेगीत मोडचों ना' अशें म्हणपाची एक strength आमच्यांत आसूंक जाय. ती कशी येवप? तिचे खातीर एक तालीम नाका? ती खंय घेवप, केन्ना घेवप?

काय हे तालिमीची गरजूच ना?

काकासायब जायते फावटीं म्हणटात, 'शिंयां दिसांनी तुमचे कुडींत तुमकां अमकीच एक डिग्री ऊब जाय आसत जाल्यार कुडींत एक शेगडी पेटोवची पडटली. एक 'हीटर' पेटोवन दवरचो पडटलो. आनी हया 'हीटरा'च्या आंगांत हजार वांट्यांनी अदीक ऊब वा उष्णता आसची पडटली. तेच परी, देशांत वा समाजांत तुमकां अमके एके डिग्री मेरेन चारित्र्य आसचेंशें दिसलें जाल्यार, देशाच्या वा समाजाच्या फुडाऱ्यांच्या आंगांत हजार वांट्यांनी चड चारित्र्याची उष्णता आसची पडटली....'

गांधींचे मुस्तींत देशांत चारित्र्य बेश्टें निर्माण जावंक पावूंक नाशिल्लें! खासा तांच्या आंगांत चारित्र्याची उश्णता हेरां परस हजार-लाख वांट्यांनी अदीक

आशिल्ली. चारित्र्याचेर लॅक्चरां दिवन चारित्र्य निर्माण करशें जातलें? चारित्र्य ही केळोवपाची वस्त. हेर खंयचेय तालिमी परस, खंयचेय साधने परस खर तालीम, खर साधना चारित्र्याची . जीं तत्त्वां, जे आदर्श, जीं मूल्यां समाजांत थीर जावचीं अशें आमकां दिसता तांकां आमचे जिणेंत 'व्रतां' सारकी सुवात जोडून दिले बगर आनी त्या व्रतांक खर पाळो दिले बगर देश चारित्र्यान वयर सरतलोच कसो?...

देश 'वयर काडप' म्हळ्यार कितें फकत लोकांक जेवंक खावंक मेळटा इतलेंच करप? हाचे परस ऊंच आनीक कांय ना?....



२५–१–१९७१

**११८.** आयज अवचीत महावीर त्यागींचो उगडास जालो. तांणी एक फावट एक खबर सांगिल्ली:

कम्यूनल अॅवॉर्डच्या प्रस्नाक लागून पं. मालवीया आनी कॉंग्रेस हांचे मजगतीं मतभेद जाले आनी मालवीया कॉंग्रेसींतल्यान भायर सरले. कांय दिसांनी प्रांतीय सरकारांत वांटो घेवपाच्यो वेंचणुको आयल्यो. त्यो जिखच्यो अशें कॉंग्रेसीन थारायलें. मालवीयांचीय एक independent कॉंग्रेस आशिल्ली. तिणेंय वेंचणुकांनी वांटो घेवपाचो बेत केलो.

हेवटेन ब्रिटीश सरकारान कांय जमीनदारांक आनी महाराजांक एकठांय करून एक नवो पक्ष स्थापन केलो आनी तोय वेंचणुको लढोवपाक मुखार सरलो. कॉंग्रेस आनी माल्वीयांचो पक्ष हांणी एकामेकां आड उमेदवार उबे केले जाल्यार मतां फुटून सरकाराचो पक्ष जिखून येता अशी परिस्थिती उबी जाली तेन्ना कॉंग्रेसीन आपलें चातुर्य उपयोगांत हाडपाचें येवजिलें. हाय कमांडान रफी अहमद किदवाई हांचे कडेन उत्तर प्रदेशांत कॉंग्रेसीक जिखून हाडपाचें काम दिल्लें. तांणी त्यागींक आपोवणो धाडलो आनी तांकां सांगलें, 'एक काम आशिल्लें...'

'कसलें?'

'माल्वीयां कडेन वचपाचें आनी सांगपाचें, तुमचे आनी आमचे मतभेद फकत कम्यूनल अॅवॉर्डा पुरतेच. हेर गजालींनी आमी एक . आमच्या मतभेदांचो लाव आमी तिसऱ्या पक्षाक कित्याक घेवंक दिवचो? ते परस आमी एकामेकां कडेन कितेंय understanding केल्लें बरें न्हय?'

'Understanding कितें म्हूण करप?'

'आमी माल्वीयांक कांय सुवातो मेकळ्यो सोडूंया...' किदवाईंनी जाप दिली.

त्यागी माल्वीयां कडेन गेले. कॉंग्रेस आपणा कडेन understanding करूंक तयार आसा म्हणपाचें समजतकूच तांणी त्यागींक म्हळें, 'तशें जाल्यार, फुडलीं उलोवणीं करपाक रफी अहमदाकूच घेवन यां...'

रफी अहमद आयले. माल्वीयांनी विचारलें, 'त्यागी म्हणटात तें खरें?...'

'हय...'

'मागीर आमकां कितल्यो सुवातो तुमी सोडटात?'

'तुमकां कितल्यो जाय?'

'पंदरा पुरो...'

'वीस घेयात...'

मालवीयांनी मागिल्ल्यो पंदरा. किदवाई दिवंक मुखार सरले वीस सुवातो! मागीर किते विचारता? Understanding जालें. ज्यो सुवातो मालवीयांक दिल्यो थंय कॉंग्रेस आपले उमेदवार उबी करपाची ना म्हणपाचें थरलें.

कांय दिसां उपरांत त्यागींलो फोन परतो किणकिणलो. रिसीव्हर हातांत घेवन त्यागी विचारूंक लागले, 'कोण?'

'हांव... रफी अहमद... आनीक एक काम आशिल्लें...'

'कसलें?'

'परतें मालवीयां कडेन वचपाचें आनी तांकां सांगपाचें, कम्यूनल ॲवॉर्डाच्या प्रस्नाक लागून आमी कांय जाणांनी ए. आय. सीं. सींत तुमकां तेंको दिल्लो. तो सरदार पटेलांनी पळेल्लो. तुमचे मतभेद जाल्ल्यान तुमी कॉंग्रेसींतल्यान भायर सरले. आमी थंयच आसात. तुमी सरदार पटेलांक वळखतात. तांकां आमचो राग. 'हे मनीस पातयेवपाचे न्हय' म्हूण ते आतां आमकां कोणाक तिकेट दिनात. तुमचे फाटल्यान आमी उबे राविल्ल्यान आमकां कॉंग्रेसीची तिकेट ना, आनी आमी कॉंग्रेसींत आसात म्हूण आमकां तुमची तिकेट ना. अशी आमची काकुळटेणी गत जाल्या.'

'कोण कोण ते म्हूण विचारलें जाल्यार हांव कोणाचीं नांवां सांगूं?' त्यागींनी विचारलें.

'दी कोणायचीं नांवां.' किदवाईंनी जाप दिली.

बावडे मालवीय! तांकां हें 'चातुर्य' समजलें ना. तांच्या भोळेपणाचो लाव घेवन कॉंग्रेसीन तांच्या तिकेटींचेर आपलेच लोक वेंचून हाडले.

कॉंग्रेसीची ही देख आतां बाकीच्या पक्षांनी घेतल्या जावंक जाय... *महाजनो येन गतः स पंथः*





२६-१-१९७१

**११९.** एका प्रस्नाची जाप म्हाका केन्नाच सारकी दिवंक आयली ना. तूं कितें करता रे म्हूण कोणेंय विचारलें जाल्यार, ताका कितें जाप दिवची हें म्हाका समजना. केन्ना केन्ना दिसता, 'हांव न्हिदतां, उठ्ठां, जेवतां, खातां' अशीच जाप दिवन उडोवची. कित्याक, हांव खऱ्यांनींच न्हिदतां, उठ्ठां, जेवतां, खातां. जिवो आसां म्हणटकूच म्हाका हें कशेंच चुकोवंक येना. म्हाकाच कित्याक, जिवो आशिल्ल्या कोणाकूच न्हिदप, उठप, जेवप, खावप आयजवेर चुकोवंक येवंक ना.

पूणून 'तूं कितें करता रे' ह्या प्रस्नाची जाप ही न्हय.

तशें जाल्यार मागीर, हांव व्यापार करतां, आदवोगासी करतां, वा अमके कडेन नोकरी करतां ही तरी ह्या प्रस्नाची जाप कित्याक आसची? जिवो आशिल्ल्या मनशाक जशें न्हिदप, उठप, जेवप, खावप चुकोवंक येना तशेंच व्यापार करप, आदवोगासी करप, नोकरी करप वा असलेंच कितेंय तरी करून जोडप हें चुकोवंक येना. न्हिदपा-उठपा वा जेवपा-खावपा इतलेंच हेंय काम सभावीक.

मागीर आमकां तेंच जाणा जावन घेवपाची इल्ला कित्याक जाता? आनी 'तूं कितें करता रे' म्हूण कोणेंय विचारल्यार, आमी कितें 'करून' जोडटात तेंच कित्याक सांगतात?

'तूं कितें करता रे' ह्या प्रस्नाक आयजवेर कोणेंय 'हांव चिनी तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास करतां', 'आफ्रिकेंतल्या काळ्या-गोऱ्या लोकांच्या प्रस्नाचेर उपाय सोदतां', 'हिन्दुस्तान गुलाम कशें कशें जालें ह्या प्रस्नाचो सोद लायतां' असली जाप दिल्या व्हय? कित्याक दिवंक ना?

न्हिदप, उठप, जेवप, खावप आनी जोडप हाचे भायर आनी कितेंय तरी करपी लोक संवसारांत आसतात आनी ताकाच ते जियेवप म्हणटात हें ज्या देशांतल्या लोकांक खबर ना त्या देशांतल्या लोकांक जिवे तरी म्हणूंक येत व्हय? आमकां जियेवप म्हणटात तें कितें हें कोणेंच अजून मारकें समजावन सांगूंक ना. आमी एक तर जोडप हाकाच जियेवप मानतात वा (मरूंक नात म्हूण) जिवे उरप हाका जियेवप लेखतात! खरेंपणानशीं ह्या देशांतल्या लोकांक जियेवंकूच येना.

इंग्लीशींत दोन उतरां आसात : एक vocation आनी दुसरें profession. कोशांत ह्या उतरांचो अर्थ सोदूंक गेल्यार दोनांचोय अर्थ 'धंदो',

'उद्योग' वा असोच कितेंय तरी मेळटलो. पुणून ह्या दोनूय उतरां मजगतीं अर्थाचे नदरेन आकांताचें अंतर आसा. Vocation म्हळ्यार 'स्वधर्मान' जियेवप. आनी profession म्हळ्यार, जिवो उरूंक जाय म्हूण कसलोय तरी उद्योग करप.

जें काम करतकूच मनशाक 'आनंदा' भायर दुसरें कांयच मेळना, जें काम केल्ल्यान ताका केन्ना पुरोच जायना, जें काम करता आसतना तो तातूंत आपलें पुराय काळीज ओतता, आनी जें काम केले बगर ताच्यान रावं नज जाता त्या कामाक मनशाचो 'स्वधर्म' म्हणटात. कांय जाणांचो स्वधर्म संगीतकार जावपाचो आसता. कांय जाणांचो चित्रकार जावपाचो आसता. कांय जाणांचो आपले भोंवतणचे जिणे संबंदान येवजप (ते खातीर वाचप आनी चिंतप), आनी ही जीण अदीक सुंदर, अदीक गिरेस्त, अदीक अर्थपूर्ण करपा खातीर जें कितें आपणाक समजलां, मेळ्ळां वा पटलां तें दुसऱ्यांक सांगप (आनी ते खातीर, बरोवप, उलोवप, चळवळी करप) हो स्वधर्म आसता. जण एकल्याचो स्वधर्म जण एकल्यानूच सोदून काडपाचो आसता. तो ताका मेळ्ळो म्हणटकूच तो जे भाशेन जीण जियेता ताकाच जियेवप म्हणटात.

जांचो 'स्वधर्म' आनी 'धंदो' एक, अशे भाग्यवंत लोक संवसारांत आसतात. थोडे आसूंत मागीर ते. केन्ना केन्ना तांकां आपलो स्वधर्म आनी धंदो हांचो मेळ जुळोवन हाडटासर नाका-पुरोय जाता. पुणून नाका-पुरो जाता म्हूण आपल्या स्वधर्माचो बळी दिवपाची पाडी वान्सा मात तांकां केन्ना जायना. ते अडचणींत लेगीत जियेतात. पुणून 'जियेतात'. तांकां अडचणी मात लेगीत बादनात. इतलेंच न्हय तर तांची खंतूय जायना. म्हज्या मत्तान, हांचेच जिणेक अर्थ आसता.

कांय जाणांक आपलो स्वधर्म कळ्ळा पुणून तांकां ताचो आनी जिवे रावपा खातीर करपाच्या 'धंद्या'चो मेळ जुळोवंक येवंक ना. ते केन्ना केन्ना वेगळो धंदो करतात. पुणून आपलो स्वधर्म मात सोडिनात. तांकांय म्हज्या मत्तान, जियेवंक येता. इतलेंच की *'रहना नहीं देस बिराना है'* ह्या नेमान ते आपल्या 'धंद्या'च्या संवसारा कडेन 'परकी' जाल्ले भशेन पळेतात. तांचेय जिणेक 'अर्थ' आसता.

पुणून चडश्या जाणांक आपलो स्वधर्म खंयचो म्हणपाची जाणविकाय नासता; इतलेंच न्हय तर आपणें आपलो स्वधर्म अजून सोदून काडूंक ना हाची खंतूय नासता. तांगेर मागीर सत्या आनी संपत कितलीय लोळूं, तांकां जियेवंक येता अशें म्हणपाचो कोणूच धीर करचो ना.

म्हाका जेन्ना कोणूय 'तूं कितें करता रे' म्हण विचारता तेन्ना म्हजें तकलेंत येदोय व्हडलो हो सगळो वेदान्त उबो रावता आनी ताका कितें जाप दिवची हेंच म्हाका समजना. येदेंय व्हडलें हें सगळें खंय समजावंक वचूं, अशें म्हाका जाता आनी मागीर हांव ताका म्हणटां–

'तसो हांव बेकारूच आसां म्हळ्यार जाता. कांय करिना...'

'तशें जाल्यार मागीर तूं अमकें काम कित्याक करिना? तुका जाय जाल्यार हांव तें तुका मेळोवन दितां' अशें ताणें म्हळें म्हणटकूच म्हाका मागीर ताका जाप दिवची पडटा–

'तसो हांव बेकार ना... म्हजे कडेन खूब कामां आसात.'

म्हज्यो ह्यो दोनूय जापो आयकून तो म्हजे संबंदान कितें समज करून घेता जातलो, देवाक खबर!





३०–१–१९७१

**१२०.** दोन तीन दीस हांव दिसपटये कडेन लक्षूच दिवपाक पावलों ना. ह्या दिसांनी हांव राजकर्णाच्या जाळ्यांत बरोच घुसपलां. हांवें जाणा जावन म्हाका तातूंत घुसपावन घेतला. वेंचणुको आयल्यात. म्हयनो-देड-म्हयनो तरी म्हाका उसरपत जावपाची ना. आनी जालीय जाल्यार ज्या 'मुडां'त आयजवेर ही दिसपटी बरयत आयलां तो मूड तसोच उरत म्हणपाची खातरी ना.

म्हाका दिसता, वेंचणुको सोंपऽसर तरी दिसपटी बंद दवरिल्ली बरी.

तारीख पळेली. आयज तीस जानेवारी! दिसपटी बरोवपाक हांवें सुरवात केल्ली ती तारीख दोन ऑक्टोबर आशिल्ली! मनांत म्हळें, सुरवात करपाक म्हूर्त बरो मेळिल्लो. आतां मदीं बंद दवरतलों जाल्यारूय म्हूर्त जाय तसोच आसा. हांवें हे म्हूर्त मुजरत जुळोवन हाडूंक नात. ते आपशींच जुळून आयल्यात. तशे ते जुळून आयिल्ले पळोवन म्हाकाच अजाप जाता...

घडये गांधीं विशीं म्हज्या मनांत जी भक्ती आसा तिकाच लागून म्हाका ह्या दोनूय दिसां विशीं अशें दिसता जावंये.

हरशीं, पोरूंच तांगेलें शताब्दि-वर्स सोंपले उपरांत हांवें सोपूत घेतिल्लो— हांव गांधी हें नांव अत:पर तोंडान घेवचो ना म्हूण. खूब बदनाम करून उडयलां सगळ्यांनी हें नांव. म्हजे कडल्यान तरी तें आनीक बदनाम जावचें ना म्हूण...

आनी तरी आसतना गांधीं संबंदान हांव जायते फावटीं भक्तिभावान उलयलां आनी उलयतां खरो.

पुणून -- म्हूण कितें म्हजी जीण आनी म्हजे विचार हांचो गांधीं कडेन कसलोय संबंद लावंक येत व्हय? ना... येवपाचो ना. तांचे कडल्यान हांवें जायतें घेतिल्लें आसून लेगीत. आनी तांचे संबंदान हांव भक्तिभावान उलयतां आसून लेगीत. तें कित्याक, काकासायबांच्या विचारांनी म्हज्या पिंडाक फाटल्या वीस वर्सां सावन पोसवण मेळत आयल्या. तांचे कडल्यानूय हांवें जायतें घेतलां. इतलें घेतलां की म्हज्या विचारांतले तांचे विचार आनी म्हजे विचार म्हाका वेगळे काडूंक येवपाचे नात. आनी तरी आसतना काकासायबां पसुनूय हांव अजून कितलोसोच पयस आसां.

हेच दिसपटयेंत हांवें कांय कांय गजाली असल्यो बरयल्यात की त्यो गांधींच्या जावं काकासायबांच्या नांवार हांव खपोवंक लागलों जाल्यार बिरमत फुट्टली. म्हजेर संस्कार कोणाचेय पडिल्ले आसूं, म्हज्या विचारांची जापसालदारकी हांवेंच

घेवंक जाय. हांवें एक पळेलां. मनशांत कितलेशेच 'हांव' आसतात. ह्या नेमान म्हज्यांत एक विद्रोही आसा. एक साहित्यीक आसा. एक कवी आसा. एक सौंदर्य-रसिक आसा. एक चिंतक आसा. एक समाज-सेवक आसा. एक राजकर्णी आसा. एक शिक्षक आसा. एक विद्यार्थी आसा. एक श्रेयार्थी आसा. आनी ह्या सगळ्यांक एकठांय बांदून दवरपी आनीक एकलो 'हांव' आसा. केन्ना केन्ना म्हज्यांतल्या ह्या हांवां भितल्लो एकलो बाकीच्यांचेर शेक चलयता. केन्ना दुसरो तकली वयर काडटा. ह्या चार म्हयन्यांच्या काळांत, हांव पळेतां, म्हजे दिसपटयेंत केन्ना एकल्यान तकली वयर काडल्या जाल्यार, केन्ना दुसऱ्यान.

रवीन्द्रनाथ केन्ना केन्ना वॉल्ट विटमनची खबर सांगताले. विटमनाक खंय कोणें एकल्यान म्हळें, 'तूं असो कितें रे बाबा? आयज एक उलयता, फाल्यां दुसरें!' विटमनान खंय जाप दिली, 'अशें? म्हाका ही खबरूच नाशिल्ली. तशें जाल्यार मागीर म्हणचें पडटलें, म्हज्यांत हांव एकलो ना. म्हज्यांत कितलेशेच हांव आसात. I contain multitudes.'

म्हाका दिसता, सगळ्यांचेच बाबतींत अशें घडटा जावंक जाय. आमी सगळेच a bundle of contradictions आसतात जावंक जाय.

तरी आसतना ह्या वेगळ्या वेगळ्या 'हांवां' भितर आमकां एके तरेचो एकचार घडोवन हाडचोच पडटा. ह्या आंतरिक एकचाराकूच integrity म्हणटात. ती म्हज्यांत थोडी-भोव आसुंये–

एक गजाल म्हाका मान्य करचीच पडटली –

म्हजे म्हाकाच वळखुपाक ही दिसपटी म्हाका खूब उपकरा पडल्या. ती सुरू केल्ली हांवें 'पळून' वचपी विचारांक 'बांदून' दवरपा खातीर. उपरांत, म्हाका कळूंक दिनासतना, तिणें वेगळें रूप घेतलें – म्हजे विचार घांसून-पुसून काडपाचें. मदीं मदीं खंड पडलो तरूय चार म्हयने हांवें तिच्या सांगातांत काडले आनी म्हाका तिचो हो सांगात खूब मानवल्लो.

आयज दुसऱ्या कामांत हांव घुमपलां. पूण परतो तिचो सांगात घेवपाक हांव रोखडो येतलों म्हणटां.

पळोवंया.





## सोंपयतना

म्हाका दिशिल्लें, वेंचणुको सोंपले उपरांत हांव ही दिसपटी परती हातांत घेतलों आनी वर्स सोंपऽसर तरी बरयतलों म्हूण.

पुणून आतां चार म्हयने जाले, तो 'मूड'च परतो येवंक पावंक ना. कितले दीस म्हूण ताची वाट पळोवं?

निमाणें येवजिलें – जोडिल्लो दुडू खर्चून उडोवचो तशें बरयल्लें सगळें छापून मेकळो जावचें. दुडवां भाशेन बरपूय खंय घोळूंक जाय.

छापिल्लें बरोवप, आनीक कांय दिवं नाका, पुणून बरोवप्याक एक वस्त जोडून दिता ती म्हळ्यार वाचप्यांची इश्टागत. हे दिसपटयेन कोणायच्या काळजांत – इल्लीशी जावं मागीर ती – म्हाका सुवात जोडून दिली जाल्यार त्या काळजा कडेन म्हज्या काळजाचें दाट नातें जोडूंक मेळचें अशें म्हाका मना पसून दिसता. एकल्यान म्हळां–

It is chance that makes brothers, but hearts that make friends.

आनी हांव खऱ्यांनीच मानपी:

"इश्टागती सारकी व्हड जोड दुसरी ना..."



रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-कुंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्रमंथन करून जिविताचो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो. जिविताचे दर्यावेळेर घुलो खूब पातळ्ळ्यात. पुणून त्यो पुंजावन घरा हाडपाची बुद्द थोड्यांकूच जाता. ह्यो घुलो तरेकतरा आकारांच्यो. तरेकतरा रूपां-रंगांच्यो. घुलो कानाक लायल्यार खंय तातूंत दर्याचो आवाज आयकूंक येता. ह्योय घुलो कानाक लायल्यार तातूंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो.

- मनोहरराय सरदेसाय

